विश्व कोंकणि साहित्य - ४

# कमलादेवी चट्टोपाध्याय

## जीवित आनी कार्यं



लेखक: डा ज्योत्स्ना क्रष्णानंद कामत

कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान
मंगळूर - 575 016



An inscription in Konkani at the foot of one of the largest monolithic statues in the world. This statue of lord Gomateshwara was created around 983 AD by Chamundaraya, a minister of the Ganga King, Rajamalla.

स्वस्तिश्री शालिवाहन शक १५९७ राक्षस संवत्सरे चैत्र बहुल १० को
चीं राजपाटणी बैसिके रंगभट्ट तथा विनायकपंडित आप्पुभट्ट तेगे वैद्य
तानिं कोचिचा कुमदोर आंद्रिकि फांड्रे त्या वानिरोपान ह्या मलबार देशा
तु आशिले ओषधमात्र वृक्ष वालि झाडरवंड ओळखते त्यां मनुष्याकनु
स्तारो देस्तु देते मंवातु पेद्दवून तिनिं वारवद आणवून त्यात्या झाडांचे फळ
फूल पान बीज समस्तास्यानुतु कालावरिस पाहून तिंतींचि तारिली त्या उप
रांत आम्हिं आमगेल्या वैद्यग्रंथाचानि घीटा प्रमाणीं त्यांत्या ओषधाचे गुण
वाउरुन मरानजो जो गुण आमका कळेले गितो वात्यां आरवदांचीनावं एकेउनु
आजि दानि वर्ष सकान्ति साज्ञे आम्हि लागिरावूनु द्वालिकुस पाडून दिला तेंल
टिक अतिगामणुंचा कनज अगिस्सणु आम्हि आमचीनिसाणि कर्णु दिली
ते सत्यवचणु मानुवेजगइदस्सणु नागरबरया नद्द बरवूनु दिली श्रीः

रंगभट्ट | विनायकपंडित | आप्पुभट्ट

The Konkani Testmony of Appu Bhat, Ranga Bhat and Vinayak Pandith as well as the Konkani terms for variaous parts of plants fixing expression in 12 volumes of **Hortus Indicus Malabaricus** (Published between 1678 and 1693AD) are in Devanagari.

# कमलादेवी चट्टोपाध्याय

(जीवित आनी कार्यं)

लेखकी

डा. ज्योत्स्ना कृष्णानंद कामत

कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान

विश्व कोंकणी केंद्र

मंगळूर – ५७५ ०१६.

**KAMALADEVI CHATTOPADHYAY**
(Life and Works)

First Edition - May 2009
1000 Copies


Written by : Dr. Jyotsna Krishnananda Kamat
110, Shashikiran,
18th cross,
Malleshwaram,
Bangalore - 560 055.

Cover Photo : Shevagoor Fine Arts,
Mangalore.

Printed at : Madhuban Graphics,
Mangalore.

Printed in India

Sponsored by : Smt. Vidya &
Sri U. Ramdas Kamath, Bangalore.

Published by:
**Konkani Language and Cultural Foundation (R)**
(Konkani Bhas Ani Samskriti Pratisthan (R)
World Konkani Centre, Konkani Gaon,
Shaktinagar, Mangalore - 575 016.

# अर्पण



सान प्रायेर तीन च्चेर्डुवांक अनाथ करन, आमगेली आवय्, शारदाबायी गणेश बुर्डे (1910–1943) अंतरली. मराठी चौतेक्लास पर्यंतचि शाळेक गेलिलि ती मराठी, कन्नड, हिंदि आनि इंग्लिश साहित्याचे प्रकार वाचतशिली. तिगेली बुदवंतीकाय् आनी कलाप्रेम, कुटुंबाचे आनी गांवचे लोक खुप मानताशिले.

चुरुक् आस्लि रांचांत,<br>
कुशल् शिवणि कामांत,<br>
मुखार् सगळे खेळांत,<br>
पोवलि न्हंय–दर्यांत,<br>
पेटि वाज्जांत, पदम्हणचांत,<br>
वाचन आनी बरपांत,<br>
बुदवंत म्हण मानलेली<br>
बेग्गिचि आयी अंतरली!

कलाप्रेमी 'आयी' क अर्पित.

ज्योत्स्ना.

## अनुक्रमणिका

# दोनि उत्रं

सुमार दोन वर्साफाटि, कोंकणी भास आनि संस्कृती प्रतिष्ठानाचे अध्यक्ष, श्री बस्ति वामन शेणै हाणि, श्रीमति कमलादेवि च ोपाध्याय हे मायेरि एक पुस्तक् माय् – भाशेंत बरोबचाक सांगले. तिजे बद्दल अभिमान आनी गौरव बगेन जास्तीच आसल्यान, फाटि – मुखार पळेयनासतना, हांवे, जायद्! म्हण सोडले. हांवे तिजेरि दोन – तीन लेख कन्नड आनि इंग्लिष् भाशेंत बरयलि. जाल्यार एक स्वतंत्र बूक, तेंवय्, कोंकणी भाशेंत बरोंवचे भारी कष्टदायक जातलें! म्हळेलि कल्पनाची नासलि. संबंधित लेख, पुस्तक, माहिती एकडे करचाक लागलिं. माहिती संग्रहाक दूरदूरचे वाचनालयाक वच्चे साध्यनासले. जायशिलिं बूक खरीद केलिं.

मुख्यजावन म्हाका तींणे इंग्लिषांत बरयिले आत्मचरित्र Inner Recesses and Outer Spaces जायशिले. 1986 वर्सांत ही कृती, उज्वाडिलि, तिगेले जन्मशताद वर्सांतु (2003) ताजे नवीन आवृत्ति आयले आसचापुरो! म्हणु बेंगळूर, मुंबै, दिल्लि, पुणेचे प्रकाशकांक, हॊड बुक् डिपोचांक, फोनकरन हांवे हे पुस्तका बद्दल विचारले. दुःखाचे खबर म्हळ्यार तिगेले आत्मकथनाचे दुसरे आवृत्ति आयली नासलि. इत्लेह्य. पयले मुद्रणाची एकि बि प्रति खंयी मेळ्ळि ना!

मेगेलि मुंबैचि मैत्रिणी डा। बि. लीला, मेगेले सहायाक आयलि. तीणे मुंबै विश्वविद्यालयाचे लायब्ररिंत आसले ते पुस्तकाचे चारशि धा (410) पान्नाचे झिरोक्स प्रति काडोवन धाडलि. 2007 वर्साचे अक्टोबर आनि नवेंबर म्हयने मनदीवन ते महाग्रंथ अध्ययन करचांतगेले. वाचतेरि हांव नर्वस्' जालि. त्या पुस्तकाचे नावा वारीच, आकाशा इत्ले विशाल क्यानवासार, भूमंडल उरपाटि घालेले कमलादेविन, नाजूक कुंचान जीवनानुभवाचे वेगवेगळे व्यक्तिले जनांगचे चित्रण केलेलें! तांतु चित्रित शंबरगट्ले घटनेंत हांव, ना जावन गेलि! परत परत माका दिसचाक लागले कि, हांव कमलादेविले धीरोदात्त व्यक्तित्वाक, थोडेतरि न्याय दिवचाक

शकतलीवे? तीणे दिल्लेले देशाचे पुढार्यागले चित्रण अनन्य आशिले. जाल्यारि म्हका कमलादेविले चित्रण दिंवचे मुख्य आसले. तीणे, ते पुस्तकांत आपले, आपले कुटुंबाचे बद्दल जास्त कांय् सांगले नासले! म्हका ताणी उणीव भावना !

हांवे, इतरे जनान तिजे बदल बरयले बूक, लेख, वाचले. तीगेले पत्र आनी प्रबंधय् वाचले. तिजे बरोबर कामकेलेले जनाबरोबर उलयलिं. हाजान तिगेले अगाध व्यक्तित्वाचे थोडे झळक मेळे. म्हाका मेळिले पुस्तकांत, (दि) जमिला ब्रज्भूषण् हिगेले कृतिंतु, कमलादेविले व्यक्तित्वाचे प्रामाणिक चित्रण आसा आशि दिसले. जाल्यार वैयक्तिक जीवनार थोडे सुद्दा प्राकार पडलोना! डा। सरोजिनि शिंत्रिले नानोंदु कनस कंडे' कन्नड बूक, एक प्रामाणिक जाल्यार सान प्रयत्न आसा. ते बूक डा. कमला रत्नम हिगेले 'कमलादेवी: एक समर्पित व्यक्तित्व' हाजेरी आधारित जावन आसा!

कमलादेवि च ोपाध्याय' पुस्तकांत 15 अध्याय आसात. हांवे येवजुन घेतिले कमला देविले व्यक्तित्वाचे, पंद्रा तोंड दिंवचाक प्रयत्न हांवे केला. सांगचे विचार खूब आसात. सांगुन सरनात! कमलादेविले व्यक्तित्व तितले बहुमुखि आसले. मेगेलो प्रामाणिक अभिप्राय म्हळ्यार कमलादेवि आसलि व्यक्ति, खंचेय देशांत बहुतेक शतमानांत एक अथवा दोन मेळतात. खंचेय् व्यक्तिलि बुदवंतकाय्, शक्ति, सामर्था तांगेले एक वृत्तिचे शिखरप्रायाक पांवचाक साध्य! परोपकाराचे खंचेय् एकप्रकाराक घालचाक साध्य. कलाप्रेम, खंचेय् एकमाध्यमाक अर्पित करचाक साध्य. देशसेवा, खंचेय् एकरूपान पावोंचाक साध्य. कमलादेविले विशिष्टताय् म्हळ्यार ती हे व ची, प्रकारांत दुस दुसरे रूपान समाजाक आनि देशाक पावलि.

आसले संदर्भारि, कमालादेवी बद्दल तिगेले माय् भाषेंत, पुस्तक हाडका म्हण येवजुन, दोगतिगानि जायना! म्हण सांगले तरि सोडनासताना, म्हाका फाट बांदुन, अति अप्रूबामेची आमगेलीची महान् महिळाबद्दल पुस्तक बरोवचाक लावन, ते निमित्तान, चांग अध्ययन करशि देख-रेख विचारन घेवन, वयर वयर याद करत

बरोवचे बंद् करनाशि पोळोवन घेवन, हे पुस्तक उज्वाडचाक कारण जालेले श्री बस्ति वामन शैणै मामाक हांव अत्यंत कृतज्ञ आसा. कमलादेविले आत्मचरित्र सोद्दुन काडुन, झिराक्स प्रति करोवन, वेळारि हात्त मेळशि केल्लेले डा। बि. लीलाक, कमलादेवी बरशी काम करन, तिका लाग्गीचान वळखलेले वि.एस. नारायण राव आनी पद्मभूषण एल. सी. जैन हाणी दिल्लेले माहिती खातीर तांका हांव खूब आभारी. कोंकणी भास येना जाल्यारिचि, ते भाशेंत टैपिंग् डि.टि,पि. करन दिवन मेगेलि चिंता धूर केल्लेले श्रीमति सविता क दोन पुस्तक मेळोवचाक सहास केल्लेले डा । गीता शेणैक हांव ऋणि आसा. जास्तिचे उत्साहान ही कृति चंद रीतिन छापुन उज्वाडाक येयशि केले श्री प्रभाकर प्रभु हांका बी हांव आभारि आसा. मेगेले माय्-भाशेंतुले हे दुसरे बरपाचे प्रयत्न कोंकणि वाचक बंधु स्वागत करतले, म्हळेले आशय!

देव बरे करो!

ज्योत्स्ना कृष्णानंद कामात्

110, शशीकिरण
18 वें क्रास,
मल्लेश्वरम
बेंगळूर 55

# प्रकाशकाचीं उतरां

श्रीमती कमलादेवी च ोपाध्याय, भारत देशाचे राजकारण, स्वातंत्र्य चळवळ, देशाक स्वातंत्र्य मेळिले परांते राष्ट्राभिवृद्धी, सामाजिक, संस्कृतिक आनि कलाक्षेत्राचें, हातकाम उद्योग क्षेत्राचे उदरगति खातिर वावरलेले एक अमूल्य रत्न. कमलादेवीन २० वे शेक ांत भारत देशांतुले बायलांगेले सामाजिक बंधनाताकुन भायर हाण तांगेले सशक्तीकरणाचे खातिर, दिलेले धीमंत पुढारपण, मुल्यांतपोण नाश जावचे मेरेक पाविले हातकाम उद्योग क्षेत्राक, पुनर्जल्म दिलेले महान महिळा. चिंतपान, स्वभावान आनि क्रियात्मक वावरान झुझलेलि क्रांतिकारी योधा.

जल्मतः चिंतन-मंथन, विचारशिलतायेन, क्रांतिकारी जावन आसल्यारी ‘भारतपिता’, शांतिदूत, महात्मा गांधीजीले लागचे सांगत्यान तागेले अनुयायि जावन तीणे येव्जिलेले हर एक क्षेत्रांतु अहिंसात्मक मार्गारीची कमलादेवीले वाव्र आशिले.

ल्हान प्रायेरताकुनूची डा. एन.एस. हर्डीकर हागेले नेतृत्वाचे भारत सेवादळाचे सदस्या जाव्न, मुखारि राष्ट्रीय कांग्रेस पक्ष, युव कांग्रेस, महिळा कांग्रेस अथवा मि ाचे सत्याग्रहांयूय कमलादेवी एक अग्रगण्य स्वयंसेविका जावनूची आसचांत इच्छा पावताली म्हळेले तिगेले जीवनभरी तीणे दाकोवन दिलां.

भारत देशाक स्वातंत्र्य मेळताना, देश कुडके जालेल्यान, त्या दिवसांत पाकिस्तान प्रदेशाताकुन भारत देशाकडेन येवन पाविले निराश्रितांक, योग्य पुनरवसती व्यवस्था, तांगेले भलाय्किचे व्यवस्था, निराश्रीतांक

धंधो अथवा उद्योगाचे व्यवस्था अशिं सकड विषयांक तीणे महात्मा गांधीजीले मार्गदर्शन घेवन एक महान देशभक्त स्वयं सेविका जावनूचि वावरलेले चारित्रीक जाव्न उरतलें.

भारत देशाचे पयले पंत प्रधान पंडित जवाहरलाल नेहरून, कमलादेवीक भारत देशाचे पयलें लोकसभा सदस्या जावचाक आपोव्णे दिलेलें. भारत प्रजाप्रभुत्व राष्ट्र अशिं घोषित जाले नंतर तीका देशाचे पयली उपराष्ट्रपती जावका अशिंय सुचीवणि दिलेले, हेंवय तीणे नय विनयान नाका अशिं म्हळेले तिगेले त्यागपूर्ण जीविताक एक सर्वश्रेष्ठ उदाहरण. अशिं देशाचे स्वातंत्र्याचे खातिर, देश बांदचे खातिर, समाजांत तिरस्कृत जावनूची वरलेले वर्गाचे जना खातिर, तीणे केलेले त्याग आनी निस्वार्थ सेवा भारत देशाचे चरित्रेंत ध्रुव नक्षत्र जावनूचि वरतले.

म्हाका मेगेले शाळा दिवसांत मंगळूरची जावन आशिले श्रीमती कमलादेवीले विषयांत तिगेले कलात्मक जीवन, तिगेले पुढारपण, क्रांतिकारी आसुनूय, अहिंसा मार्गारी चलत वाव्र करचे तिगेले विषयांत खूब खूब आयकत आशिलो. तेदना ती एक अपुरबायेची दंतकथा जावनूचि प्रचारांत आशिली.

ल्हान प्रायताकून, स्वाभाविक जावन कमलादेवीले विषयांत म्हाका अभिमान वाडता आयिलो. कमलादेवीले क्रांतिपूर्ण विचाराधारा आनी कर्तव्य पूर्ण जीविताचे विषयांत वेगवेगळे भाषेंतुले पुस्तकं आनी पत्रांतु आयिले लेखन वाजून तिगेले विषयांत विशेष गौरव भावना वाडुन आयलें.

कमलादेवी कोंकणी बायल मनीषी जावनूय, कोंकणी भाषेंत एकय पुस्तक नाशिले म्हाका खूब वायट दिसताले. आतां तिगेले स्वंत अनुभवान, आनी मस्त इतले पुस्तकांत बरेयलेले लेखनं वाजुन जमयलेले अनुभावान कन्नड आनी कोंकणी भाषा साहिती, लेखकी डा. ज्योत्स्ना कृष्णानंद कामतमांयेन "श्रीमती कमलादेवी च ौपाध्यायाले (जीवित आनी वाव्र) पुस्तक संपादन कर्न दिलां. डा. ज्योत्स्ना कृष्णानंद कामत मांयेक कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान ऋणी जावन आसा. कोंकणी भाषा लेखकी श्रीमती जयश्री शानभागन 'फ्रूप रीडिंग' कर्न सहाय केला. तिखाय देवु बरें कोरो. मंगळूराचे ख्यात वर्णचित्र कलागार श्री रामदास शेवगूर हान्नी मुखपत्र रचन केलां. मे । मधुबन ग्राफिक्स पुस्तक सुंदर जावन छापसुन दिलां. हांकाय देवु बरें कोरो.

विश्व कोंकणी केंद्र<br>मंगळूर<br>१.५.२००९

**बस्ति वामन शेणै**<br>अध्यक्ष

# कमालदेवी च ोपाध्याय

## अध्याय 1

## चिगरलेलि चंदाय्; ल्हानपण

दक्षिण कन्नड जिल्लो, अपरूपाचे परिसर आनि चंदायीची भूंय् जावनु आस्सा! सुंदर वातावरणाक कारण जावन आसत, न्हंय् समुद्र आनि पाचवे रान्नान भरिले सह्याद्रिचे घाट. हांतुले खंचेयि एक आसले तरी ते निसर्गाने प्रेरित जावन, कवि, नाटककार, लेखकजालेले लोकांक आमी पळयतात. विश्वकवि रविंद्रनाथ टागोराक बंगालचे नदि प्रदेशान, राष्ट्रकवि कुवेंपुक मलेनाडचे वनप्रदेशान, प्रभावित केल्लेवारि बहुमुख प्रतिभेचो लेखक शिवराम कारंताक दक्षिणकन्नड प्रदेशाचे अपरूप निसर्गाचे चंदायिने बंधित केलेल्यांत आश्चर्यना! परिसराचे परिणाम तांगेले साहित्य निर्माणकारी होड प्रमाणार जालेले तें तीनी नांवादीक लेखकानि सांगला.

शिवराम कारंताने जल्मले बहुमुख सौंदर्याचे भूंयतूचि, हे तीन मेधावी महापुरुशावारीचि, एक मेधावी महिळा रूपितजाली. मंगळूरांतु जल्मलि. ते तीग जणावारि, फकत् बरोंवचे कडेन हीणे, जास्त लक्षघालना! बदलाक स्वातंत्र्या लडायेंतु उडलि. बायलांगेले बरेपणकेले, हजार संख्यानी निर्वासिताले पुनर्जीवन साधसुयिले. होड प्रमाणार सहकारि संस्थाचे संघटन घडयले. सगळ्यांकिता जास्त जावन, नासाडत आसले भारताचे असंख्य हातकामाक (Handicrafts) लक्ष लक्ष जनांक वोच्चाक वाट करन दिले. आनि ललितकलांक पुनश्चेतन दिले.

टागोर्, कुवेंपु, कारंत, हे तीनी अप्रतिम सौंदर्योपासकावरि, ती बी सौंदर्योपासकि आसलि. जीवनाचे सानसान विषयांत बि चंदाय् वळखतालि. स्वंत विचाराचि, निश्चित मनाचि आनि बुदवंत आसलि. जाल्यारि ती बुदवंतिकाय् तीणे देश बांदुचे कडेन रचनात्मक

कामा कडेन, कारागारालें जीवन रूपित करचे कडेन घालले, तशे जावन, तिगेले खरे व्यक्तित्व वळखुन घेंवचाक, तीणे, वेगवेगळे कार्यक्षेत्रांत घोळिले विधान, कळनु घेवकापडता. ती अपरूप प्रतिभावंत बायी कमलादेवि च ोपाध्याय्. तेन्नाचे सान नगरांत जल्मुन, राज्यातीत, देशातीत जावन वाडलि. एक कोंकणि महिळा, मन केल्लार राष्ट्रपति हुध्यार पावन गाजतसलि. तरि ती मनःपूर्वक फाटल्यान उरलि. भारताचे कलाप्रकार मात्र राष्ट्रस्तरार, अंतराष्ट्रीय म्हळार तीणे वयरहाडले.

अनंतय्य धारेश्वर, रेवेन्यू खातेंतु अधिकारि जावन ब्रिटिशांगेले कालाक, कलेक्टर् जावन आसलो. गिरिजाबायि, तागेलि दुसरि बायल. ती श्रीमंत जमीनदार घरण्याचि चलि आसलि. जाल्यारिचि, ते कालाचे सारस्वत, गौडसारस्वत जनानि सहज जावन वाडोवन घेतिले सादा, सरळ जीवन हे कुटुंबाचे आसले.

कमला, 1903 वर्साचे एप्रिल् तीनि तारीकेक मंगळूरांत जल्मलि. तिजकिंता पयले, एक चलि आना दोन चले जल्मलेले. जाल्यार तीराल्हान प्रायेर सरले. कमला आनि तिगेलि भयण सगुणा, आवस बापसुले जास्तच मोगान वाडलिं. पयले बायलेले दोनि चले आसले. शिकुन कामार दूर आसले. तशि जावन चारजणांले धारेश्वर कुटुंब लेक्कान सान आसले. जाल्यार त्या कालाचे पद्धतिवारि, कामाक वत्तले, शिकतले, दुसरे रूपान आश्रित दारले–बायलां तांगेले होड घरांतु कायम देकु पडताले. सानगांवचे संबंधित, जिल्ला केंद्र मंगळूराक सरका कामाक येतरि उरतशिले. तांगेले उपस्थिति एक हप्तो धरन स मैने थांय् वाडचो संभव उरतशिलो. गिरिजाबायि समर्थ रीतिने सर्व संभाळतालि.

सानपण धरन कमलालि चंदायिचि प्रीति, वेग वेगळे रूपान वाडुन आयिले नमूने, तिगेले आत्मकथेंतु तीणे सांगिले आस. तेनाचे परबो, उत्सव, खेळ, तमाषा, भूताराधना, लग्न, मुंजिचे

विधान, सगळ्यांतु ती लक्ष पूर्वक खुषि घेत्तालि. तेन्नाचे समूह जीवनांत भाग घेत्तासली.

श्रावणमैनो आयलो म्हळ्यारि चल्यांक फुलं एकडे करचे संभ्रम सुरु जाताले. चुडियो बांदुन, निसर्गमातेले, देविरूपाचे पूजाकरन बायलानि चुडियोवांटुन, होडाले आशिर्वाद घेतल्यार, सान चलियो बि फाटि पडनासलि. आवय् बरोबर घरोंनघर वत्तसलि. फुला हाळि करचे, रांगोलिघालचे, नित्याचे काम! दिवाळि वेळारि, नमनमुन्याचे आकाशबुि करचे, चर्डुवांक व ु भारि संभ्रम आसले. एकवर्सा वारि आन्नेक वरस आकाशगूडाचे डिसैन् उरचाक ना! पेल्ले घरा आकाशबि कय्, आमगेले रंगीत आनी चंद उरका! म्हण स्पर्धा जात्तशिलि.

तांगेले घरा एदराक एक क ो, आसलो. सद्द निर्दिष्ट वेळारि, दारले आनि बायलो वेगवेगळे जावनु थंय् जमतसले. दुसदुसरे गांवचि पाच्चि, होन्नि, मायि" आयले तेन्ना काणियो; खबर्यो पत्रिकावाचन, वगैरे चलताले.

दसर्याचे धा दीस गोंबे बसोवचे तित्लेच उत्साहाचे कार्यक्रम उतरसिले. विकद हाडिले हल्का सामानह! घरोंन घरा जनानि तयारकेल्लेले सामान, कॆळि दांडार्यान वल्लेमडलान, फुलान कित्ले नमून्या सामान करतशिले, ताजे लेकऽ ना!

ते कालांतु, मनरंजनेक कांयी कमि नासले. लग्नासंदर्भ घेतल्यार खाण-जेवणा शिवाय् ते संदर्भारि जांवजे काणि, खुशाल(होंव्यारूपान) विनोदिपद, खेळ मस्त चलताले. हे निमित्तान दशावतार (यक्षगान) गोंब्याखेळ, हरिकथा, एकपात्राभिनयाक प्रसिद्ध आसले एकरांगले शो दवरताले. आसले रंजनाप्रकार कमलाक मस्त आवडताले. तिगेले जन्मजात कलाचे प्रीतिक हाजान मस्त पुष्टि मेळ्ळि. नंतरले वर्सांत, हे प्राचिन कला प्रकार राकुन घेंवचाक तीणे केलेले वीशेष प्रयत्न देकुपडता. आत्ताचे लग्नांत कन उडगिर

आनि ताजे विनिमय-तांतुयि फारिन्' सामानाचे प्रदर्शन आनि प्रतिष्ठेचे प्रश्ने जावन आसले वरदक्षिणेचे घातकि प्रभावाचे बद्दल तीणे खुप बेजारान आपले आत्मचरित्रेंतु सांगुन घेतला.

तशिचि फाटले कालाक चलियांक घरचे म्हाळार कितले स्वावलंबनाचे तरबेति मेळतालि, ते तीणे याद करन घेतला. शिवण, कसूति, फुलबाग करचे, रांदयिकाय् वाडोंवचे, गृहवैद्य आनि रांदपांतु ट्रेनिंग् आसताले. जाल्यारि, आर्तांतु? तांगेलो बाल्यकाल वाडला खरे. बेग्गि लग्नाचे (बाल्य-विवाहाचे) भय ना खरे, जाल्यारि हे घरगुति तरबेतिचे सदवकाशाचो बरो उपयोग जायना, म्हण् तिगेले अनुभवाचो अभिप्राय!

कष्ट-त्रास सहनकरचाक फाटले कालाचे बायलो जास्ति शक्तिवंत आसल्यो, म्हण उदाहरणे सहित तीणे सांगला.

दक्षिण कन्नड जिल्लेचे अथवा तुळुनाडाचे श्रीमंत संस्कृतिचे परिणाम, कमलादेविचेरि घ ि जालेले. हे प्रदेशंत हिंदुधर्मा शिवाय् जैन्, क्रिश्चियन् आनि मुस्लिं प्रसिद्ध पूजास्थान आसात. बरशि प्राचीन बौद्धसंस्कृतिचे निशान बि देक्कुन पडताले. समूहाचे परबांतु सबंद गांवचे लोकान भाग घेत्तेरि उरचि तीणे पळेयले. पुरातन बौद्ध आवशेष, मूडबिद्रि, कार्कळचे भव्य जैन वास्तु, इगर्जींतुले पेंटिंग्स्, मोहरथूंचे वाग् नांचे संप्रदाय, तिगेले तरणे मनार, कोरायले उडगास जावन उरले.

कमलान वाडिले मुक्त आनी विश्व बंधुत्वाचे परिसर, तिगेले मजबूत व्यक्तित्व वाडचाक अशि मस्त रीतिने सहायक जाले.

कमलालि स्वंतिका रूपित जांवचांतु आवय् गिरिजाबायिलो प्रभाव होडच आसलो. स्वतः वाचनाचि आवड आसल्यान गृहकामा मदें तीणे वाचुन आनि कळन घेतिले विषय खूब आसले. श्री रामकृष्ण, विवेकानंद, स्वामि रामतीर्थ, हांगेलि कृत हाडोवन वाचतेरि उरतालि. विचार आनि भावनानि ती तेन्नाचे काळांत



*A family photograph showing Kamaladevi standing at left between her father and mother*

कमलादेवीले कुटुंबाचे भावचित्र. दाव्यान तिगेले आवय बापय मद्येंत राविली कमलादेवी.



१९८२ इसवींत बेंगळूरांत चल्लेले बोम्या खेळाचे कार्यसाळांत, एक बोम्या खेळ कलागाराक सन्मान करताना



प्रथम "कमलादेवी चट्टोपाध्याय विश्वकर्म प्रशस्ती" प्रधान समारंभ बेंगळूरांत १९८६ इसवींत
चलतना स्वतः कमलादेवी उपस्थिती आशिळी. मुखेल सोयरो जावन
कर्नाटक राज्य मुख्यमंत्री श्री रामकृष्ण हेगडे श्रीमती कमलादेवीक सन्मान करत आसचे दृश्य



बोम्या खेळांत प्रसिद्द कुंदापुर उप्पिनकुद्रु कोग्ग देवण्ण कामतीले सांगती श्रीमती कमलादेवी

आधुनिक विचाराचि आसलि. तिगेले घराक नियमित प्रमाणारि येवनु भेटतल्यो चडते बायलो आसल्यो. तांका पत्रिका वाचुनु खबर्यो सांगचो, बूकांतुले महत्वाचे विषय कळोंवचें काम ती करतालि. दक्षिणकन्नड जिल्लेंतु 1910 वर्सांतु महिळा सभा तीणे स्थापना केलि, आजि कयि ती चलत आयला! बायल चेर्डुंवाले पयलेंचे बरेपणाक ती संस्था अजुनी शंबर वर्सा नंतर काम करत आसा !

गिरिजाबायिक संगीताची भारी आवड आसलि, पियानो वाजेतालि. इंग्लिष् आनि दुसरे दोनतीन भारतीय भाषा, तिक्का एत्ताल्यो. प्राय जायन पडेन सुद्दा, वेगळि भाषा शिकचि, तांतुले साहित्य कळन घेंवचि, उमेद तिका आसलि. गार्गि, मैत्रेयि असले असामान्य पौराणिक बायला जद्दल काणियो ती सांगतालि. पंडिता रमाबायि, अनिबेसेंट् असल्या अक्षूरी गेले बद्दल जास्तिचो गौरव तिका आसलो, आनिबेसेंट् सुर्वे खेपेक मंगळूर आयिले तेन्ना छोटि कमलाक घेवनु गिरिजाबायि, तिका भेटचाक गेलेली. थंय् कमलाक ते म्हालगडे बायल रोक पांय पडचाक सांगले. तुजेवारि, स्वातंत्र्य योधा जावो म्हण तिका आशीर्वाद दी!" आशि विनंतिकेलि. तीणे कमलाले मात्यारि हातदवरन भारतीय पद्धतिवारि आशीर्वाद केल्लेले, कमला याद आसले. जाल्यारि आवय उतरां अर्थु करन घेवचाक खूप वर्सगेलिं! अशें कमला देविन बरेयला. चरित्रेचे थोडे चमत्कार बि उरतात. अनिबेसेंट इंडियन् न्याशनल् कांग्रेसाचि अखिल भारत अधिवेशनाचि प्रप्रथम महिळा अध्यक्ष जालि(1917).कमलादेवि प्रप्रथम स्थळीय असेंब्लि इलेक्षनाक राबिलि महिळाजालि. इत्ले नय् इंडियन् न्याशनल् कांग्रेस्चि पूर्णाप्रमाणाची पयलेचि महिळा सदस्या म्हणु संघटनेक लागलि! अखिल भारत युव कांग्रेस्चि (यूथ्लीग्) प्रथम अध्यक्ष जालि(1928) कांग्रेसांतूचि उरन सक्रिय राजकारणि आसल्यारि राष्ट्राध्यक्ष हुद्यार पावतसिलि! विधि लिखिताकय् स्वंत् आवाजाक चड लक्षदिल्यान्,

ती ऊंच् (Vertical) पावलिना तरि विशालरूपान् (horizantally) विश्वाक पावलि. अनिबेसेंटागेलो आशीर्वाद सफल जालो.

स्वतः गिरिजाबाय्, निर्भय बायल आसलि.. काळकाक ती भीनासलि. गांवांत जावचे, पूजा, भजन, हरिकथा असले कार्यक्रमाक एकळीचि, लाटन घेवन वत्तालि. भूत, पिशाच, चौंडि आसले भंयकरचे विचार चरडुंवाले मात्यांत येनाशि तांका तीणे वाडयिलें!

ल्हानपणांत, कमलाले धैर्य आनि खूबिचो एक प्रसंग. शाळे वत्तले चलियांगले गळ्याचे चैन् तांडुनु काडतलो एक गलीज मनुश चाळवलेलो. कमलाने ताका पळयलेलो. एक दीस तो कमला फाटल्यान येंवचा लागलो. धैर्यान तीणे, ताजे लागचानचि वच्चाक सुरुवात केलि. वा`रि पोलिस गार्डालि चौकि आसलि. थंय् पोलिस्, ूटीर आसलो. लागिवत्तेरि, तिगेले चैन् ताणचि भितरि, चोर! चोर! म्हण् जोरान तीणे किळचि मारलि. पोलिसान् ते आयकुन एकदं येवन चोरक पकडलो. ही खबर सगळ्यांक पावलि. गिरिजाबायिक ही खबर कळ्ळे तेन्ना तिगेले दोळ्यांत् खुशी आनि गर्वान उदाक आयले कमलाक बरे याद आसले.

गिरिजाबायिलि आवय बी असामान्य बयल आसलि. ती संस्कृत विदुषि उरिल्यान घरांतु तिगेलेचि स्वताचे धार्मिक विषयाक संबंधित वाचनालय आसले. संप्रदाय खूब बळिश्ट आसले दीसांतु, दारले–बायलानि मेळनु विचार विनिमय, चर्चा व ु चि करचे अशक्य कोटींतलि बातमि" जाल्ले दीसांतु, तिगले घरा, संस्कृत विद्वांस लोक येत्ताले. तांगेले धार्मिक चर्चेंतु ती भाग घेतालि. बस् सर्विस् अजुनु सुरजायनासले दीसांत ती बैला गाडीरि एकळीचि दूर दूर वत्तशिलि. थंचान रैल्वे गाडीरि किंवा दोणिरि मुखावेलो प्रवास करतासलि. एकळो चलो तिका आसलो. तागेले मरण पोळोंवचे दुर्भाग्य तिगेले जाले. तेन्ना तीणे दाकयले स्थैर्य आनि संयम इत्ले होड आसले, कि तो, सगळ्यानि याद दवरिलो प्रसंग जावन उरलो.

आजी, विधवा जायना पडेन धुंवे थंय् येवनु राबलि. तिगेलि खोलिंत हॉड हॉड पुस्तकां आसलिं. हात्तान उबारचे सारखे पुस्तक उल्टा धरन् कमलान तिज्नेवारि आवाज काडुन् वाचिलें सगळ्यांक मनरंजनेचो विषय आसलो!

असले निर्भय आनि मुक्त वातावरणांत कमला वाडलि. रक्तगत जावन आयिले हुशारकायिक, पूरक जावनु घरचे संस्कार आनी ट्रेनिंग्, व्यक्तिक मेळ्यारि, तसल्यालि मानसिक वाडि कशि उरता मण पोळोवचाक कमला उत्तम उदाहरण जावन आसा.

गिरिजाबायिकय् आवय् वारीचि, वाचुचि खुप आवड आसले तरि तिगलि आवड, धर्म आनि आध्यात्माकडेन नास्ताना, राजकारण आनि समाज-सुधारणे कडेन आसलि. लोकमान्य तिलकाले केसरि' ती कायम वाचतसलि. राष्टीयतेचे वळण आसले पत्रिका घराक हाडयतसलि. तिका अंधःश्रद्धा, जातक, पूजा, व्रतांतु विश्वासनासलो. खालि गप्पे, भेटाभेटि ति करनासल्यान कमलाय् तेचि शिस्तान वाडलि. तिका आवयन नेमान पत्रव्यवहार करचे शिकयले. प्रायेच चलियेक स्वातंत्र्य चळवळींत भाग घेंवचाक प्रोत्साह दिलो. कमलाने जैलांत आसतना, गिरिजाबायि पिकेटिंग् करत धुवेले काम मुखारसुन व्हरतालि.

कमलाले प्राथमिक शिक्षण कान्वेंटांत जाले. हे शिक्षणान शिस्तु मेळो. ताजान मनार, देहार संयम साध्यजाले. आंतरिक शक्ति वाडोवन घेंवचाक सहाय जाले म्हण् कमलालो अभिप्राय. येसुक्रिस्ताले जीवन आनि संदेशान ती प्रभावित जाल्लेलि. जाल्यार किरिस्तावानि करचे धर्मांतराचे विचार तिका मना गेलनाशिले. बा येवनु कोणकय् मोक्ष मेळना! स्वतः चे परिश्रम आनि त्यागाने चि मोक्ष साध्य! म्हळेले तीणे मस्त मुखारि कळन घेत्तिले सत्य जाले.

ब्रिटिशाले आनि मिशनरि जनांले प्रोत्साहाने हीं समलीं

कान्वेंट् चलतालिं. ते काळाचे इतिहासाचे पाठ, ब्रिटिशांगेलि साधना आनि भारताचे निंदेने भरन आसताले. घरांत आवयले राष्ट्राभिमानाचे शिक्षण आनि शाळेंत् ब्रिटिष् साम्राज्यशाहिचे परिच्यात्मक शिक्षण, दोनिचे विरुद्ध वलयांत कमलाले सानपणगेले.

पियानोरि पाश्चात्य संगीताचे पाठ आनि पद्म्हणचे तरबेत कमलाक् शाळेंत मेळ्यार, घरांत सारंगि वाद्य, थोडे ताळ, हिंदुस्तानि, कर्नाटक पद्धतिचे पद मणचे कमला शिकलि.

कमलालो बापाय्, अनंतय्या पुरोगामि, विचारवंत आसलो. बदलचे दिवसाचे गरजो ताणे लक्षांत दवरिले. त्या दिसांत बाय्लेले प्रगतिशील विचाराक ताणे फाटबल दिल्लेले. जाल्यारि तेदिसा क्रमावारीचि कमालाले लग्ना तागेलो लाग्गि दोस्ता चल्या सांगाति निश्चय बेग्गिचि करन सोडिले! सानपणांत कमलाक बापयलो मोग आनि कौतुकाय् मेळिली. घराचेभाय्र भित्तरि फिरत, कोटगे, गोदो बाजुक आसले शेत, फूलबाग सगळे कडेन फिरत, उपद्रव्" दित्त आसले धुवे बद्दल गिरिजाबायिन फिर्याद दिलयारी तो बापूय हासतालो. कमलागले सानपणांत आपण्याक समचि वळखतलो बापय् मात्र! म्हळलो विश्वास तिका बसून गेलेलो बशिलो.

जाल्यारि हे सुखा दिवसाक एकदं अंत्य आयले. अनंतय्या शीकपडलो आनि बेग्गिचि सरलो. त्या कालांत घरण्याचे मुखेल्याले मरण म्हळ्यारि, बायले सदस्याले, अस्तित्वाकचि भीकर मार बसतालो. अनंतय्याने वील (will) बरयले नासले. तशि जावन ताणे जोडिल्लि आनि पित्रार्जित आस्ति व ुचि पयले बाय्लेले चल्याक गेलि. राबचे घर मात्र गिरिजाबायिले वांट्याक आयले. शेत–भाताचे उत्पन्न बंद् जाले. गिरिजाबायि कुळारचान सुस्थितिंतु आसलि. तीणे बामणा सांगति श्रमान वाडयले आस्ति–निधि तांका मळ्नाशि जालि. बहुतेक हे निमित्तानेचि अतंत्र गिरिजाबायि, धुवेक 14 वर्सारिचि वरडिक करन दिंवचाक तयार जालि. व्हरेत नायंपळ्ळि कृष्णराव्, मंगळूरचे श्रीमंत घरण्याचे सुब्बराव् हागेलो चलो.

स्वतः बाल्य विवाहा विरूद्ध लडत आयिले महिळक धुवेले लग्न तित्ले सान वयार करन दिवका पडले! तिगेले संबंधिकानि तिगेले आस्ति चो थोडो भाग तिक्का मेळचे प्रयत्न केले. जाल्यारि तिगेले स्वाभिमानान आनि "बायलांक शिक्षणचि स्वावलंबन् दित्ता!" म्हळेले अखंड विश्वासान, तीणे आस्तिरि हक्कु जमांवचे प्रयत्न केलेना. चलियेक शिक्षण दिंवचे मुखारसिले.

मंगळूरचे दोन प्रतिष्ठित घराणे एकडे येंवचे साध्य जाल्लें. हे कमला–कृष्णाले वरडीक थाटार जाल्लेली खंय्! जाल्यारि लग्न जालेले वरस भित्तरि, कृष्ण नायंपळ्ळि, कमलाकिंता चारवर्सानि हॊड बाम्मण–चलो अंतरलो! अर्थात् बायल जांवचे फुडेचि, कमला विधवा जालि. गिरिजाबायिक आनी एक वज्राघात जालो. चलियॊक शिकवण तिगेले पायारि तीणे राबचे एकुचि उपाय साधसुंवचाक् कमलाक वापास् शाळेक धाडचाक सुरुवात केलि. गांवचे लॊकाले चेरे, टिंगल् कडेन लक्ष दिलेना. थोडेदीसानि सामाजिक जाग्रति जास्त जाली. जावका आसले कडेन वच्चो अवकाश आयलो. कमलागलि भयिणि सगुणाक मस्त आंगाक बरे नाजाले. तिगेले चिकित्सेक ति'ग आनि कमलाक घेवनु गिरिजाबाय् मद्रासाक गेली. तॆ वॆळार कमलान सीनियर् केंब्रिज् शाळापरीक्षा पास् केली.



अध्याय 2

# फुलचा लागले कमलःप्राय, लग्न, शिक्षण

श्गरिजाबायि, सगुणा कमला, धारेश्वर कुटुंबाचे तीगजण सदस्य मद्रास पावले. शिक्षणा शिवाय् कमलागेले विंगविंगड छंदाय्(हाबि) वाडोवन घेंवचाक हे महानगरांत मस्त वाव् मेळ्ळो. तिगेलो मावळो कल्ले नारायणराव्, प्रसिद्ध वकील. नंतर ला कालेजाजो पयलेचो भारतीय प्रिन्सिपाल जावन आसलो. राष्ट्रीय चळवळाचे कामांत क्रियाशील जावनु आसल्यान, तागेले घर, त्या कालाचे फुडारि लोकानि यंवचे, भेटचे, केंद्र जालेले. गोपालकृष्ण गोखले, सर् रामकृष्ण भंडारकर, रैट् आनेरबल् श्रीनिवास शस्त्रि, सर् नारायण चंदावरकर, जस्टीस् रानडे, तागेलि समाज सेविका बायल रमाबयि रानडे, तेज बहादुर सप्रु, सर् शंकरन् नायर्, आसले विंगविंगड प्रदेशाचे फुढार्यांक नारायणराव् आत्मीय दोस्त जावन आसलो. तशें जावन कमलाक तांका लागचान थावनु पोळोवुन सवय आसलो. देशाचो खबर्यो, आयकून उल्लोवन, रूढि आसलि. पयले पासुन वळखत आसलि आनिबेसेंट् आनि मार्गरेट् कसिन्स् हांगिलि कर्मभूमि मद्रास आसल्यान, तांणी करत आसले शिक्षण आनि समाज सेवेचे गाढ परिचय जाले. बायलां बद्दल तांणी करत आसले कार्यक्रमाक प्रत्यक्षदर्शि ती जालि. तिगेले अगदी आवडिचे नाटक आनि संगीत क्षेत्रांतु तरबेत सांगत भाग घेंवचो सदवकाश बी तिक्का मेळ्ळो.

क्वीन् मेरिस्, कालेजांतु कमला, भर्तिजालि. थंय् तिजे बरोबरि, नंतर भारत कोगिला म्हण प्रसिद्ध जालेली कवि, स्वातंत्र्य योधा, सरोजिनि नायडुलि भयणि सुहासिनि च ोपाध्याय शिकतालि. आनेक तिगलि भयण सोनिलिनियि थंय्चि शिकतालि. मद्रासचे सांस्कृतिक जीवनांत च ोपाध्याय कुटुंबाने, एक नमुन्याची क्रांतिचि हाडिलि. तांगेले बापयले नावाने बांदिले अधोर मंदिर' साहित्य,

संगीत, नाटक, भाषण हाजे व ़ प्रयोगशाला जावनु आशिले. हे विषयांत आवड आसले दारले, बायले हांगा मेळम आशिले. नवे प्रयोग पळयतसिले. विचार विनिमय करतसिले, प्रसिद्ध हिंदुस्थानि, कर्नाटकी आनि पाश्चात्य संगीताचे गवय् लोकांलि कचेरि थंय् जात्ताल्यो. एक पत्रिका सुद्धा ते भाय्र हाडताले. आक्सफर्ड् वचुन आयलि सरोजिनि नायडुलि दुसरि भैण मृणालिनि, ते मंदिर् (ताक्का क्लब्, सालून् म्हणुयी म्हणताले) चलयतालि. मंदिरांत चलचे सगळे कार्यक्रमांतु कमलान भाग घेवचाक सुरुकेले. आपले मनपसंदि हाबिंतु भाग घेंवचे अवकाश मेळ्ळेल्याक कमला खूष आसल्यार गिरिजाबायिक मंगळूरचे सांप्रदायिक वातावरणांतु धुवेक कश्शि शिक्षण दिवन मुखार हाडचे? म्हळेलि चिंता आसलि. ती चिंता धूर जालि. सगुणाकय् सम चिकित्सा मेळनु तिगेले आरोग्य सुधारचाक .लागले.

हरींद्रनाथ, च ेपाध्याय कुटुंबाचो एकळो भाव जावन, सगळ्यांगलो अपरूबायिचो आसलो. तागेलो होडभाव, विरेंद्रनाथ सानप्रायेरिचि इंग्लंडाक वचुनु भारताक स्वातंत्र्य मेळका म्हळेले क्रांतिकारि दळाक मेळ्ळेलो. ताका भरताक आयल्यार काळापाणि शिक्षा खंडित आसलि. तशि जावनु तो यूरोपांतुचि उरनु थंचानेच, देशसेवा, विंगड विंगड रूपान करतशिलो. विश्वसोशालिस्ट् पार्टिचो मेंबर आसलो. तेन्नाचे कम्युनिस्ट् आनि सोशालिस्टालें मद्दे आत्तांवारि कठिण मतभेद नासिलो. जगाचे मस्त इत्ले धीमंत लोकांक वीरेंद्रनाथ वैयक्तिक रूपान वळखतसिलो.

हरींद्रनाथ, बहुमुख प्रतिभावंत आसलो. कवि, भाषणकार, नट, नाटककार, संगीत संयोजक (Composer), स्वतः उत्तम गायक आनि दोन चार वाद्य वाजयतालो. आकर्षक व्यक्तित्व आसल्यान खंचेयि पात्रांतु बरे शोभतालो. उस्ताद् अब्दुल्ल करीं खानाले सांगति ताणे गायन केल्लिले. डा। अनिबेसेंटाने तागेले कवनाचे संग्रह उजवाडाक हाडिले.

च ोपाध्याय कुटुंबाचे सदस्य कमलाक लागिचे जाले. हरींद्रनाथ कमलागले सहजसौंदर्य, लावण्य, गांभिर्य आनि बुदवंतकाय्क भुलनु गेलो! ताणे तिजेरि सुंदर कविता बरोवन धाडचाक सुरुवात केलि. एका सार्वजनिक कार्यक्रमांत ताणे तागेलें कवन भावपूर्ण जावन वाचयत, कमला कडेन पळयत आसलें, म्हालगडे यादकरन घेतसले! मस्त इत्ले विषयांत कमलाले आनि हरींद्रनाथागले आवडी एकच आसलि. दोग्गय् लागि लागी आयले. दोगानि लग्न जांवचे ठरयलें.

गिरिजाबायिन पसलें हो संबंध मना घेतले नासलो! जाल्यारि हरींद्रनाथ हळबळि, मिलनसार, मनुष आसलो. दुसर्यांचेर छाप घालचि कला ताका सहज जावनु आयलि. गिरिजाबायि बी ताजान प्रभावित जालि. तीणे एकची कंडीशन् घालले. लग्न जालतकय्, कमलान शिक्षण मुखारसुवका म्हणु! ताणे मंगळूराक येवनु तांचि बरशि उरनु थंचे व्यवहार पोळोवन घेवका म्हण तिगलि मनीषा आसलि. हरींद्रनाथ ताका कबूल जालो.

कमलागेले फुळ्ळे मावाक खब्बरि पावलि. तो कमलागेले बाप्पालो खास दोस्त आसलो. कमलागेले पुनर् विवाहा बद्दल तागेलो आक्षेप नासलो. जाल्यारि चलो योग्यतावंत उरका म्हण तागेलो उद्देश आसलो. ताणे हरींद्रनाथाले वासपूस" घेतलो, तागेले फाटले चरित्र इत्यादि पत्तो लायलो. कमलादेविले स्वभाव आनि वळण, दोनिकय तो योग्य होरेत न्हय! म्हळेले अभिप्रायाक तो आयलो. ताणे कमलादेविकय् हे कळयलें. तीणे शिकचे कडेन लक्ष घालयरि विलायतेक पेटोवन खर्चु व ् पळोवन घेवचाक तो तयार आसलो. जाल्यार कमला कबूल जालिना. ते पर्यंत, ति ते घरचि प्रीतिचि सून, जावनु सलगेन आसलि. हे घटने नंतर तो संबंध उरलो ना!

लग्ना पयलें हरींद्रनाथाले दोन प्रणय प्रसंग आसले. तो कवि, भावनात्मक जीवि, आसल्यांगले दुर्बल क्षण उरतातिं! म्हळेले जाणीव गिरिजाबायिकय् आसली. तिगेले धुवेकय् आसली. व्हरडीक जायना पडे, जवाब्दारि पडनापडे, असले तरणे सुधारतात!" म्हळेलो सर्वजनालो विश्वास उरता! गिरिजाबायि आनि कमला हाका अपवाद न्हसिले!

कमलादेविंत आसले पक्वता(maturity: प्रौढिमा) गांभीर्य संयम, तिक्का पसंद करन आयले व्यक्तिंत नासले, जाल्यारि हरींद्रनाथागेले अपूर्व (पिलक्षण म्हळेले बरे!) प्रतिभेन तागेले ऊणीव व ॱ क्षुल्लक दिसले. अपरूपाचि जोडि!" म्हणु उरिल्यानि तारीफ केलि. आमि जोडिरि वत्तना, देवदूत वरेक जाळ पावताले!" म्हळेलो उद्गार हरींद्रनाथाने इंग्लेंडात काडिलो. देवदूतांक ससार करनाक् रे!" म्हण ते आयकलेले प्रसिद्ध कवि येट्साने सांगिले.

1919 इसवींत कमलादेविले 16 वर्स प्रायेरि हरींद्रनाथ च ोपाध्याया बरोबर सिविल रजिस्टर्ड लग जाले. दोनि कडचे मित्रांक हे नवीन युगाचे आदर्श लग्न आशि दिसले. च ोपाध्याय कुटुंब अत्यंत प्रगतिशील आसले. च ोपाध्याय कुटुंबाचे सदस्यानि हें लग्न खुशिन स्वागत केले. सरोजिनिने त्या कालाक, आपल्याकय् प्रायेन मस्त होड आसल्या डा। गोविंदराज् नायडु संगाति प्रेमविवाह करन घेत्तिले. लग्न जायना पडेनच, कमलाक कळ्ळे कि हरींद्रनाथाचेरि तागेले भयण्यांलो प्रभाव जोरदार आसा म्हणु! मुणालिनिने, हरींद्रनाथाक मंगळूर वचुन स्थायि जांवजाक सोडलेना! दोनि मैने भित्तरि तीणे ताका इंग्लेंड् उच्चशिक्षणाक धाडचि व्यवस्था केलि. हो विषयु कमलाक सांगले वरेक ना! वच्चि तयारि सुरु करना पडेनचि तिक्का कळ्ळे. ताणे इंग्लेंड् वचनापडेन्, कमला कडेन तागेले घरचानि आसक्ति दाकयलि ना! ति वापास् मंगळूर आयलि.

एक विषयांत गिरिजाबायिक अधैर्य वाडत आसले. तें म्हळ्यारि, हरींद्रनाथ लहरी मनुष आशिलो! षोकिचे जीवन ताका खुप आवडताले. आनि ते बाबतिंत पाळका जाले नेम निष्ठा तो केर् करना जालो!

मंगळूर आयले थोड दीसानि सगुणाले निधन जाले. तिगेलो बाम्मण मद्यपान करतालो. बायलेक हीन करन पळयतालो. हे दोन विषयान कमला मस्त बेजारतालि. तिगेले जीवनांत बी दारु पिंवचे, ताजान दुःखाचे प्रसंग एत्तले, म्हळ्ळं सोळावर्सा चलियेक येवजुन घेवचाक तेदना साध्य नासले!

गांधीजिन सत्याग्रह आनि अहिंसात्मक रीतिने कायदो भंग करचि चळवळ् सुरु केल्लिलि. 1919 वे वर्साचे एप्रिल् स तारीखेक मुंबैत, ती चळवळ् सुरुजांवचि आसलि. किशोरि कमलाक, क्रांति" चो विचार लाग्गिचो आसुन सत्याग्रहांतु विश्वास नासले जाल्यार आश्चर्य ना! जाल्यारि Human Dynamo" म्हण प्रसिद्ध आसले, लक्षलोकांक आपणाले उत्रान मोडि करतले मनुषाक पळोंवचे ति'ग मस्त उमेद आशिलि. सरोजिनि नायडुन तिका गांधीलि भेटि करयता मणु सांगिले. फुळ्ळे दीसु, चौपाटीरि असंख्य मात्या पेल्यान पळयलो सानुचि व्यक्तिक हेरदीसु, लागीचान पोळोवचो अवकाश तिक्का मेळ्ळो.

गांधीगेले आंतंक बल, तागेले व्यक्तित्वांत स्पष्ट दिसताले. तिक्का तागेले दोळ्यांत करूणा उठुन दिसतालि. दया, माया, करुणा म्हळेले शब्द जीवनांतल्याने माय् जावन गेल्यात! म्हण तिका ते पर्यंत दिसताले. तिगेले दृष्टिंत हे गुणची, एक मनुषाक उत्तम करताले. हांगा एक व्यक्तिले आचार, विचार उत्रं, सबंद व्यक्तित्वांतु तीणे पारदर्शक रीतिन तें पळयले. पयले फंताक तीणे गांधीजिले भाषण आयकले. तागेले शब्ध सावकाश, जाल्यारि बलिष्ठ जावनु भायर पडतसले. तागेले विचार इत्ले खचित उरताले

कि, ताणे बरे रिहर्सल् कर्न उलेयत आसचीं उत्र हीं! आशिं भास जाताले. भारतींया वयर बापुने घालेलि मोडि कसलि, म्हण तिका जाणीव जाले. त्या सभेंत सगळ्यानि, स्वदेशी सामान वापरका! म्हण प्रतिज्ञा करकासलि. समाजाचे एकते खातिर, अहिंसा पालसुवचे खातिर, बि शपथ घेवकासले. जमिले सान संख्ये जनान व ़ ं शपथ घेंतले. हरताळ सुरुजाले. गांधिजिलि असहकार चळवळ अगदि शांतस्वरूपाचि आसले तरि ब्रिटिश् भिले! हिंद् स्वराज्' म्हण गांधिने बरयले बूक आनि रस्किन् कविले unto this last म्हळेले पुस्तकाचे गुजराथि भाषांतर, दोनि राजद्रोहि' कृति म्हणु ताणिं ठरयले! कमलाक हो मजेचो विचार जालो. तीणे ही दोन पुस्तक शक्य तितले विकुन काडलि. विकतना तुका जैल जात्तले, अरेस्ट् खात्रि!" म्हण सांगत गेलि. कोणि केर् केलेना. इतलें न्हय किशांत आसले तितले पैसे दीवन, जास्तच संख्येन पुस्तक खरीद करन लोकानि वांटुन तिका पैसे मेळोवन दिले!

जाल्यारि, हे निमित्ताने थोडे लोकांत ब्रिटिशा विरुद्ध खतखतत आसलो राग, भायर पडचाक अवकाश जालो. चड लोकांक देशांत कित्ते जायत आसा? म्हळेले बद्दल जागृति जालि. शांत जावन चलचे मीटिंग् अथवा सभेरि, घो ार पोलिसान येवनु एकदं धांवडावचे, लाठीन मारचे तेन्नाचान सुरुजाले. जलियन् वाला बागाचे दुरंत, तेन्नाचि घडलें. पंजाबाचान दूर आसले मुंबयि आनि दक्षिणे मदरास वरेक ताजि कराळ छाया पसरसुन गेलि.

ते वेळारि, गांधीन साधसुयेले संयम, आनि ताज्नान केले संतप्त जनाले, नियंत्रण, भारताचा स्वातंत्र्य झुजांत उज्जल उदाहरण जावनु उरले. अहिंसात्मक रूपनेचि हिंसात्मक ब्रिटिश् सत्तो एदरसुवंचो प्रकार जारिजालो! असहकार चळवळ सुरुजालि. वकीलानि प्रेक्टीस् सोडुन दिले. शिकतले तरणाट्यानी स्कूल–कालेज सोडले. कित्लेकी जनानि सरकारि नौकरि सोणदिलि.

चळवळींत सक्रिय भाग घेंवचाक कमलागेलो जीव चडपडतालो. तिगेले सानप्राय (16 वर्स) आड आयले! तीणे सूत काडचे, विणचे चळवळि विषयांत ल्हान नाटकां बरोवन, खेळवचांतु समाधान पावका जाले.

तेन्नाचान कमलागेले सार्वजनिक जीवनारि जालेलो गांधीजिलो प्रभाव, शेवट पर्यंत उरलो. स्वातंत्र्य मेळनापुडेन पार्टि सोडलि. सक्रिय राजकारणाचान दूर उरलि. जाल्यार गांधिजीगेले रचनात्मक विचाराक, आपणाले स्वंतिकेन, तीणे कित्लेक जीवंत रूप दिलें, म्हळेले नंतर आमि पळयतले. भैणिले मरण, बामणालि विदेशयात्रा आंनि मंगळूरचे जनाले दूर करचे स्वभावान कमलाने आपणेय् मुखावेले शिक्षणाक विलायतेक वच्चे ठरयले. आवय्नेय् तिक्का पूर्ण फाटबल दिले. आशिले भांगार व ॖ विक्कुनु कमलाने विकायताक आशिले वच्चाक तिकीट खरीदि केले मण कळनु एता!

इंग्लेंड् वचनापडे, आपले आवडिचे नाटक आनि संगीत क्षेत्रांतु तरबेति घेंवचे म्हणु तिगेलो पैलेचो विचार आसलो. जाल्यारि गांधिले प्रभावान तीणे सामाजिक कार्यकर्ता (सोशियल् वर्कर्) जांवका मण ठरयले. आनि हाक्का उपयुक्त आशिले विषयांतु अभ्यास करचे खातिर तीणे दुसदुसरे संस्थेक भेंटि दिलि. त्या दीसांतु सामाजिक विषयाचे अध्ययनांतु, क्लासरूमाचे लेक्चराकय् क्षेत्रकार्य(फील्ड् वर्क) चड मुख्य आसले. तशि करन, ती लंडन्चे बेड्फर्ड् कालेजाक, डिप्लोम इन् सोशियालाजि' कोर्साक भर्तिजालि. जाल्यारि कालेजाचि प्रिन्सिपाल् मिस् ल्यूक् म्हळिलि, भारि स्ट्रिक्ट् आसलि. तीणे तिक्का हे तरबेतिंतु येंवचे अडथळ सांगले. तांतु भितर भारतीयालो विचित्रवेष (कापड नेसण), ईस्ट् एंड् चे जनाक तमाषे विचार जात्तलो!" म्हणाली ती (ईस्ट् एंड्, लंडन्चे गरीबाले वसतिकेंद्र जावनु आसले.) कमलान इंग्लिष्

नमून्या ड्रेस् करत जाल्यार मात्र, प्रवेश दिवका! मळलो तिगेलो उद्देश आसलो.

कमला बागवलिना! चेर्डुंव तुका तवरसुन घेवन एत्तलि! सदाय्, ताळि पेटुन, हूट् करतलि!" प्रिन्सिपालान भिसटायले.

कमला म्हणालि, पयलेचे दोनचार दीस् हासतले. चिडायतले! सद्दा वतलेक कितले दीस् हूट् करतले? हांव थंय् वचाक तयार आस!"

हाजे मुखार मिस् ल्यूक उलयलिना. मौनची तिगलि कबूलि म्हणु समजुनु कमला मुखारसलि. तिका प्रवेश मेळो! नंतर कोर्स् पूर्णकेलो. ब्रिटिशाले भारताचे शोषण्चेचे प्रकार भारतांत, तीणे पळयिले, हांगा, तांगेलेचि देशांत गरीबाले वळवळे, प्रत्यक्ष चोयले.

1922 वर्सांत कमला हरींद्रनाथाले बरशि यूरोप व ु फिरन आयलि. तिगेलो भाय्यो प्रसिद्ध क्रांतिकारि, वीरेंद्रनाथ इंग्लंड्चान गडिपार जावन बर्लिनांत आसलो. तागेले व्यापक वाचन आनि मौलिक विचारवंतिकेचो कमलार खूप प्रभाव जालो. जन्मभूमि भारताक येंवचाक तो चडपडतालो ते, कडेर्कय् ताका साध्य जालेना! वेगवेगळे यूरोपाचे देश फिरन कमलादेवि दंपति, वापस भारताक आयलि. तांगेलो एकळो पूतु 1923 वर्सांत जल्मलो. तांका दोगाकय् पूज्य आसलो श्री रामकृष्ण परमहंसाले नांव ताका दवरले. राम् म्हणुचि ताका सगळ्यानि वळखले.



अध्याय 3

# सॆविकाले शपथः सॆवाक्षेत्रांतु प्रवॆश

राजकीय क्षेत्रांतु कमलादॆविलो प्रवॆश जाल्लो ते एक सॆविका अथवा सेवाव्रति' हे नेवनान. तिगेले उतरांतु हे घटनेचे उडगास आयकुंवया. इंग्लंडचान वापस मंगळूर आयले, तेन्ना थंयीचि, स्थायि जांवचे विचारांतु आसलि.

1924 वर्साचे पावसाडिदीस. मा'ग तापयेवनु, निद्दुनु, भलायकी सुधारसुनु घेत्त आसलि. एक दनपारा, माका भेटचाक एक महिळा अनि एक गृहस्थ आयलात म्हणु कळे. दोगयि, हुबळिचान आयिले. महिळा उमाबायि कुंदापुर आसलि. मध्यम गात्राचि, चकचकि दोळ्याचि, झळझळि, गोरे रंगाचि रूपवंत बाय्ल, कायं मंदहास तोंडारि, आनि सद्गृहस्थ आसलो डा। एन्.एस्.हर्डीकर्. हिंदूस्थान सॆवादल (एच्.एस्.डि) म्हळेले ताणे स्थापन केल्लेले सॆवासंस्थेचो मुख्यस्थ. ते वर्साचे अखॆरक बेळगांवांत, अखिल भारत कांग्रेस चे अधिवेशन जांवचे आसले. महात्मागांधिन अध्यक्ष जांवचे, ठरलेले! हे बृहत् सभेक काम करतले वालंटियर् जन, हॊड प्रमाणार जायसले. तांका भर्तिकरचाक हे दोग्गयि गौरवान्वित व्यक्ति, घोळत आसले.

ही भॆट मेगेले जीवनांत महत्वाचे बदलावण हाडतलि म्हण तेन्ना माका कळेना! ताणे आयले उद्देश कळचे भितरि, हांव खुद् वालंटियर् जांवचाक तयारजालि. उमाबायि, तिगेले मंदहासान म्हणालि. कांग्रेस् वालंटियराले जीवन भॊ कष्टदायक! तुका जमचे नय्. क्यांप् जीवन मळेले, सर्वथरेचे अनानुकूलाने भरिले उरता! घरची एकय् सॊय् तुका मेळसरना! कठिण शिस्ताचे जीवन. तुगेले सहाय दुसरे खंचेय् रीतिनॆ विचारचाक आयल्याति!" हांवे तिगेले उत्तर आयकलेना! वालंटियर् म्हण हांवे नाव दीवन भर्ति जालि".

आनेकळो आगंतुक तिजे बरोबर थय् आयिलो, डा। नारायण सुब्बराव् हर्डिकर्(1889–1975) चौदावर्सांचे सानप्रायेरिचि देशसेवेचि प्रतिज्ञा केल्लेलो अत्यंत धीर व्यक्ति आसलो. अमेरिकेंतु वैद्यकीय शिक्कुनु, त्या दीसांत थंय् आसले लाला लजपतराया बरोबर काम करत, वापास भारताक येनापडेन, गांधीजिले प्रभावांतु आयलो.सत्याग्रहि लोकांक, अहिंसात्मक रूपाने, पोलिसाले कठिण मार, क्रौर्य, सहन करचाक, विशेष तरबेतिचि गरज आसलि. संयम आनि शिस्तु नित्य जीवनांतु रूढसुनु घेत्तिले, बरे वालंटइयर् जात्ताति! म्हण होड प्रमाणारि, वालंटियर् जनांक तो भर्तिकरन ट्रेनिंग् दित्तालो. 1921 चेवर्स, स्थापन जालेले तागेले हिंदुस्थानि सेवादल' देश भरि आसले वालंटियर् लोकांक शिबिर करन तयार करत आसले.

बेळगांवांत जमिले भारतीय राष्ट्रीय कांग्रेसाचे महाअधिवेशन, मस्त दृष्टिने ऐतिहासिक घटना जावन उरलि. फकत् एक पावटी गांधीजिने कांग्रेस् अधिवेशनाचो अध्यक्ष म्हण कामकेले. ते हे अधिवेशना नंतरचे एकवर्ष मात्र! दक्षिण भारतांतु हिंदिभाषेचो प्रचार, खादि, स्वदेशि धरन उरिले विधायक कार्यक्रमाचे गंभीरपणान सुरुवात जालि, ते अधिवेशनान. आताचे कर्नाटक राज्य म्हळेले तेना, पांचप्रदेशांत वांटुनु गेल्लेले. कन्नड प्रदेश भेद माननास्ताना, पांचय प्रदेशाचे देशप्रेमि आनि साहसि लोकांक व ˉ करन हाडले. अधिवेशना रात्रि, मनरंजनेचे कार्यक्रमांत मैसूर राज्याचे प्रसिद्ध कलाविदांक हाडुनु कार्यक्रम करयले. मुख्य जावनु पयले खेपेक, बायले वालंटियरानि, होड प्रमाणारि एकत्रित्र जावन सर्वथरेचे, कष्टाचे कार्यक्रमांतु भाग घेत्तिले. तांगेले निष्ठेचे काम गांधीजिले लक्षाक गेले. मुक्ताय समारंभात गांधीजिन सांगले, मेगेले पैलेचे चारि अधिवेशनाचे अनुभवाने हांव सांगु शकता कि, बेळगांवचे अधिवेशनांत, स्वयं सेविका दळाने, शिस्ताने, मनःपूर्वक दीसाक 16 तास पर्यंत राबुन, फिरन केल्लेले कामाने विक्रम स्थापनकेला!

आसले दक्ष टीमाक योग्य तरबेति दिल्यार स्वराज्य बेगीन मेळचाक साध्यजातले!"

डा। हर्डिकराले सेवादलचे ट्रेनिंग्, बद्दचि कठिण आनि भर्ति त्रासाचे आशिले. सारणि आनि कोय्र भोरचे चोबेनचि कमलागलि सेवा सुरुजालि. ते बद्दल तिका अभिमान बगेन चडचि आसलो! मंगळूरचे, करावळिचो शेको अभ्यास आसले नाजूक जावनु वाडले चलियेक, बेळगांवचे, डिसेंबर मैन्याचे शीं, थंड उदका न्हाण, कडकडावनु दित्ताले. अधिवेशनाक दूरदूर चान एत्तले, सदस्यांक व ु चि, रात्रि, मध्यरात्रि, शियांत जागि उरनु, स्वागत करनु, तांगिले ठिकाण्यारि व्हरन पावोंकासले. दळाचे कठिण व्यायाम, फाल्यावयलि प्रभातफेरि, आनि खूत वेळ जागि उरन कामकरचे तिका सवय् जालि.

वालंटियर् जनांक व ु चि काळेरंगचे, त्रिरंगि (झेंडा कलराचे) बार्डराचे पत्तलं युनिफार्म आसलिं. एकळ्यानि वत्तस्तना हो कलर कांय् दिसनासलो. जाल्यारि शंबरगट्ले वालंटियर् लोकानि एत्तस्तना शोकप्रदर्शनाक भायर सरिल्यावरि कमलादेविक दिस्तशिले! 1927 चे वर्स, तिक्का मद्रास अधिवेशना वेळार वालंटियर् टीमाचि मुखेल् म्हण नियुक्त केलेले. तीणे काळेरंगा बदलाक केसरि रंगाचे पत्तल, प्रचाराक हाडले आरेंज् ब्रिगेड्" म्हणुचि कित्येक वर्स हे दळाक नाव बसले.

थोडे वर्सानि तिका युरोपाक वच्चो प्रसंग आयलो. तेन्ना ध्वजारंगाचे कापडा बदलाक, कापडानेर्ि ध्वज निर्माण जाल्लेले जमत्कार तिगेले हात्तान धडलो! बर्लिन् (जर्मनि) नगरांत, अंतराष्ट्रीय महिळा संपर्क समावेश (इंटर् न्याषनल् आलैयन्स् फार् वुमेन्) जमिले. भारताचि प्रतिनिधी जावन अखिल भारत बायलांले कान्फरेन्स् (ए.ऐ.डब्ल्यु.सि.) वतिन अध्यक्ष सरोजिनि नायडु, प्रधान कार्यदर्शि कमलादेवि, आनि दोनचारं प्रतिनिधि पाविलिं. थंयि कमलादेविक भाधीलो, राष्ट्रध्वजाचो अभाव! ब्रिटिशांगले यूनियन्

जाक्" चि भारताक, ते संघटकानि दिल्लेलो. हे गुलामगिरि संकेतान कमलादेवि चिडलि. जाल्यारि त्रिरंत झेंडा हानि बि, व्हेले नासले. रातोरात भारताचे टीमाने, आपल्यालि ऊंचि केसरि, धंवे आनि पाचवे रंगाचि कापड भायर काडलिं, कातरलिं आनि त्रिरंगि झेंडा तयारकेलो. हेरदिसु उगतावणे वेळारि भारताचो त्रिरंगि झेंडा, वार्यान फडफडतना, थंय् पाविले बायले दारल्याले मन अभिमानान भरुन गेल्लेले, खूप वर्सानंतर कमलादेविन यादकरन घेत्तिले आसा.

कमलादेविलि सौंदर्यप्रज्ञा आनि देशाभिमान कायं मेळुन कामकेल्लेले नंतरचे वर्सांत सपष्ट जातेरि गेले.

हे दीसांत मार्गरिट् कसिन्स् (ग्रेटा) लो प्रभाव, कमलादेविरि मस्त जालो. आयर्ल्यांडांत जल्मलि. ग्रेटा (1878–1954), डा। अनिबेसेंटावरेचि, थियोसोफिकल् सोसायटिचे तत्वानि आकर्षित जावन भारताक आयलि. तीणे आनि तिगेलो पति जेम्स् कसिन्स् हाणे भारताक दिलेले सामाजिक सेवेचे लेकना! दोग्गय, शिक्षण क्षेत्राक समर्पित जावन, कडेर पर्यंत घोळत भारतांतूचि अंतलिं.

ग्रेटाक संगीत, नाटकाचि भारि आवड. तीणे संगीतांत डाब्लिनचे रायल् युनिवर्सिटिची डिग्रि घेतिले. ऐरिष् बायलांक स्वातंत्र्य आनि मतदानाचे हक्का खातिर ती भारताक येवचे फुडधरन, लडत आसलि. समान रूपाचे आवड आनि विचारशीलतेने कमलादेवि आनि ग्रेटा लागि आयलि. अनिबेसेंटान सुरुकेल्ले राष्ट्रीय शिक्षण चळवळिंत (न्याषनल् एजुकेषन् मूव्मेंट्) ग्रेटा कामकरत आसलि. हे संस्थेचे मंगळूरांत प्रारंभ जालेले चलियांगले स्कूलाचे मुख्यस्थ म्हणु ति आयलि. गिरिजाबायि आनि कमलादेविक ती बेग्गिचि आत्मीय मैत्रिण जालि. मद्रासांतुले संस्थाय् ग्रेटा पोळोवन घेत्तालि.

एकदीसु ग्रेटा, गडबडिन आयलि, आनि कमलादेविक नवीन

जवाब्दारि वहिसुवन घेवचाक आग्रह करचाक लागलि. 1926 चे वर्साचे आखेरिक मद्रास् लेजिस्लेटिव् एसेंब्लिने बायला खातिर एक जागो घोषित केलो. राजकारणांतु प्रतिनिधीत्व जाय् म्हणु थोडे बायलो, देशभर चळवळ करत आसलो. हो अनिरिक्षित अवकाश सोडुन दिवचाक ना! म्हण ग्रेटा ते जाग्याक कमलादेविक राबोवचाक अवसरान आयलि. कमलादेविक अजिबात् हे हुद्द्याचे आकर्षण नासले. जाल्यारि ग्रेटान सोडले ना! देशसेवेक, मुख्य जावन बायलाले बरपणाक, उत्तम आरंभ दित्ता, हो अवकाश!" म्हण तीणे सांगुन सांगुन तिका तयार केले. एसेंब्लि सदस्य जात्तल्यांक, स्थळीय जावन थोडि आस्ति उरचे अवश्य आसले. अवसरान थोडो जागो बि खरीदलो.

खुद्द, ग्रेटान स्वयं सेवकांक तयार केले. घरोंनघरा वचुन प्रचार करची व्यवस्था केलि. प्रतिदीस संगीत आनि मनरंजनेचे कार्यक्रम जात्ताले. नीद काडत आसलो मंगळूर गांव, बायलांले हे दीस रातिचे हल्चलान उठुन बसलो! सुंदर जावनु डिसैन् केल्लेले नीलिब्याज् घालन घेवन स्वयं सेविकानि, फिरत प्रचारकरचे, ताजा खबर" जावनगेलि! सगळे देशांतूचि, सानप्रायेचि एक बायल, पयले खेपक एसेंब्लि इलेक्षन् हाका, स्पर्धा करत आसलि! तिक्का मेळ्ळेलो समय भोचि ऊणे आसलो.

फकत् एक्कावन(51) वोटानि कमला हरलि. हे सीटा प्राप्ति खातिर कमलान आशा, दवरिलि नासलि. ग्रेटाले अग्रहान ती राबिलि. ग्रेटा मात्र खूप बेजारलि. कमलाक हे घतनेन व्यवस्थित संघटने चो फायदो, लक्षांत आयलो. राजकारण क्षेत्रांतुले विश्वासद्रोह, आनि आत्मविश्वास कुंठित करचे विविध उपाय एदर्सुवचेद प्रत्यक्ष अनुभव तिका जाले. सक्रिय राजकारणा बद्दल तिगेलि शीण, वाडचाक हे एसेंब्लि इलेक्षन्चे घटना मस्त रीतीन कारण जालि. स्वयंसेविका उऊरनुचि कित्लेक काम करचाक साध्य आसा! म्हळ्ळा तिगलो विश्वास होंड आसलो. तिक्का बेग्गिचि कांग्रेस्

पार्टिन ए.ऐ.सि.सि.ची सदस्या केलि.  ते दीसांत असले हुद्द्याक कांयी स्पर्धा नासलि! म्हाका सदस्य जांवचाक कांय् आतंक आयलो ना" म्हण निरंकारि स्वभावाचि कमला सांगता. कांग्रेसांतुचि सोश्यलिस्टाले एक टीम् आसले. असहकार चळवळ सुरुजायसर कमला, हे टीमाचि (इंडियन् सोशलिस्ट कान्फरेन्स) मद्रास शाखेचि कार्यदर्शि जावन कामकरत उरलि. ग्रेटाकय्, बायलाले शिक्षण आनि इतर सवलत दिंवचे खातिर कामकरचाक सहाय करतालि.

हे कामाक, आनि ते पर्यंत रूपित जालेले विमेन्स् कान्फरान्साचे जवाब्दारि निमित्ताने, तिका वयर वयरि दिल्लिक वच्चे संदर्भ एताले. राबचाक तिक्का डा। एम्.आर् जयकरान आत्ताचे पार्लिमेंट् हौस् (लोकसभा) लाग्गिचे एसेंब्लि सदस्याले हास्टेलांत राबचाक व्यवस्था केलि. तेना एक ऐतिहासिक घटना, कमलाक राजकीय क्रौर्याचे प्रत्यक्षदर्शि जांवचि-घटना घडलि!

1929 वर्साचे एप्रिल् 8 तारीक. ते दीसु सेंट्रल् एसेंब्लि (आत्ताचे पार्लिमेंटावारि, ब्रिटिश् कालाचे प्रातिनिधिक सभां)तु पब्लिक् सेफ्टिबिल्' हाजेरि चर्चा जांवचि आसलि. त्या वेळारि जांवचि चर्चा आयकुंवचाक मुक्त आसले प्रेक्षकाले ग्यालरिक, कमला वचगेलि, एक जागो, मुकारी खालि आसले कडेन वचुन बसलि. तिजे एदराक एक अत्यंत सुरूपि, आकर्षक व्यक्ति राबिलो. ताका एसेंब्लिंतु चलन आसले चर्चेंतु लक्ष नासले. कसले कि खातिर राकत तो चडपडत आसलो, म्हळेले कमलादिविले नजरेक आयले.

एकदं  ढं!' मळेलो होड आवाज आयलो! एसेंब्लि हालांतु जोरान धुवरु सुटलो. करपत्राचो पावसु चारिवाटेन पडलो. थंय राबिलो आकर्षक व्यक्ति सरदार भगत् सिंग् आसलो. ताणे बांब् उडयलिले!

ते बांबान तेन्नाचे अर्थमंत्रि, सेक्रेटरि आनि तीगजण सदस्यांक घाय जाले. एसेंब्लि हालांतुले फर्निचर चूर चूर जावन गेले.

सेक्युरिटि स्टाफ् आनि पोलिस् एकदं प्रत्यक्ष जाले. एसेंब्लिचे पूराय बागलद्वार, प्रवेशद्वार सहित बंद करन सोडलि. कोणाकय् भायर सोड्लेना. पर्मिट् कार्ड नासले कमलाक एक बाजुक राबयले. पुण्याक तिका आपुन हाडिलो ड्रैवर् भायर आसलो. ताणे तुरंत वचुन तागेले यजमान जावन आसले डा। जयकराले (असेब्लि मेंबरागले) पत्र हाडचे प्रसंगावधन दाकयले. ही महिळा स्वयं सेविका! दंगेकोर स्वभावचि न्हय्! तिगेले वर्तनेक हांव ग्यारंटि राबता" म्हळेले आश्वासन ते पत्रांत आसले. न्हय जाल्यार खंडित परवानगि नाशि भितर येवन बांब् उडयले विद्रोहिलागि बशिलेक विश्वास करचे कशि? ग्यारंटी? तिका जैलाक धाडतशिले! परत एत्तना, बांब् उडोवन, धावन वचनाशि बंधित जालो भगतसिंग्, तागेले असीम धैर्रा आनि त्याग, आनि खुद् आपण्याले अधैर्य, हाज्जे परत परत उडगास करन घेत्तचि कमलादेवि उरलि.

भगत् सिंगाले बलिदान, भारताचे स्वातंत्र्य संग्रमाचे इतिहासांतु, एक उज्वल अध्याय जावनु उरला. तेन्ना देशाचि परिस्थिति, तरणे जनांक हातकरन आपयत आसलि. वेगवेगळे प्रदेशाचे तरुण–आनि तरुणि जन, शस्त्रास्त्र रूपान ब्रिटिशांगले दमन नीति, प्रतिभटन करत आसले. थोडे जैलांत कुसताले. सुमार लोकाक फाशि शिक्षा जालि. भगत् सिंगाकयि फाशि शिक्षा जालि. तागेलि ही शिक्षा चुक्कवचाक कांग्रेस् पार्टिन, गांधीजिन कांय् प्रयत्न केले ना! म्हळेलि कमलादेविलि समजूत आसलि.

भगत् सिंगाचेरि पोलिस् आफिसर् सोंडर्स् म्हळेल्याक मार्नघातिलो गुन्हो आसलो. एसेंब्लित बांब् उडयले आपादन आसले. कमलादेविले दृष्टिन भगत् सिंग् विचारशील क्रांतिकारि आसल्यान ताका मरणशिक्षा दिवचाना! म्हण आसले. ताजेरि

अनेक विश्वास करचाक साध्य नाशिलो, अपराध धाखल जालेलो! आफघनिस्तानाचे अमिरा बरोबर शामिल जावनु, ब्रिटिशांक पाडोंवचे कारस्थान ताणे केला म्हळेले घोर आपादन! ही खबर लंडनचा पत्रिकेंतु व ॖं छापिले. पत्रिके विरुद्ध कमलादेविन आनि इतरानि दिल्लेले नॉटिस्, तांका पावनाशि सरकारान व्यवस्था केलि!

भगत् सिंगान एसेंब्लिंत् उडयिले, करपत्राचि प्रति कमलादेविन वेंचुन दवरिलि. सेंट्रल् एसेंब्लिचे ठराव् व ॖं वंचनेने भरल्याति! पोळ्ळु आश्वासनेन जनांक ब्रिटिश् नागेयताति म्हळेलो संदेश तांतु आसलो.

भगत् सिंगाले प्रकरणांतु कांग्रेसान सक्रिय आस्था घेवनु मरणदंडना रद्द करका. हे विषयांत अलक्ष(डिस्असोसियेषन्) बराबर ना!" म्हळेले ठराव हाडचे कमलादेविन निर्धार केलो. ती तेन्ना अखिलभारत कांग्रेस् कमिटिचि संदस्य आसलि. दुसरे दीस कमीटीची सभा जांवची आसली ताजो अध्यक्ष, जवाहरलाल नेहरु आसलो.

आचार्य कृपालानि हे विषयारि तिगेल्यागी उल्लोवचाक आयलो. तांचांतु परस्पर समजूत आनि विश्वास मजबूत आसले. तुगेले ठरावा बद्दल नूं सीरियस् आसकी? म्हणु ताणे विचारले. कमलादेविने व्हय! म्हळे. तेन्ना होड श्वास काडुन तो म्हणालो. गांधीजिन हे विषयांतु कित्ले प्रयत्न केला म्हण तुका गोत्त आसकि नाकि! वैस्रायाक मेळनु ताणे भगत्सिंगाक वांचोवचाक विशेश प्रयत्न केला. ताणे उल्लोवचाक गेल्लेले विषय अगदि वेगळे आसले तरि, ताका समजावचाक सर्व थरेन प्रयत्न करन हरला. आत्त तुंवे भगत्सिंगाक कांग्रेसान लेफ्ट ह्यांडेड् ट्रिबुय्ट् दिला!" म्हळेलो ठराव हाडल्यारि, बापुजिक मस्त मन दुकतले!"

हो विषय कमलादेविक खबर नासलो! गांधीजि असलो अहिंसावादि, हिंसेचे खंचेय् रूप खंडन करतलो. खूनि केल्लेले

आपादना आसले, भगत्सिंगागेलि फाशिशिक्षा चुकोवचाक सर्व प्रयत्न करनूयि हरलो. तशि आसताना, आपणाले प्रयत्न बालिश म्हणु तिका दिसले. पंडित नेहरूने वेदिकरि वच्चेफुडे, ठराव् हाड्ता कि? म्हणु विचारले. तीणे ना!" म्हळेले अर्थान मात्ते हालयले.

वालंटियर् म्हणुचि कांग्रेस् पार्टिंतु कमलादेवि कामकरत उरलि. सांगातिचि बायलालि सामाजिक स्थिति सुधारचाक काम करत आसले वेगवेगळे संस्थे बरोबरि तिगेलो निकट संदर्भ आसलो. पुणेंत असले विषयांतु जनजागृति जोर आसलि. पंडिता रमाबायि सरस्वति (1858–1922) म्हळेले एक अप्रतिम विदुषिन 1890 वर्सांतूचि शारदा सदन' संस्था स्थापन केलेले. तरणे विधवा आनि दुसरे अनाथ बायलांक बि, शिक्षण दिवनु स्वावलंबि करचो उद्देश संस्थेक आसलो. रमाबायि रानडे (1862–1924). हीणे बि, तिगेलो बाम्मण न्यायमूर्ति रानडेगले सक्रिय फाटबलान सेवासदन' म्हळेलि संस्था स्थापन केलेलि. विधवा, तिरस्कृत आनि अनाथ बायलांक थंय अश्रय मेळताले. दोग्गय् रमाबायिंगले आत्मीय परिचय, गिरिजाबायिक आनि कमलादेविक आसले.

ग्रेटाने बि, शारदासदन' म्हळेले आश्रय आनि शिक्षण दिंवचि संस्था मद्रासांतु बांदिल्लि. कमलादेवि तिज्जे बरशि काम करत आसलि. सार्वजनिक जीवनाचो अत्यवश्य भाग जावन आसले भाषणकला, कमलाने रूढसुन घेतिल्लि. हे विषयांत, डा. आनिबेसेंट् तिका आदर्श जावनु आसलि. नंतर अनरेबल् श्रीनिवास शास्त्रि. (1869–1946) श्रीनिवास शास्त्रि ते काळाचो लोकप्रसिद्ध वाग्मि आसलो. ब्रिटिश् लोकानि अजाप! जायसरि, इंग्लिष् भाषेरि तागेले प्रभुत्व आसले. गोखले सार्वजनिक संस्थे तपफेन देशसेवा, स्वराज्य, स्वावलंबन, आसले विषयारि तो सार्वजनिक भाषण दित्तेरि देश, विदेश यात्रा करत उरतालो.

एक संदर्भारि, सिल्वर् टंग्ड् श्रीनिवास शास्त्रि" म्हणुचि प्रसिद्ध आसले शास्त्रीन आपले भाषणा वेळारि कमलादेविक बि, उल्लोवचाक सांगले – तेंवयि पूर्व तयारि नास्ताना! तेन्ना वीसॆक वर्साचि कमला नर्वस् जालि तरि, आपणाक गोत्तशिले 'बायलांगले प्रगति' म्हळेले विषयारि उल्लयलि. जमिले लॊकानि जोरान ताळिपेटलि. हेरदीस पत्रिकेंतु, तिगेली प्रशंसा आयलि. शी केम्, शी स्पोक्, शी कांकर्ड्, म्हळेले शीर्षिकेंतु तिगेले भाषण कौशलाचि वरदि आयलि. विचाराचि स्पष्टता आनि तरणे प्रायेचे इंग्लिष् भाषेचो समर्पक उपयॊग तिक्का साधसुयलो. तिगेले सुंदर आनि प्रयेचे व्यक्तित्वानि आनेकय् रंग चडतालो. येवचे वर्सांतु भाषणकलेन, सार्वजनिक जीवनांतु ती मस्त प्रसिद्ध जालि. जनसंघटने कामांत ही साधना अद्भुत रीतिन कामाक आयलि.



अध्याय 4

# सक्रिय राजकारण; असहकार चळवळ

1926 चे वर्सांत, मद्रास्चे लेजिस्लेटिव् असेंब्लिचे चुनाव(Election) जाले. हांतुरि फकत् 51 वोटानि हरलेलि कमलादेवि, सबंध भारतांतुचि चुनावणेक राबिलि प्रप्रथम महिळा आसलि! थंचान, राजकीय रंगांत तिगेले स्थान घि जातेरि गेले. राजकारण तिगेले आवडिचे क्षेत्र न्हयशिले. जन्मतः ती चंदायि (सौंदर्य) चि आराधकि. कलेचे सगळे क्षेत्र तिका आवडताले. संगीत, नाटक, हातकाम, चित्रकला, साहित्य, सगळ्यांतु तिगेलि प्रीति, सानपण धरन दिसुन येत्ताले. जाल्यार तेन्ना देशाचि स्थिति, अगदि बेगळि आसलि. हे सगळ कलाप्रकाराचि वाडि आनि विस्तारापेक्षा, देशाक स्वातंत्र्य मेळोवचे कडे तिगेलि दृष्टि आसलि. तरणाटे, शिक्किले इत्ले न्हय्, वय् जालेले आनी अशिक्षित जन वरेक, देशाचे परतंत्र स्थितिर कळवळताले. आपणे स्वातंत्र्य प्राप्तिक खंचे रीतिन सहाय करचाक साध्य आसा?" म्हळेले प्रति एक स्पंदनशील व्यक्तिलि भावना आशिली. हे भावनेन सगळे देशाचे लोकांक एकत्रित हाडिले. हेचि वेळारि, बापुजि आनि ताजे बरशि कामकरतले अपूर्व पुढारि लोक देशभरि देक्कु पडचाक लागले. तांणि, घोळचाक तयार आसले, देशाखातिर सर्वत्याग करचाक तयार आसले युवजनांक मार्गदर्शन दिले. ते युवालोका आपण जावन, होड प्रमाणार, बलिष्ठ आनि आकर्षक जावन आसले अखिल भारत कांग्रेस् संस्थेक सदस्य जावचाक लागले.

कमलादेवि बि हे आकर्षणेन धूर उरलिना! तीणेचि सांगिल्यावारि, तेन्नाचे ए.आय्.सि.सि.चे (आल् इंडिया कांग्रेस् कमिटि) चे सदस्यत्वाक जावो, खुर्चिक जावो स्पर्धा नासलि. कामकरचाक तयार आसल्यांक, आनि उत्साहि लोकांक, अनुभवी निरडलेले म्हालगडे मेंबर, आनि मुखेल, काम वहिसुन दिताले.

आपण जावन मुख्य हुद्यांक, नाव सुचयताले, अथवा सिफारस करताले. कमलादेवि 'स्वयंसेविका' रूपानेचि आपणाक वळखुन घेंवचाक इष्ट पावतालि. तिगले वांगडा लोकावारि, तिका कांग्रेस् संस्थेचीच शाखा जावन आसले 'इंडियन् सोशयलिस्ट् कानफरेन्स' चे दिकान वळण आसले. थोडेचि दिसान ती कान्फरेन्सचे कार्यदर्शि म्हणु चुनायित जालि. ब्रिटिश् सरकारान ते पर्यंत स्वतः 'दिता!" म्हण स्वराज्याचे अनेक शर्ताचे आश्वासन दिल्यांत एक शर्तबि पाळले ना! कांग्रेस् पुढार्या बरोबर चर्चाकरत आयले, खंचेय् स्वायत्तेचे सूचनाक अनुमति दिलिना! म्हणु समाजवादा दिकान टेंकतले युवजनाक असमाधान वाडत आसले.

हे वेळार युसुफ मेहराअलि,(1903–1950) म्हळेले युव क्रांतिकारान, मुंबैंतु युथलीग् म्हळेले युवक संघ बांदिलो. ताणे, कमलादेविक हे संस्थेचि सदस्य जांवचाक विनंति केलि. ती एकदं कबूलजालि. कांग्रेस् म्हालगडे आणि पुढारि, वाडत गेलेले ब्रिटिश् निरंकुश सत्ते विषयांतु 'निष्क्रिय' जालात! म्हणु तिका बि दिसतशिले. हे वेळार ति युरोपचे वेगवेगळे देश फिरन आयलि. पयले महायुद्धा नंतर थंचे युवाशक्तिन, जागतिक हत्याकांड, आनि ते बदल, ते, ते, देशांतले वयस्काले अलक्षा बद्दल दाकयले आक्रोश पळयले. महायुद्धांत विजय मेळवन होड साम्राज्य जावनु युद्धा नंतर भारता बद्दल ब्रिटिश् अनेकय् कठिण जालात! म्हण युवजनांख दिसतशिले.

युथ्लीगाचे सर्वसदस्य सभा मांडलि. ताणि सर्वानि मेळन स्वराज्य चळवळ मुखारसुवका, ब्रिटिशानि कबूल केलेले स्वायततेचे वेगवेगळे करार, एक एक करन आचरणेत हाडचाक कांग्रेस् संस्थेन सरकाराक आग्रह करका, आनि हे बद्दल कांग्रेस्चे नायक जावन आसले पुढारि जनान दबाव हाडका! म्हण ठराव केले.

थोडे दिसानि लाहोरांत अखिलभारत कांग्रेस्चे अधिवेशन

जमचे आसले. ताजे पयलेच, एक अखिलभारत युव सम्मेळन संघटन करन, देशाचे युवशक्तिचो स्वराज्य आमका जाय्" म्हळेलो अभिप्राय, पयले लोकामुखार दवरचो, नंतर कांग्रेस् अधिवेशनांत प्रस्तुत करचो, म्हणु विचार भायर पडलो. 1929 वर्साचे डिसेंबरांत युथ्लीगाचे स्मावेश अहमदाबादांत करचे म्हण सर्वानुमतान ठरयले. हाजि अध्यक्षपण कमलादेवि, सगळ्याले मतान चुनायित जालि! तिगेले असीम धैर्य, भाषणार प्रभुत्व, मेळन–जुळन कामकरचे सामर्थ्य, आनि स्वयं सेविका उरनुचि केलेले वेगवेगळे संघ संस्थेचे संघटन, सर्वजनांक गोत्तु आसले. तेना तिका 26 वर्ष प्राय!

प्रायेन सान आसले तरि, कमलादेविक स्वताचे आदर्श, देशाचि गरज, आनि प्रायेचे जनानि करका जालेले कामाचि स्पष्ट कल्पना आसलि. ताणि वहिसुन घेवका जालेले जवाब्दारीचि जाणीव बि आसलि. व्यक्ति, जनानि सर्व नमुन्या त्यागाक तयार जावका. देशाक पूर्ण स्वराज जावका. आनि युवशक्तिन संघटित रूपान, आप्णालि अति मुख्य मागणि, पूर्ण स्वराज्!' हाजे खातिर लडका. हे खंडित रूपान सांगले तेदना, तांगेलो अवाज दाबुन घालचाक सर्वरीतिन सरकार प्रयत्न करतले. जाल्यारि ताक्का तयारि उरका. प्रति एक दमन (दबावाचे) चे रीतिन, नवेनवे प्रतिभटनेचे रूप बी सुचतात! हे कमलादेविले विचार आसले. तीणे हेचि विचार आपणाले अध्यक्षीय भाषणांत विस्तृत रूपान सांगचे ठरयले.

अहमदबाद शहर, उत्साहान भरिलो देक्कु पडतालो. लांग् लिव् रेवल्यूषन्', असहकार चळवळ अमर जावो!', भारतीयानो जागि जाया!' म्हळेले घोषणा, ब्यानर्स् आनि बंटिंग् राजमार्गारि दोनि दिकान शोभताले. कमलादेविक मेरवणिगेंत पेंडालाक व्हेलि. पांच हजार जन पेंडालांत जमिले. कमलादेविन धीर आनि स्पष्ट आवाजांत, तिजसले लक्षगट्ले देशप्रेमि लोकांक बाधत आसले विचारांक वांटुन घेतले.

केनडा, आस्ट्रेलियावरि, भारताक वसाहताचे सीमित स्वातंत्र्य (डोमिनियन् स्टेटस्) दिंवचो विचार आमका आसा म्हण, ब्रिटिश सरकार सांगत, आश्वासन दीत आयला! आश्वासनेंतु – डोमिनियन् स्टेटस् कि स्वातंत्र्य? म्हण सुक्के सोण धाडावचांत अर्थुना! आमका स्वराज्य जाय्! स्वराज्या अर्थु म्हळ्यार हे देशाचे प्रति नागरिकाक, शारीरिक, सांस्कृतिक, नैतिक रूपान वाडचो अवकाश!. आता पर्यंत, हे अवकाशान भारतीय नागरिक वंचित जावन उरल्यात. तांका व चि, आपण्यालि राजकीय धोरणा कसलि? म्हण ब्रिटिशान स्पष्ट रूपान कळवका. युवजनानि, हे देशांचे नागरिकाक अवश्य आसले हक्का खातिर लडचाक तयार जावका. ते लडायिचे प्रथम रूप म्हळ्यारि संघटित प्रतिभटना!' म्हण तीणे अध्यक्षीय भाषणांत सांगले.

फकत् राजकीय सुधारणेर मात्र तीणे जोर दिलेना. सामाजिक, आर्थिक सुधारण हाडचाक सक्रिय काम जावका म्हण सांगले. ते काळाक देवळांत, आया धर्म अथवा पंगडाचे जनाक मात्र प्रवेश आसतालो. कमलादेविन देवळं म्हळ्यारि राष्ट्रीय स्मारक म्हण घोषितकरका, आनि सकटांकय् प्रवेश उरका म्हण घोषणा केलि. सांगचे विचार सरळ भाषेंत सांगुन, मुख्य मुद्यार जोर दिवन उल्लोवचि कला कमलादेविक साधुसुयलि. तिगेले प्रभावि व्यक्तित्व आनि सौम्य जाल्यारि, खचित उत्रान जन प्रभावित जाताले.

कमलादेविले स्वतंत्र विचाराक सहमत दित्तेरि आयिलो युसुफ मेहर आलि, नंतरले वर्सांत सोशलिस्ट् पुढारि जावन ताणे, मस्न क्षेत्रांत रचनात्मक रीतिन कामकेलेले, कमलादेविन आत्मकथनांत सांगला. दुर्दैवान तो आपले 47 वर्स प्रायेरि सरलो.

ब्रिटिशांले शिवाय्, स्वंत देशांतुचि सामाजिक प्रगतिक कंटक जावन आसले आर्थिक, सामाजिक असमानते बद्दल सांगचाक कमलादेवि विसरलिना. बायलांगले सामाजिक मुख्यतः दैहिक

आनि वैचारिक वाडि दिकान लक्ष दिना जाल्यार, स्वातंत्र्य चळवळिक अर्थना! म्हण सांगले. सर्वक्षेत्रांत तेन्ना प्रचलित आसले लिंगभेद मुखारसत आसल्यारि, देशाचि वाडि शक्यना! म्हणु सांगचाक ती मुखार जालि.

पूर्णस्वराज्' घेंवचाक सर्वतीतिने अहिंसात्मक लडाय् करची सै! म्हणु युव संघ अथवा युथ्लीगान एक शपथ(ऑथ्) तयार केले. आणि लाहोर शहरांतु जमत आसले कांग्रेस् अधिवेशनांतु ते प्रमाणवचन स्विकार जायशि वत्ताय हाडचे म्हण ठरयले. ते प्रमाण वचन अशि आसले.

स्वातंत्र्य म्हळ्यार भारतीयांगलो जन्मजात हक्कु. आमगेले जमीनिंतु, आमि घोळन तयार केलेले उत्पन्न स्वतः आमका मेळचाक जाय्! तांका हो हक्क मेळना जाल्यार, मेळनाशि दबाच, सरकारान हाडल्यार, ते विरोध करचे अथवा तांतु बद्दल हाडचे सातंत्र्य, भारतीयांक मेळुजाय्! ब्रिटिशानि भारतीयांक मूलभूत हक्कान वंचित केला. आर्थिक आनि राजकीय रूपान शोषित केला. आध्यात्मिक रूपानेय् दुर्बल जायशि केला ...... ब्रिटिशागेले हे बंधन मोडचाक जाय! पूर्ण स्वराजान मात्र हे साध्य!"

हे पूर्ण स्वराज्, आमी अहिंसात्मक रूपान घेंवका! हाजे खातिर असहकार चळवळ मुख्य साधन आस. ब्रिटिशांगेले संपर्क मोडत वचका. करनिराकरण ( ट्याक्स् दिवचेना!) एक सरळ मार्ग. खंचेय् रूपाचे सहकार, सरकारात दिंवचाकना!" हे शपथ् मुंबै युथ् लीगाचे सदस्यानि कमलादेविले पुढारपणांत घेतले.

हांगा पूर्ण स्वराज्' म्हळ्यारि पूर्ण स्वातंत्र्य म्हणु मानका! म्हण मस्त जनले वत्ताय आयले. स्वराज्' म्हळ्यारि स्वातंत्र्य' म्हणुचि कांग्रेस् संविधानांतु ठरयिले. तेमिति युथलीगाचे प्रमाणवचनांत तेचि अर्थांतु ताणि तो शब्द मेळयलो.

स्वारस्याचो, विचार म्हळ्यारि, अखिलभारत कांग्रेस् संस्था बी, हेचि दिकान प्रयत्न करत आसलि. तशि जावन लाहोर अधीवेशनांत युथ लीगाचे मागणि स्वीकार जांवचाक कायी त्रास जालो ना! जवहारलाल नेहरूने लाहोरचे अधिवेशनांत 1930 वर्साचे जून् 26 चे दीसु, संपूर्ण स्वराज्यची स्वातंत्र्य योधाले ध्येय!" म्हण घोषण केलि. युथलीगाचे प्रयत्न सफल जाले. जाल्यारि हे विजयाचे मूर्तार कमलादेविक थंय् वच्चाक जालेना–वैयक्तिक कारणा खातिर!

गांधीजिक वरेक युथलीगाचे घोषणेन क्षणभर विचलित केलेले म्हण कमलादेविन सांगला. जनाले मानसिक स्थिती (मूड्) वळखुवचाक ताका वेळ लागनाशिलो. जनवरि सव्वीस तारीक पूर्ण स्वराज् दीस् म्हण मानका, आनि सर्वानि प्रमाण घेंवका, म्हण ताणे घोषित केले. तेन्नाचि घटना कमलादेविलि जीवनांत एक आविस्मरणीय प्रसंग जावन उरलि. देशभर तिगेले प्रसंगावधान आनि धैर्याची तारीफ जावचालागलि.

मुंबैत, शपथ घेंवचे दिसा तयारिक, कमला पूर्णमनाने काम करचालागलि. एक हप्तो भर, सद्दाय् मीटिंग करचाक सुरुवात केलि. तीणे चार मुद्यार जोरदिलो 1) स्वराज् म्हळेले पूर्णस्वातंत्र्य शीघ्र मेळका 2) हे स्वातंत्र्य प्राप्तिक असहकार चळवळ मुखारसुका 3) कांग्रेस् कार्यकर्तानि व ु हाका फाटबल दिवका 4) भाषण करचे बदलाक प्रमाण वचनार जोर दिवका!

मुंबैचे आझाद् मैदान् जनवरि सव्विसाचे दनपार पासुन जनसागरान भरुनगेले. सगळ्यालि नजर त्रिरंगि झेंडा स्थापन केलेले वेदिके कडेन आसले. प्रतिज्ञाविधि बि जाल्लि. कमलादेवि ध्वजस्तंभालागि बसुन आसलि. एकदं एकपंगड, वेदिकेचएरि रिगुंक आयलो. आनि हातोडि कोयत्याचे निषान आसले तांबडे ध्वज हाडुन ध्वजस्तंभार ते जोडसुवचे तयारिक लागले हाज्जो अर्थु त्रिरंगि राष्ट्रध्वजाक अपाय! म्हण स्पष्ट आसले. एकदं दांधल जालि.

सांज जायत आयलि, काळकांत कसले जाले, ते कोणाक स्पष्ट दिसले ना! जाल्यारि लाल्झेंडा कोणितरि पिंदुन घाल्ले. आत्त जाळानि त्रिरंगि झेंडाकयि धोका जांवचे सहज आसले. लोकालि किळचि, वदरप – कोणे झेंडाक जखं केले?धरा! मारा!" गौजि आयकु पडत आसले. लाल् झेंडा पंगड, त्रिरंगि झेंडा कडेन घुसले. क्षणाभित्तरि कमलादेविन तिरंगि ध्वजस्तंभाक मिठि मारलि. आपले दोन हातान घट्टि खांब्याक धरिल्यान रगत येंवचाक लागले. आत्त युसुफ मेहर आलि आनि दुसरे वालंटियर् आयले. ते कमलादेवि सुत्त राबले. एक ऊंच तरुणाने येवनु कमलादेविले रक्तसिक्त हात सुटयले. आपणे तिगेलो जागो घेत्लो. हीणे राष्ट्रध्वजाचे गौरव राकले! हे बायिन अमगेले मान राकले!" म्हण तो सभेक ऊंच अवाजांतु सांगत उरलो. युसुफ मेहर आलिन तिका, थंचान सुरक्षित जाग्यार व्हरन चिकित्सा दिवयलि.

तो लांब, रुंद तरुण, चंद्रभान जोहरि आसलो. 'वानरसेना' म्हळेले चरडुवांगले एक टीम् ताणे तयार केल्लेले. त्या काळाक कांग्रेस् संदेशवाहक जावनु वानरसेनेक काम करचाक तरबेति दित्तालो. इंदिरागांधिन बारा वर्सा प्रायेर अल्हाबादांतु हजार चरडुंवागले 'वानरसेना' संघटित केल्लेले म्हळेले बातमि इतिहास प्रसिद्ध आस! तिक्का तिक्का मेळिले प्रेरणाक चंद्रभान जोहरिलि मूल संघटना कारण आस. जोहरि प्रचार आनि प्रतिष्ठे विरुद्ध आसलो. तशि जावन तागेले काम कोणी वळखलना!

कमलादेविले साहस, हेरदीसु, सगळे पत्रिकेंतु प्रकट जाले. राष्ट्रध्वजाचो गौरव तीणे रक्त रूपान राक्किलो!



अध्याय 5

# मिट्टा सत्याग्रहः सेवेन पुढारपण
## (मार्च् 10, 1930)

पूर्ण स्वराज्" चळवळ, मि ा आसले अगदि सान वस्तुन सुरु जायद! म्हळेलि कल्पना तेन्नाचे सान–हॉड पुढार्यांक स्वप्नांत बी येंवचे साध्य नाशिले. जाल्यारि महात्मागांधिक देशाचो नाडी अवाज, समची आयकु पडतालो. ताणे अत्यंत गरीब भारत निवासिक लक्षांतु घेवनुचि मि ा आंदोलन सुरुकेले. आनि ब्रिटिश सरकाराक कडकडो हाडलो!

थोडे दीसा फुडे, ब्रिटनचे साल्ट् कमिषन्ने, भारतांत तयार जात्त आसले मि ारि व्याक्स् घालका! म्हणु भारत सरकाराक सिफारिस् केले. त्या निमित्तान हे स्वदेशि मीट, म्हारग जात्तले. आनि इंग्लंडचे चेशायर् म्हळे कडे तयार जात्त आशिले मि ाक भारि होड मागणि एत्तलि, आनि ब्रिटिश् आगबोटि–व्यापाराक बी ताजान मस्त आधार आनि शक्ति मेळतलि! म्हळेलो इरादो आसलो. व्हाय्स् रायाले कौन्सिलरानि ताक्का फाटबल दिले. जाल्यारि भारतप्रेमि थोडे ब्रिटिश् पुढार्यानि ताका अनुमति, दिलि नासलि. तशि जावन, कायदो पास् जांवचाक तडव जात्तचि, आखेरक पासजालो. ह्या संदर्भारि गरीबाले पेज्ने बरोबरचे साथि, चिमटि मि ान देशाक चटपटावन दिले, ते गांधिने सुरु केल्लेले दंडिमार्च्' म्हळेले ऐतिहासिक घटनेन! स्वदेशांत तयारजाले मिटार प्रतिबंध घाल्लेले. मीट तयार करचो गुन्हो! (क्रिमिनल् आफेन्स्) जालो! ते, काडुन घालका! म्हळेलो एकमात्र उद्देश हे सत्याग्रहाचो आसलो.

मि ा सत्याग्रहाचे शक्तिने, सगळे देशाक सजग केलि. मि ा कायदो भंग करचे निर्णय गांधिने घेत्तिले, जवाहरलाल नेहरु असले नेता लोकांक, एकदं पटलेना! जाल्यारि आत्त वाद करत

उरचाक, वेळ नासलो! गांधि साबरमति आश्रमचान मार्च् 12 तारिकेक 248 मैल दूर आसले समुद्रा किनारेचे दंडीक भाय्र सरलो. थंय्, सांकेतिक रीतिने समुद्रा उदकान मीट तयारकरन कायद्याचो भंग करचो तागेलो इरादो आसलो. सुरवातिक 78 जन, ताज्ने बरशि आसले. थोडे सीक पडले, थोडे दणवले. जाल्यारि महात्मागांधि मुखारसुलो. मगेले काम पूर्ण करनुचि हांव परत एत्ता! ना जाल्यार, मेगेले देह, दरियांतु पोवंताले!" म्हळेलो उद्गार ताणे काडलो.

बापुजीन मे 6 तारीकेक सकाळचे साडे आट घंट्यारि, हजारगट्ले जना सम्मुखांत दंडिंतु खारी उदका संग्रहांतुल्याने मीट तयार करन कायदो भंग केलो. "मीट तयार करचो गुन्हो! म्हळेले विसरा! अनुकूल आसले कडेन, नैसर्गिक रूपान सगळ्यानि मीट तयार करचाक कांय् हरकतना!" म्हणु गांधीजिन घोषणाकेलि. राकत आसले देशवासि लोकांक, स्पष्ट संदेश मेळलो! समुद्रा किनार्यारि आसले, सान-होड गांवचे जनानि चळवळिंत उडकि मारलि. मीट तयार करचाक सुरुवात जालि.

कमलादेविक सुरुवेक समाधान जालना! गांधीजिन दंडिमार्चांतु बायलांक भर्तिकेलना! वालंटियर् जावन कमलादेविन खूप बायलांक हे चळवळि खातिर तयार केलेले. गांधीजिगेले निर्धारान ती निराश जालि. एक्कुचि उपाय तिका सुचलो. खुद वचुन बापुक मेळचो. बायलाले भर्तिक परवानगी घेंवचाक ति भायरसरलि.

ती सुरत पावलि. गांधीलि पादयात्रा, जंबुसरचा हळ्ळिक पांवचांत आसलि. थंचान चलतवत्ताना, तिक्का धग्गान मस्त त्रास जालो. घुवळि आयलि. सांगाति आसल्या एक पत्रकारान तिका कलिंगण खाववियेले. ताजान मस्त बरे दिसले. प्राय जालो बापुजि दीसाक 10 मैल सहज चमकता. मज्जसले तरण्यांक इत्ले

सुद्दा, कष्ट घेंवचाक जायना जाल्यार, लक्षगट्ले बायला खातिर हांव कसले करु शकालि?' म्हळेले विचारान ती धृढ निश्चयान बापुजिन राबची व्यवस्था केलेल्या गांवा पावलि.

स्वातंत्र्याचे रहस्य आस, ते निर्भीतींत! भीवनाकात! तुमका धैर्य आसल्यार आत्मविश्वास आसल्यार, हिंसे दिकान लक्ष वचना! सत्याग्रह करात. जाल्यार, खंचेयि चिडचे प्रसंगात सुद्धा सोडाची कल्पना करनाकात. सहनेन उरात!" म्हण बापुजि गेल्ले गेल्ले कडेन जनांक गुजराथी भाषेंत धैर्य दित्तगेलो.

कमला, बापुक मेळलि. बायलांक दिल्नाशिले अवकाशाबद्दल तीणे सांगचे पयलेचि तो म्हणालो. बायलानि करचे सारखे काम खूब आसाता! स्वदेशि प्रचार, पिकेटिंग्, मद्यपान–राबोंवचे इत्यादि. वत्तांत पादयात्रा, घोषणा, नाका! तांका, पोलिसालि हिंसा लागचे नाका! ती तुंवे सांगलि काम जात्तेरि आसात! असले राष्ट्रीय रूपाचे, मि ा सत्याग्रहांत बि अवकाश तांका मेळो!" कमलादेवि म्हणालि. गांधीजिने जायत्!" म्हळे. कमलाने हे बद्दल तागेले (लिखित) संदेशाचि मागणी केलि. बापूजी जोरान हासलो. तुगेले भैण्यांक तुंवे वळखले ना! तांका कोणाकय् मगेले संदेशाचि गरजना!" तरि कमलादेविन ह ान संदेश मागलो. गांधीजिन एक कागदा कुडक्यारि बरयले, कोणाक शक्य आसा ते जनानि मि ा कायद्या विरुद्ध, सार्वत्रिक असहकार चळवळिंत भाग घेंवचाक हरकतना, म्हणु हे मुखांतर सांगता". कमलाक खुषि जालि. जाल्यारि आपले आग्रहाक कांय् अर्थुनासलो! म्हळेले, सत्य, तिक्का बेग्गिचि कळन आयले.

कमलादेवि मुंबै पावलि. थंय् तिका आनि अवंतिबायि गोखलेक कायदो भंग करचे चळवळिचे मुखेल केले. एप्रिल् 16 तारीक, जलियन् वालाबाग दुरंताचे उगडासाक अर्पित आसले. ताजे खातिर, कमलादेविन, वालंटियराले टीमचि तयारकेले.

असहकार चळवळिंत पूर्ण प्रमाणारि बायलानि गुंतुन उरका मळेलो तिगेलो उद्देश आसलो. हे टीम् घेवन ती मि ा सत्याग्रहाक गेली... खादिधारि, त्रिरंगि ब्याज् घालेले बायलाले टीम् जय जयकार घालत चौपटि दिकानगेले. वा`रि परत परत तांका आरति करत, गुलाबि उदाक सिंपडत, अत्तर लायत, नमस्कार करत, शुभ संदेश दित्तले, बायलाले स्वागत मेळ्ळे.

कमलादेविले टीम् समुद्राकिनार्यारी पावले. पळेयतात! जनकोटि जमला! मुंबैमहानगर खालि जावन हांगा एकत्र जालेलो अनुभव! तांतुत बायलोंचि अधिक प्रमाणांतु असल्यो! कमलान सान रांदणि पेटेयलि. हजार सान शेगडिरि, मि ा उदाक खतखतचाक लागले. गांदीजिले संदेशाखातिर आग्रह केले बद्दल कमलाक आत्त बेजार जालो! आपणे बायलालि भितरलि शक्ति वळखलि नासलि. बापूजिन वळखलेलि, म्हळेले जाणीवान तिका लाज दिसलि. असले सुमार संदर्भ तिक्का नंतरले दीसांत आयले, म्हण तीणे सांगिले आस.

यूथ्लीग्चे सदस्य आयले. तानि मीट तयार जांवचे प्रदेशाक सुत्त घालो. पोलिस आयले. जाल्यारि तांचान कांय् काम जावचान सारखे, लोकानि गाढ चक्र मीट तयार करतल्या जना सुत्तु घाल्नु सोडिले. बेटन् फिरायत आसले पोलिस क्रमान प्रयोजन जालेना! नंतर घो ारर पोलिस आयले. ताणि मेळ्ळे तशि, लोकांक मारचाक सुरुवातकेलि.

यूथ्लीग्चे सदस्य आयले. तानि मीट तयार जांवचे प्रदेशाक सुत्त घाल्लो. पोलिस आयले. जाल्यारि तांचान कांय् काम जावचान सारखे, लोकानि वर्तुळाकार मीट तयार करतल्या जना सुत्तु घाल्नु सोडिले. बेटन् फिरायत आसले पोलिस क्रमान प्रयोजन जालेना! नंतर घो ारि पोलिस आयले. ताणि मेळ्ळे तशि, लोकांक मारचाक सुरुवातकेलि.

जनवर्तुळा भित्तर, मीट करत बसले कमलादेविक, लोकानि मारखावन वळवळले, परवत पडिले, आयकताले. दारले, बायले, चर्डुंव, सगळे लाठिमार खात्तचि, जोरान आवाज सुद्दा काडणाशि, पोलिस अत्याचार सहन करत आसले, अविस्मरणीय इतले नय्, एक अलौकिक घटना जावन उरलि!

लोकांक मारुन पोलिसानि वर्तुळ विंगड केले. कमलादेवि लागि बसले एक चल्यागले मात्ते. लाठिचे जोरचे मारान भेत्तिले पोळोवन कमलादेविक दोळ्या काळोख आयलो. संभाळन घेयसर, पोलिस् बूटानि तिका लात मारले पेटाक, तिगेलो उजवो हातु जळत आसले शेगडिरि पडलो. ती बेशुद्ध जालि.

दोळे उघडिले तेन्ना, पोलिस युनिफार्म घालेले तोंड नजरेक आयले. आस्पत्रेक तुका वरुवे? मगेले कार तयार आस! दयाळ दोळ्या चे, ते तोंडान, विचारले. हांवे, नाका!" म्हळे अर्थान माते हालयले. महात्मा गांधिले अभिप्रायांतु, माका शत्रु म्हणु तुमि लेकचाना न्हयवे?" तो म्हणालो. सुमार जनांक घालन ठोकना पडेन, गांधिले हे तत्वज्ञान हाक्का मनांत गेल्ले. हे बद्दल माक्का विचित्र दिसले!" म्हण कमलादेविन बरयले आस.

मि ा सत्याग्रहा बद्दल कमलादेविन जे बरेयले आस्स, एक सुंदर दीर्घ प्रबंधावारि वाचयता. सगळे वर्गाचे, सगळे प्रायेचे, एकच उद्धेशान एकत्रित जावनु, मौनरूपान ब्रिटिश साम्राज्यशाहिक शिकयलो हो पाठ, तिगेले बरपांतु उज्वल रूपान चित्रितजाला. लक्षगट्ले जनांक आरेस्ट् करन जैलांतु भरचे असंभव जाले. नपुरो जांवचाक, खारशे उदाक घरोनघरा व्हरन मीट तयार जाले. चारि चौगानि फिरचे कडेन, मीट तयार करत लोकानि, कायदो भंग केलो! कित्ले जनाक आरेस्ट् करचाक साध्य आसले? दीस दीसाक तांचि संख्या लक्षान वाडत आसलि.

कमलादेविक, तयार केल्लेले मीट सान-सान पेकेटांत भरन विकचो विचार आयलो. मीट विकचाक मुंबैचे वेगवेगळे

भागाक ती चमकलि. मुंबै शेर् मार्केटचे व्यापारि बंधुनि महात्म
गांधिकि जै!' म्हणत तिगेले स्वागतकेले, आनि सत्याग्रहा साल्ट्
खरीद कर्चाक स्पर्धा जालि. हराजाक घालका पडले. पैले पेकेटाक
501–00 रूपय् मेळ्ळी. अर्द तासा भितरि 4,000–00 रूपय
कांग्रेस् फंडाक प्राप्त जाली! हेरदिस पासुन कमलादेविन मीट
करचे आनि विकचे काम विराम नासतना चालु दवरले. गांधि
मीट! सत्याग्रह साल्ट्! किम्मत्, स म्हयन्या जैल्वास्!" म्हळेले
प्रचारान मीट खपले. 75,000–00 रूपय् जम्जालि. तांतु 50,000–
00 फकत् कमलादेविन एकडे केल्लेले. मुंबयि हाय्कोर्टा एद्राकचि
मि ा पेकेट् विक्कुन तीणे विक्रम स्थापितकेले. म्याजिस्ट्रेटाक
बि मीट विकचे प्रयत्नकेले, म्हणतात!

गांधीजिक सरकाराने अरेस्ट्केले. जाल्यारि सत्याग्रह, देशभर
पसरत गेलेले. गांधिलो खालि जागो सरोजिनि नायडुन धरासानांतु
घेतलो. (धरासनांतु अक्रम' मीट तयार जाताले). जमिले
वालंटियराक पोलिसानि मारचाक सुरुवातकेलि. ते व ु ि चि, मीट
जांवचे जाग्या सुत्त धरणि घालनु बसले दनपारा रकरकि वत.
सान–होड जन व ु चि तान जावन तडपडताले. पोलिसानि तांका
एक थेंबो उदाक मेळनाशि पोळवन घेत्ले. जाल्यारि तांगेलि लीडर्
सरोजिनिदेवि, खुद प्रसन्न चेहरेन हासत, हासयत बसली. आखेरेक
तांक व ु ि आरेस्ट् केले. तांगेले जाग्यारि ताजकिंता होड टीम्
येवन बसले! मि ा तयारि अखंड चालु दवरलि.

मुंबैंतु अक्रम मि ा तयारि चि योजना कमलादेविन
मुखारसुनवेलि. मे 17 तारीकेक तिक्का अरेस्ट् केलि. मि ा तयारी
आनि सत्याग्रह मुखारसुंवचे संदेश वालंटियर् लोकांक दिवन ती
बंधित जालि. तिगेलो सातवर्सा चलो राम्, झेंडाधर्न, आवसु
तर्फेन राब्बिलो. आवयि अनि पुताले फोटो सगळे पत्रिकेंतु छापुन
आयलो. आवयक अरेस्ट् करना पडेन पुत्ताक सांकेतिक जावन
थोडेकाळ वालंटियरानि लीडर् म्हण घोषित केलो.

कमलादेविक कायदोभंग केलेले निमित्तान 6 मैने जैल आनि 150 रूपयेचे दंड म्हणु शिक्षा फावजालि. इतल्यांत जास्त लोकांक, कायदो उल्लंघन करचाक लायिलि, आपादना तिज्जेरि म्याजिस्ट्रेटान घालि. मीट केल्ले निमित्तान, कमला जैलाक गेल्लि प्रथम महिळा आसलि.

देशभर पसरिले मि ा चळवळिन ब्रिटिश् सरकाराक संकट प्राप्तजाले. मि ार घालेले ट्याक्स ताणि वापास घेत्लें. जाल्यारि ताजान जालेले जनजागृतिचे प्रमाण इत्लेचि म्हण सांगचाक जायना! पुढारी लोक जैलाक पावले. जाल्यार फाटि उरिले स्वयं सेवकानी प्रचार दिनाशि चळवळ सजग दवरलि.

असहकार चळवळ चालूचि आशिले देशांत हे मि ा सत्याग्रहान बरोचि बूस्ट् मेळ्ळो!



अध्याय 6

# जैलाचे जीवनः असलि त्यागि!

स्वातंत्र्य चळवळितं भाग घेवन देशाखातिर जीवदिलेले हुतात्म आमचे मुखार आसात. परत परत जैलावचुन भविष्याचे विचार करनासतना कष्ट भोगिले हजारगट्ले लोक, देशभरि आसले. आनि जास्तजन, थोडेकाल चळवळित उरन, उरिले शे दाकवन, त्यागि" स्वातंत्र्ययोध" म्हण. खंचेयितरि सर्टिफिकेट् हाडुन, पेन्शन्, सैट्, चर्डुवांक, नातरांक इंजिनियरिंग्, मेडिकल् कालेजांत, सीट, नौकरि गिटसुयले, शंबराने, हजाराने देशभरि मेळतात! तांगेलि संख्या 1960–80 दशकांत वाड्डुत गेलिलि. आत्ता कर्नाटकाचे, मैसूर संस्थानांतुले त्यागि लोकालि संख्या आनि नाव पळयल्यारि, हे तथ्यांश कळता! कमलादेवि स्वातंत्र्य चळवळिंतलि प्रथम श्रेणिचि योधा आसलि. इत्ले नय्, चारफंता जैला गेलि. तिगेलि जैला अवधि बि, लांब आनि कष्टदायक आसलि. ते अवधिंत तिगेले वैयक्तिक जीवन पाडजाले. सान एकळो एक पुताक सोणु जैलाक वचकापळे. स्वातंत्र्य योधाले आपोआप आयिले अधिकार, प्रतिष्ठेचे हुद्धे तीणे नाका म्हण सोडुन दिल्यान अमगेले स्वातंत्र्य चळवळिचे, पूर्वोत्तर स्वरूप आमक कळता.

चार खेपेक कमलादेविक जैलवास घडलो. मि ाचे सत्याग्रहानंतर (1930–31), असहकार चळवळ मुखारसुवन व्हेल्याखातिर (1932–33), सानच अंतरारि परत बंधन, (1933–34) आनि क्विट् इंडिया चळवळिंत (1942–44). हे चारि फंताचे, जैलवासात, तिगेले अनुभव वेगवेगळे आसले. तेन्नाचे जैलम्हळ्यारि, खूनि, दरोडे, होड पातक केले जनांक कोंडुन घालचे गलीज कोटगे आसले. संडास, न्हाणिची सवलतवरेक सम उरनाशिलि. अनारोग्य वातावरण, सांगुन सरनाशिले. जैला कपडे–जेवणखाण हाजे बदल बरयलि तित्ले उणेचे!

पयले फंताचे अरेस्ट् आनि जैलवासांत कमलादेविक सि' क्लास् कैदि म्हण क्रिमिनल् महिळा कैदि बरोबर भर्ति केलेले. दुसरे पटिक बि' दर्जेचो मान मेळो! तिसरे खेपेक एकांगि (Solitary Confinement) बंदिवासांत वरसभर उरका पडिले-वेल्लोर महिळा जैलांत. चौते फंताकय्, तेचि जैलाक व्हरन घाले. जाल्यार हे वेळार बायले कैद्याले नंबर वाडिल्यान, एकांत बंदिले, खिन्न आणि एकसुरे जीवन चुकले.

मि ा सत्याग्रहांतु प्रप्रथम अरेस्ट् जाल्लेलि महिळा, कमलादेवि आसलि. एप्रिल् 17 1930 तारीकेक सांजेवेळारि रस्त्यार पिकेटिंग् करचे वेळारि बंधन जाले. थंचान तिका अर्थर् रोडार आशिले, महिळा जैलाक व्हेले. सांजे वेळ भायर उजवाड आसले तरि, जैलाभितर किडकि नासल्यान काळोख अंधकार आसलो. थंय् व ् दुर्गंध व्यापुन आसलो. ते काळखांतु पळेयल्यारि बायलो थंथय् मुल्यांतु उल्टा निदिल्यो देकु पडल्यो! सगळि प्राये बायलो थंय् आसल्यो. कपडेय् तांगेले नमनमुनदार आसले. थोडे जनाले रंगरंगित, झगझगि! उरिल्याले चिंद्रि. कमलादेविन भितरि गेले, कोणाकयि कांय् फरक पडलो ना! दीसभरि बायलांक हाडचे, बीगाचे बागिल काडचे, भितर कोंडचे, परत होड होड बीग घालचे, चलत आसताले. तांका ताजि सवय् जावन गेलिलि. कमलादेविन व्हेले कप ा ट्रंकार बसुन रात काडलि. थोडे वेळान पाक्या हिंड (ब्याट्स्) फडफडत उडचा लागले. ब्यारकाचे माडार तांगेलि कायमचे बिडार आसले. दुर्गंध अनेकय् चडलो!

सकाळि सूर्योदय जात्तना, बीग काडुन कैदि जनांक भायर येंवचाक सांगले. सकाळी आनि दनपारा, तांगेले नित्य कर्माक सोडताले. राजकीय कैदि जावन तिका हांगा हाडिल्या बद्दल जैलर आनि थंचे पोलिसांक वरेक वायट् दिसले! तीन दिवस उरुन, बागिल नासले न्हाणि, संडासात वचुन प्रातर्विधि इत्यादि

करनापडेन, तिका कोर्टाक हाजर केलि. थंय् तिगेलो 'अपराध' साबीत जालो! सार्वजनिकाले शांतिभंग, आनि दंगो करचाक प्रचोदना दिल्लेले साबीत जाले! व ु चि 9 म्हैने, 15 दीसाचि जैलशिक्षा घोषित जालि. रस्त्यारि कमलादेविले बंधन जाल्लेले निमित्तान, आनि तीणे स्थळीय विळास दिल्ले नासल्यान, ती एक 'क्रिमिनल्' दिक्कु दिवान नासलि कैदि! म्हणु जैल सिब्बंदि, निर्धाराक आयिले. आपणा निमित्ताने, त्रास जावचा ना म्हण, घरचे – गुरुताचे जनाले विळास कमलादेविन दिलनासले. असले विचार कळन घेतले कोणी थंय् नासले.

अर्थर् रोड् जैलाचे दावे दिकान गिरणि कार्मिकालि झोपडी आसल्यो. ताणि वापरले गलीज उदाक व्हावनु वच्चे पैप्लैन् वाय्ट् जाल्यान दुर्गंध पसरसुन आसले. सद्द, तेचि रस्त्यान महानगरांत मरनपडिले प्राण्यांगले शव, गाडिरि घालनु व्हरतसले. एद्राक एक आस्पत्रि, थैं मैलि जाले रोग्यांक हाडुन घालतसले. मरतले चडते आसल्यान – रात्रि, अपरात्रि रडतल्यालो आवाज जोरान आयकु पडतसला.

कैदि जनांक, जैला कपडे कड्डाय आसले. भितर लंग जावो, बोडि जावो घालचाक निषेध आसलो. खट्लो चालू आसल्याले मात्र, स्वंत कपडे घालचाक परवानगि आसलि. शिक्षा जायनापडेन परत जैला कपडे. हे कपडे, घालचाक (नाना थरा रोगि थंय् आसले. स्वछचतेचे नामोनिशान नासलि.) कमलादेविन विरोध व्यक्तकेलो. अर्जिदिलि. थंचान थोडे दिसान तिक्का दुसरे इमारतिक व्हेले. थंय् तिका मीराबेन् भेटलि. मीराबेन् ब्रिटिश् महिळा आसलि. मेडलिन् स्लेड् तिगेले पयलें नावशिले. गांधिले आत्मवलयांतु, सदस्य आसलि तीबि, चळवळिंत पडुन बंधित जावनु आयलि. तिका गांधिजिन 'मीरा' म्हणु नावदिल्यान सगळ्यांका ति 'मीराबेन्' जावन आसलि. कमलादेविन आपणाले आत्मचरित्रेंतु

आपले जैलाचे कटु अनुभव बरयलेनात. जाल्यार मीराबेन्, हीणे आपले आत्मवृत्तांत, The Spirit's Pilgrimage हांतुरि, कमलादेविन जैलाक आयले, थोडे दीस थंय् काडिले बद्दल सुंदर वरदि बरयला.

"एकदीस सोशयलिस्ट् पुढारि कमलादेवि च ोपाध्याय हिका जैलाक हाडलि. कलात्मक सौंदर्याचे प्रतिरूप जावन ती आसलि. रात्ति तिका 'सि' क्लास ब्यारकांत घालि. नंतर आमि दोगानि मेळन जैलवासि बायलांक जावचे अनारोग्याक कारण जाले अडथळाबद्दल एक निवेदना पत्र (मेमोरांडम्) तयारकेले. ते घेवन सुपरिंटेंडेंटालागि गेल्यार ताणे "गप् उरा!" म्हण सांगुन वापस धाडले. आमि गप् उरलेनात. थोड दिसान कमलाक थंचे वेगळे ब्यारकात दवरले. ते 'बि' क्लास् म्हणघेतशिले! सगळे ब्यारकाक कोर्टयार्ड् एकुचि आसल्यान, कमलादेवि सगळे बायले कैदि बरोबर मेळनु उरतशिलि.

एकदीस तीणे, कांपौंडा झाडा जाले तांबडे फुल तुटुनतिगले अच्च काळे केसांत माळन घेतले. मेट्रनाने सांजे आयले तेना, ते पळयले. फुल् काडुन माळचा ना!' म्हण ताकीद केले. दुसरे दीस, तुमगेले उंबळिले कपडे भायर सुकोवचाकना–किटकिलागि हरगीसा घालचाक ना! म्हण फरमायले. स्वछचतेक नावका, कपडे धुवका. सुकोवचे खंय्? तिका विचारले. थंय् मुल्याक सुकयात. हे ब्यारक् स्पष्ट जावन वैलान दिसचाय जाय्! एद्राक दिसचे फ्याट् जेल् अधिकारिले. त्या बायलेन निरंतर तुमचेरि दोळो दवरचाक जाय्!"

राजकीय कैद्यालि ही स्थिति आसलि!

कमलाने थोडे व्यायाम आनि स्किपिंग् सुरुकेले. किटकि पहरेचांक दीसनाशि! सगळ्यानि मेळन पद मणचे, प्रार्थना करचे सुरुकेले. ताकाय् आक्षेप काडले. जाल्यार कमलान बंद् केलेना!

सान आवाजांत मणचाक लागलि.

जैलाचे आहार आनि उदाक अगदि वायट् आसताले. कमलाक तीव्र रूपाची कामीण (जांडिस्) जाली. जैलांत खंची वैद्यकीय चिकित्सा नासलि. थंचान प्रभावि राजकारणि, एकळ्यान तिगेलि स्थिति पोळोवन, चिकित्सेचि व्यवस्था केलि. बगेन बरे जायना पडेन तिका यरवडा जैलाक धाडले. हुशार जांवचाक कमलादेविक सुमार दीस लागले.

यरवाडा जैल होड आसले. राजकीय कैदि, भरति आसले. बायलो होड प्रमाणारि आसल्यो. सगळ्याकिंता जास्त जावन सरोजिनि नायडु, तिगेलि नणद, थंय् भेटतालि. थोडे काळानि तिजे बरशि कमलाक राबयले. सरोजिनि विनोद प्रकृतिचे आसल्यान सगळ्यांक हासयत, हासत उरतालि. जास्ति वेळ ती भायर गार्डनांतु उरतालि. झाड रोवचि, उदाक घालचे, हे कामात दोगालो वेळु आनंदान गेलो. वाच्चाक बि वेळ मेळतशिलो. जाल्यार बरोवचाक परवानगि नासलि.

दुसरे जैला अवधि वेळार, कमलादेवि बोरिवलिंत सेवा दळाचि शिबिर चलयत आसलि. विदेशि वस्तुचे बहिष्कार, सोर्या आंगडि बंद् करचाक पिकेटिंग्, मेरवणिगा वगैरे चालूचि आसले. शांति–भंगाचे आरोपारि तिका अरेस्ट्केले. थोडे वेळ पयले तीने शिबिर बर्खास्त करन थंचे वालंटियर् जनांक घरा धाडिले!

रस्त्यार गुंडागिरिर"(मेरवणिगा काडले!) आरोप बि, तिजे वयर आसलो. परत सि' क्लास् निवास तिका मेळो. थोडे दिसानि तिका जांडिस् जाले. चिकित्सा तरि नासलि. अशि जावन सुमार जन जैलांत जांडिसान मेले. 1932 चे हे सत्याग्रहा निमित्ताने जास्ति जन जैला पाविले. 95% राजकीय कैदि सि' क्लासांतु कोंडुन घालेले देक्कु पडताले. परत हितैषि आसले भायरचे,

मित्राले नजरेक कमलादेविले सिकनेस् लक्षांतगेले. ति वांचुन उरलि. जाल्यारि तिका पेटेयले फळ-आहारवस्तु वगैरे खंचेय् तिका पावनासले. हो विषय कमलादेविक कळिले, तीणे भायर येना पडेनचि!

हुशार जांवचाक तिका तीन मैन लागले. ताजे नंतर बायले कैदि जनांक चिकित्सा दिंवचे काम तीणे वहिसुन घेतले. वेगळो सानसो जागो तीणे मागलो. पयले, जैलर् कबूल जालना. जाल्यारि सिक् पडतलो बायलो जास्त जात्तेरि गेलो! मात्ति वणतिचे, टिन् माडाचे, एकशेड्, कमलादेविक आस्पत्री चलोवचाक मेळे. जैला डाक्टरालागि ती, वेगवेगळे रोगाक वकद बरोवन, घेवन, बाट्लिंत विंगविंगड रंगाचि, वकद हाडतालि. भायर वत्त आसले कैद्यांक विनंति करन, वकद, गुळियो, हाडयत कमलादेवीन खुद रोगि जनांक चिकित्सा दिंवचाक सुरुकेले.

एकपटि एक कैदिले बाळांतरो करचो कठिणप्रसंग आयलो! कमलादेवि भारि घाबरलि. जाल्यार दुसरो उपाय नासलो. बाळशाक खंय् जखं जायद! म्हळेलेचे हॊड भय् आसले. सगळे सराग जावन चेरडाने जॊरान रडिलो आवाज तिगेले कानाक अत्यंत मधुर रागसो आयकल् खंय्! हाजे नंतर असले रिस्क नाका! गर्भिणि बायलांक यरवाडा जैलाक धाडका मण मनवि तीणे दिलि. मनवि मान्य जालि.

बेळगांव ची ही दुसरे अबधि पूर्ण जावन जैलाचान सुटलि, क्रि कमलादेवि पयलें वचुन गांधीजिक भेटलि. ताणे तिगेले चलो, राम् बद्दल काळजि दाखयलि. थोडो काळ ताजे बरॊबर काड! तागेलें शिक्षण आनि भविष्याचे निर्धार घ ि जायना पडेनचि राजकारणाक परत यो! म्हण ताणे सल्ला दिलि.

जालयारी जाले ते उल्टा ची! परत तिका अरेस्ट्केले. ते

दीसांत राजकीय व्यक्तिक अरेस्ट करचाक, जैलाक लकोवचाक, वारंट् जायमण नासले. शांतताभंगाक कारणजाल्लि व्यक्ति! म्हणु एक सरकारि संदेश पुरो जात्तालो! हे पटि तिका वेल्लोर जैलांत बंदिवास जालो.

हे तिगेले जीवनाचे अत्यंत कठिण दिवस ठरले. बायलां खातिर नवीन वांदिले हे कारागृह, एक हॉड शिलेरि आसले. थंचे भयंकर उष्णतेंत शिला तापतालि. कोणि राजकारणि कैदि थंय् नासल्यान कमलाक एकांत बंदिवास ठरलो. प्रति दीस सांजे स घंत्यारि किटकि नासले खोलिंत लाक्अप् जाल्यार, दुसरे दीस, सकाळि, दाराक बीग काडसर, ति धगान तडपडतालि. भायर एक झाड, एक वाल नासलि. भायर निच्चाक बि अनुमत मेळ्ळे ना! आमि जावन जैला आयलात! पोळनु वचे प्रयत्न करनात!" म्हणु सांगले. बंदिवासांत भर्ति पहरो आसले कडेन सुदा रूमा भायर निच्चाक तिका परवानगि मेळिना! पातकि जनांक आनि स्वातंत्र्य योधांक एकचि ट्रीट्मेंट् दीवन ब्रिटिश् सरकारान समानता' साधसुयलि!

एकवरस एकसुरि जावन ते धगात दीस काडचे यातनामय जाले. थोडशे वाचन जाले. तीणे, आपणाले अनुभव बरोवचाक सुरुवात केले. आपले कालाचे सामाजिक जीवन, ताजे विश्लेषण, राजकीय समस्येचेरि तिगेले विवेचना, जैलाचे अनुभव, आत्म निवेदन, ती बरयत उरलि. दुर्दैवान हे अमूल्य बरप व ु चि उज्वाडता!' म्हण व्हरन एक बंधुन ना करन घाले! कमलादेविन, प्रति दवरलि नासलि. जैलात ते साध्य बि नासले. तिक्का बरोवचि खूबि, आसलि. श्रीमंत अनुभव आसले.स्पंदनशील मन आसले. तिगेले बरप चार चौगांक मेळचो अवकाश कायं ना जावन गेलो! थंचे अनारोग्यकर वातावरणान, कमलादेवि अशक्तजालि. एक सकाळि बीग काडन भितर गेल्तेन्ना, पोलिसाने तिका प्रज्ञाहीन स्थितिंतु

जमीनेरि पडिलि पळयलि. डाक्टराक सांगुन धाडले. चिकित्सा मेळनु ती वांचुनु उरलि. बेग्गिचि तिका सुटकार जालो. ती मंगळूराक वापस आयलि. (1934).

हे खेपे जैलवास, दैहिक इतले नंय्, मानसिक खंताक कारण जाले. चलो राम् गिरिजाबायिलागि सान हॉड जात्त आसलो. तागेलो बापय् हरींद्रनाथ पांडिचेरि आश्रमांत आसलो. मदेमदे येवनु चल्याक आनि कामाक दवरिले सीताक घेवन खैंतरि वत्तेर उरतालो. खंय् वता? कसले करता? कोणाकय् पतो लायनाशिलो. पोट खातिर, ताणे खंचियि वृत्ति, केनाय् केली नासलि! तागेलि स्वछचंद प्रवृत्ति, विचित्र भावविकार, सहिसुन घेत्तची कमलादेवि आयलि. जाल्यारि तागेले दारुचे दौर्बल्य तिका कठिण राबले. हे स्थितिंतु चल्याक तो कशि पळेयतलो? गांधिलो उपदेश परत परत उडगासाक येत्ताले. तु, देशाचे, स्वातंत्र्या खातिर लडत आस! जाल्यार तुगेले स्वातंत्र्य मेळोवचाक असमर्थ जाला! विचारकरन तुगेले, तुगेले चल्यागले, भविष्याचे निर्धार कर! खंचेयि एक अचल निर्धाराक यो! परिणामाक राकु नाका!" ताणे म्हणेले. कमलादेविने मस्त येचना केलि. विवाहबंधन नाका म्हण ठरयले. खुद स्वतंत्र जायनाश्शिले व्यक्तिन, देशा स्वातंत्र्या खातिर लडचे अस्वाभाविक दिसले. जननाशिले विवाह जीवन, मुखारसुन व्हर्चातु अर्थु उरलना. तीणे वेगळे जांवचे ठरयले, हरींद्रनाथाक वेगळे जांवचे नासले. कित्याक तू आशि विचार करता?" म्हणु तो म्हणत उरतालो. बहुतेक व्यक्ति स्वातंत्र्याची तागेलि कल्पना वेगळीच्च आसलि! सर्वजन, सर्वतंत्र, स्वतंत्र आसत!' म्हण लेकल्यारि कोणियि लगाम् घालचाक जात्तवे? कमला कायदेशिर विंगडजालि. त्या दीसांत, परस्पर अनुमतिने दंपतिने वेगळे जांवचे अपरूप आसले.

हरींद्रनाथान खंचेयि प्रसंगार, आपणाक दुःख दिल्लेले, अपमान केल्लेले उगडासाक येना! म्हण कमलादेविन सांगले आसा. बायलेले कर्तृत्वशक्तिंतु हरींद्रनाथालो पूर्णविश्वास आसलो. जाल्यारि जीवनांत अति घन आसले आदर्श–देशाचे स्वातंत्र्य प्राप्तिचे आदर्श, दवरन घेत्तिले व्यक्तिक, दुसरे सगळे विचार गौण जाताले. हे होड आदर्श, चंचल, आनि रसिक मनीस–हरींद्रनाथाक साध्य नासले. वेगळ जालेतरि परस्पर गौरव ताणि दोगानि राकुन घेतलो.

चौतेफंताक, कमलादेवि जैलागेलि. भूलोका भोवंडि पूर्णकरन, वापास स्वदेशाक येनापडेन परत, चळवळींत उडकिमारलि. 1942 आगस्ट् 8 तारीकेक क्विट् इंडिया' म्हण कांग्रेसान ब्रिटिशाक नोटिस् दिले. सगळे पुढारि हांतु शामिलजाले. हेरदिसु, तांकाव ुफाल्ले जांवजे फुडेचि अरेस्ट् करन अज्ञात जाग्यार बंधनात दवरले. तेवेळारि कमलादेवि बेंगळूरांत आसलि. संस्थानांतु राजकीय जागरण मस्त ऊणे! म्हण कळन घेवन, आपणान जालेते काम करचाक वचगेलिलि. शांतिभंग जावचे लक्षण दिसल्यान सरकारान तिका अरेस्ट् केले. बेंगळूर जैलांत थोडे म्हयने तीणे काडले. ते नंतर, तिका पयलें आसले वेल्लोर जैलाक व्हेले. खंचोय अपराध हे वेळार तिजेरि नासलो. तरि आपले विशेष अधिकारान, सरकारान तिका 21 म्हयनें नजरबंदि जैलात दवरले. फाटिचावारि, वेल्लोरांत एकांत जालेना. आतां महिळाकैदि सुमार आसलि. जालयारी तेची घगाचें अनारोग्याचे वातावरण. तशि जावन ती मस्त सीक पडलि. वैदकीय कारणा खातीर, शिक्षा पूरा करचे थोडे दीस पैले, जैलाचान तिका मुक्त केले.

जाल्यारि हेचि अवधिंत तिक्का लाग्गिचे जावन आसले सुमार पुढारि सरले. कस्तूरबा, महदेव देसायि, आर्.एस्. पंडित (जयलक्ष्मि पंडितालो बाम्मण) वगैरे. लोहिया, जयप्रकाश नारायण आसले समाजवादि धुरीणांक जैलांत चित्रहिंसा दिल्लेलि. हे घटनेन ती मस्त बेजारलि. जाल्यारि जैलाभायर येनापडेन करकाजालि काम सुमार एकडे जावन आसलि.

जैलाचे विविध अनुभवान, कमलादेविक पक्वकेले. श्रीमंतिकेचे सुखसवलत्तांतु वाडिलेक मूलभूत अनुकूल नात्तिले ब्यारकांतु, दीन, दरिद्र, रोगि आनि भ्रमिष्ठ बायला बरोबर दीस काडका जाले. ते काळाक पिशालि आस्पत्री नासलि. तिगेले बेळगांव जैलाचे वास्तव्य हांतुरि, एक पिश्शेलाग्गिलि, बायल आसलि. वैरचे वैर तिका आंगारि एत्ताले. तेन्ना भयानक रीतिने वागतालि. जाल्यारि कमलादेविक पळेयल्यारि ति शांत जातशिलि. कमलादेविन तिगेलि शुश्रूषा केलि. 10 वारानंतर तिज्जांत भरी सुधारणा जालि. नंतर ती नार्मल् रीतिने वागचाक लागलि. तिगेलि शुश्रूषा करन जैल सिब्बंदिचि मात्यादुक कमि केल्यान, कमलादेविक एकमैन्या अवधि, शिक्षेंत कमि जालि!

जैलाचे जीवन, मनषाक सहनय् शिकयता. जास्तपटि ताज्जांतले मानवीयताय् काडता, हे कमलादेविले अनुभव. भारतीय जैल् अजुनय्, क्रूरशिक्षेकचि कुप्रसिद्ध आसति. पोलिस् अत्याचार बद्दल वरचे वैर पत्रिकेंतु, टि.वि. माध्यमांतु वरदि जाता. स्वातंत्र्य चळवळिचे अतंत्र परिस्थितिंतु, होड संख्येरि, मेळ्ळे तशि जनांक धरन 10 जणानी आशचे कडेन 50 लोकांक कोंडुन घालेलि परिस्थिति कशि उरचाक पुरो? सानसान विषयाक मनस्ताप, झगडि, दारल्यांत मारामारि बि तीणे पळयली. निरक्षरि जन जैलात वाच्याक बरोवचाक शिकुन भाय्र पडिले भी तीणे पळयले. स्वंत जीवनांत, आनी राष्ट्रजीवनांत 'स्वातंत्र्य' म्हळेले कल्पनेची कित्लेतरि तोंड तिक्का देक्कु पडिलीं! आनि ताजान तिगेलि देशसेवेची कल्प्ना, स्पष्ट रूप घेत्तेरि गेलि.



अध्याय 7

# बायलाखातिर : स्वताचि, परिशदेचि सेवा

कमलादेविले व्यक्तित्व बहुमुखी आसले. तशीचि तिगेलि जनसेवा बि बहुरूपि आसलि. तिगेले लोककल्याणाचे कामात हातकामाक तीणे दिल्लेले पुनश्चेतन आनि प्रोत्साह अतिमुख्य म्हळेलि कल्पना आसलि. जाल्यारि तित्ले मुख्य आसलो, बायलां खातिर तिगेलो योगदान. वैयक्तिक रूपान आनि अखिलभारत महिळा अधिवेशन (आल् इंडियावुमेन्स् कान्फरेन्स् = ए.ऐ.डब्ल्यु.सि) हाजे मुखांतर, हे देशाचे बायला खातिर तिगेलि सेवा, विंगड विंगड रूपाने पावला.

हे एकवीसावे शतमानाने, बायलांगलि अभिवृद्धि होड प्रमाणारि पळयला! बायलानि मिंचवनातिले क्षेत्राचि ना म्हणयेद! जाल्यारि आजिक शंबर वर्सा फाटि, परिस्थिति अगदि वेगळि आसलि. बाल्य विवाह, विधवा जनालि निकृष्ट स्थिति, शिक्षणाचो अभाव, आर्थिक परावलंबन, कौटुंबिक हिंसा, मूलभूत हक्काचि वंचना, एक–दोन न्हय! बायलागले दमन, विश्वभरि आसले. तरि भारतांतले, वयले वर्ग म्हणघेत्तले, जनांगाचे बायलालि शोचनीय परिस्थिति सांगुन सरना! आयचे दीसांत ती स्थिति, अपरूपाक देकु पडता! तांबडे कापडाचि' मात्यावयले सेरगाचि" म्हण सुसंस्कृत भाषेंत वळखतले विधवा बायलांक आजकालचे जन फक्त सिनेमांत, ते, बि फाटले कालाचे सामाजिक जीवन चित्रण करचे, सिनेमांत पळयताति! मात्ते बोळसु ा, तांबडे कापड निसोवन अपशकुन! म्हण कोणाकय् तोंड दाकयनाशि, घरामुल्यांत, काळकांत, मरसर घोळत दीस रात काडताले. हे कठोर सत्य, आत्ताचे कित्ले जन, जाण? दुर्बळे बायलालि स्थिति तरि, घोर आसतशिलि. रांदचे काम, आनि दुसर्याले सेवेंतु तांगेले आयुष्य वताले. एकऽ जेवण, व्रत, उपवान करन बि, बोडकि!' म्हण तिरस्काराक पात्र जातालि.

असले परिस्थितिंतु, 1900 वर्साधरन अथवा बगेन पयले, शिक्षण मेळिलो धीर आनि दयावंत बायलो थोडे कडेन बायलाले बरेपणाक कामकरत आशिलीं. हांतुय, लेक नाशिले कष्ट भॊगुन, स्वता अथवा, बामणाले, प्रॊत्साहाने, संस्था बांदुन, सामूहिक रूपाने सेवा केल्लेलि आसत. महाराष्ट्र राज्य हे दिक्कांत मुखार आसले. सावित्रिबायि फुले (1831–1897) पंडिता रमाबायि सरस्वति (1858–1922) आनि, रमाबायि रानडे (1862–1924) हीं प्रमुख आसात. बंगालप्रांतांत, दक्षिणेचे मद्रास प्रांतांत, बि थोडे, पुरोगामि काम चलताले. पुणेचे प्रसिद्धव्यक्ति आनि तांगेले कामाचे पूर्णपरिचय कमलादेविक सानपण धरन आसले. मद्रासाचे संपर्कान गिरिजाबायि आनि कमलादेवि अनिबेसेंट् आनि ग्रेटाक, गुरु म्हण मानतालिं.

आयर्लंडचि ग्रेटा अथवा मार्गरिट् कसिन्स्, इंडियाक येत लागेने (1915) थियोसाफिकल् सोसायटि मुखांतर अनिबेसेंटा बरोबरिचि कामकरत आसलि. बायलांगले शिक्षणाक दोगानि आद्यता दिलेलि. 1917चे वर्स, मद्रासांतु थोडे सुशिक्षित बायला बरशि एकसंघ ताणि स्थापितकेले. इंग्लिष्भाषे चे शिक्षण, शिवणेचे प्रकारांत तरबेति, वेगवेगळे खेळाची सुरुवात केली. युरोपियन् आनि भारतीय बायलांक मेळनुचि हे समाज मुक्त आसले. ते निमित्ताने ताका वुमेन्स् इंडिया असोसियेषन् (डब्ल्यु.ऐ.ए) म्हण नाव दतरले. अनिबेसेंट् हाजि प्रथम अध्यक्षजालि. देशभर हाजो प्रचार जाल्यान वेगवेगळे प्रदेशांतु हे डब्ल्यु.ऐ.ए. चि शाखा, रूप घेवचाक लागलि. 5 वर्सा भितर 43 शाखा उठलि. 2300 सदसा जाले. ते ते राज्यांत स्थळीय संस्कृतिचे रूप डाब्ल्यु.ऐ.ए.ने घेतले. मातृभाषे शिक्षण, शिवण, प्रथम चिकित्सा (फस्ट् एड्) असले उपयुक्त विषय तानि शिकवणिंत मेळवन घेतले.

गिरिजाबायिन 1910 इत्ले फाटिच, अप्णाले घरांतच, असले एक समाज सुरुकेलेले. पत्रिका, पुस्तकवाचन, परस्पर मदत, ती हे समाजा तर्फेन करत आसलि.

सानसान शाखामुखांतर, बायलांक मुखार हाडचे प्रयत्न चालू आसले तरि, राष्ट्रम ारि एक केंद्रिकृत योजन हाडचे प्रयत्नांतु ग्रेटा आसलि. ब्रिटिश् सेक्रेटरि आफ् स्टेट्–मांटिग्यून भारताक आयलेतेना, बायलांक वोटदिंवका! म्हण एक बायलागेले नियोग घेवन ती भेटचाक गेल्लेलि. मद्रासचान स्त्रीधर्म" म्हळेले मासिकयि आनिबेसेंट्, आनि ती भायर हाडत आसलि. बायलांक सर्वथरेने उपयोग जांवचे लेख तांतु प्रकट जाताले.

पुणेंत गोखले, तिलक, न्यायमूर्ति रानडे हांगेले फाटबलान सुरुजाले, थोडे संघ – संस्थे कामकरत आसले. पंडिता रमाबायिले शारदासदन (1890) आनि रमबायि रानडेगले सेवासदन (1910) मस्त कामकरत आसले. तिरस्कृत अनाथ आनि तरणे विधवा बायलांक आहार, आश्रय आनि शिक्षण दीवन तांका स्वावलंबि करचे ध्येय दोनीं संस्थेचे उरन, जनप्रिय जालेले. सेवासदनाचे नाव चारिदिकान गाजताले. गिरिजाबायिक दोग्गयि रमाबायिले चांग परिचय आसले. सामाजिक कामांत आवड असल्यान थोड काल पुणेंत तीणे आनि कमलादेविने वास्तव्य केलेले.

1927 वर्सांत, ग्रेटाने पुणेंतूचि राष्ट्रम ाचे, महिळा सम्मेळन संघटन करचे ठरयले. शारदासदन आनि सेवासदनाचे फाटबल तिका आसले. कमलादेवि, केन्नावारिच वालंटियर् जावन कामकरचाक संतोषान तयारजालि, स मैने, पयलेचि, सुरुजाल्लेले कामात, तीणे सर्वथरेने ग्रेटाक सहाय केली.

बडोदा संस्थानाचि महाराणि चिमणाबायि गायकवाड, अध्यक्ष म्हणु चुनायित जालि. तिगेलि संस्थानांतुयि तीणे, तिगेलो बामण, महाराजा सयाजिराव गायकवाडाक, शिक्षण प्रसारांतु व्हडलि

प्रगति साधसुंवचाक साथ दिल्लेले. कमलादेविक हे सम्मेळना निमित्तान, देशांत वेगवेगळे राज्यांत कामकरत आसले सुमार इत्ले बाय्ले पुढारिंगेले परिचय जाले. तानि करत आसले स्त्रीशिक्षण आनि सामाजिक सुधारणेचि कल्प्ना स्पष्टजालि.

सरोजिनि नायडु (तिगेलि नणद), अखिलभारत कांग्रेस् अधिवेशनाची 1917 वर्साची अध्यक्ष जायतलागेने, तिगेले स्थान, मान, आनि उतरांक, कांग्रेस् कार्यकर्ते आनि ब्रिटिश सरकार मस्त मान दित्तशिले. बायलांगले पुरोगामित्वांत तिगेले पात्र, सहज रीतिने वाडिले. आत्त ए.ऐ.डब्ल्यु.सि चे व ् कलापांतु तीणे आस्थेने भाग घेतिले. प्रधान कार्यदर्शि जाग्याक कमलादेविले नाव सुचयता म्हण, तिका सरोजिनिने सांगले. कमलादेवि तयार जालिना! ताज्ने फुडेयि, ग्रेटाने तिगले मन वलसुंवचाक मस्त प्रयत्न केलिले. पैले पासुन कमलादेविक, वालंटियर् जावनु माक्षि उरनुचि, कामकरचे आवडतशिले. तीणे कार्यदर्शि जायना! म्हण ग्रेटाक सांगिले.

आत्त नणदेने आग्रह केलार भी कमलादेवि तयारजालिना. सरोजिनि नायडुक कोप आयलो. समाजसेवा करता म्हण सांगत उरता! अत्त हो एक बरो अवकाश प्राप्त जाला देशाचे म ारि. नोळयत हं म्हण! ग्रेटा, तुका सगळे काम शिकयतलि. कसले, किते, काम करता म्हण सांगतेरि उरतलि!" इत्ले सांगुन, तिका परत उलोवचाक वाव दिनास्तना, सरोजिनिदेवि स्टेजार पावलि. तीणे सभेचे आभार, अध्यक्षाले आभार मानसुले. भाग घेत्तिले सगळे सभासद संस्थेक कृतज्ञता सांगले. तिगेलि उत्रा खूबि, आनि विनोद, अपूर्व उरताले. जनांक विश्वासांतु घेंवचे तंत्र तिका बरेचि साधसुयेले. आखेरेक ती म्हणालि, आत्त एक कर्तबगार, प्रधान कार्यदर्शि, आमका मेळचांत आस ...... एक राज्याचि लुक्सान, सबंद देशाचे फायद्याक आयले शे जाले!" म्हण, तीणे, कमलादेविले नाव सुचयले. प्रचंड करताडन जाले. सर्वानुमतान

कमलादेवि कार्यदर्शि म्हणु चुनायित जालि. कमलादेविन मद्रास
एसेंब्लिक राबुन हरलेले, ते राज्याचि लुक्सान! म्हण प्रासंगिव
जावन सरोजिनि नायडुन सांगुन आसचाक पुरो. जाल्यारि आत्त
कमलादेविक खरेपणारि, बायलांगले बरेपण साधसुवचांक
ए.ऐ.डब्ल्यु.सि आसले राष्ट्रम ाचे संस्थेचे प्रधान कार्यदर्शिले
रूपान बरी वाट मेळि.

सरोजिनि नायडुन कमलादेविले नावघेत्तिले तशिचि तिगेल
चेप्पे, पडिले आनी घाबरेले तोंड पळवन ग्रेटा, हासतेरि बसलि
तिगेलेचि हे तंत्र म्हणचात कमलादेविक संशय उरले ना! नंत
ग्रेटान तिका मस्त धैर्य दिले. माक्का तु सहायकि म्हण कामकरतलि
प्रति काम हांवे सांगलेवरि करत उर! कसलेय् कळना जाला
विचार!" म्हळे तेना कमला म्हणालि. हांवे केल्ले चुक्याक तुका
वायट नाव आयल्यार किते करचे?"

तसले घोर चुक्यो मेगेले हातान जांवचे नात!" सामाजिक
कामात निरडलेले ग्रेटान सांगले. आपले नवे जवाबदारिक
कमलादेवि तयारजालि. सानपण धरन बायलांगले स्थानमान सुधारचे
दिकान वळण आसले वातावरण तिका परिचित आसले. विलायतेंत
समाजसेवा विषयांतु डिप्लोमा करचे वेळारि, थंचे बायलांगलि
समस्या आनी सरकारि, संघसंस्थे मुखांतर ते दूर करचे थोडे
प्रयत्न, तीणे पळयिले. प्रात्यक्षिका (प्राक्टिकल्स्) लंडन्चे ईस्ट्
एंड् चे गरीबाले वसतिंतु उर्ताले. जगभर बायलालि स्थिती शोचनीय
आसा! म्हळेली जाणीव तिक्का घ ि जावन गेलिले.

इंग्लंडचान वापस एत्तेरि तीणे, सेवादळाचि वालंटियर् जावन
कामकेल्लेले. कांग्रेस् वालंटियर् जावनूयि ती सक्रिय आसलि
पुणेचे वास्तव्यांत सेवासदन असले संस्थेचे कार्याविधान लाग्गिचान
पळयिलें. नवीन जवाबदारि कामाक ती तयारजालि.

ती आतां, शार्ट हैंड शिकलि, टाय्पिंग् शिकलि. देशभर पसरसुन आसले सान–होड महिळासंस्थे बरोबर, नियमित जावन पत्रव्यवहार सुरुकेले. मस्त कागदाक ती जावन, विचारिले बायलाले प्रश्नाक, समर्पक जवाबदितालि. नवीन संस्था जाल्यान, विंगड विंगड प्रदेशांतुले संस्थेक ती स्वता वचुन तांका सूचना दिंवचाक लागलि. हे प्रवासांतु टाय्परायटर् सांगात घेवनु वत्तशिलि. ट्रेन् राबिल् कडे जावो, वेटिंग् रूमांत जावो, तिगेले काम, चालू चि उरताले.

हिगेले प्रवासा योजनेन बरो फायदो जालो. तिका भेटचाक चडते, स्थळीय बायलानि येंवचाक सुरुवात जालि. जिल्ला म ारि, तीणे मीटिंग् दवरलि. बायलांक ट्रेनाने येंवचाक वच्चाक रियायति (कन्सेषन्) तिकीटाचि व्यवस्था केलि. कित्लेकि बायलांक घराभायर पडचाक हो एक सदवकाश जालो! आपले समस्येक लक्षदित्तले, आसत! म्हळेले जाणीव, नवे जावन स्थळीय संघटनेचे कामकरचाक आत्मविश्वास तांका मेळ्ळो!

कम्मि उत्पन्नाचे, हॉड जवाब्दारि आसले, घरण्याचे सुमारित्ले बायलांक भेटचो अवकाश, कमलादेविक मेळताले. दारले आनि चरडंवाक विशेष लक्ष दिल्यान, स्वतः पोटभरि जेवण मेळनाशिलो, बायलो देक्कु पडताल्यो. चारपटिचे जैलाजीवनांत तीणे 'पातकि' म्हण घेतिले बायलालिं स्थिति–गति पळयलि. तरि सुद्दा, घरांतुले त्रासाकिंता, जैलाचे जीवन बरे! म्हणतल्यो बायलो आसल्यो!

देशांत बायले कार्मिकाले संघटन पयले खेपेक केल्ले श्रेय कमलादेविक वत्ता! मद्रास् प्रेसिडेन्सिंत मस्त कप ा गिरणि (मिल्स्) आसलिं. फ्याक्टरि आसलि. थंय् कामकरतले बायलांक बाळांतरा रजा नासलि. पयले गरीब, कम्मि पगार. असले दीर्घ रजा घेतले म्हळ्यारि बिन्पगाराचि रजा! तीणे हे प्रसूति रजेर जोर दिवन बायलाले संघटन करन हक्काचि मागणि मुखार केलि.

मालकानि, मागणि घालतल्यांक डिस्मिस् करता म्हण भिसडायले. ग्रेटाने आनि कमलादेविन मेळन महिळा परिषत् (ए.ऐ.डब्ल्यु.सि.) तर्फेन चळवळ सुरुकेलि. चळवळ उग्ररूप घेंवचे लक्षण दिसल्यान, मालक लोकानि बागवका पडले! प्रसूतिरजा चालतिंत आयलि.

ही बातमि, मधुरेचे मिल् मालकांक पावलि. तमिळनाडुचे मधुरेंतु होड कप ा मिल्स् आस्सुन 3000 कार्मिक आसले. कार्मिक संघ आसलो, बायले कार्मिकय् आसले. मालक वर्गान कार्मिक संघ चि बर्खास्त करताति, तुम्म सवलत् विचारलार!" म्हण भिसडायले. कमलादेविन कार्मिकांले बायलांक संघटने केले. तुमितरि कार्मिक संघ बर्खास्त करचाक हं! म्हळ्यारि आमि घरचिकाम, रांचे आनि मिलाचे काम व ुं सोण घालन संपारवतात!" म्हणु महिळावर्गान एक जावन दारल्यांक आनि मालक वर्गाक मेळ्नु चि वार्निंग् दिले! मालिक भिले. पयलेकिंता चड सवलत ताणि दिली!

मंगळूर जिल्लांत ट्रान्सपोर्ट कार्मिकाले युनियन् कमलादेविन बांदले.

ए.ऐ.डब्ल्यु.सि अथवा अखिलभारत महिळा परिषत्तान बायलांक दिवेयलि शाश्वत देणगि म्हाळ्यारि प्रसूति आनि सिक् रजेची सवलत. ही सवलत् प्लेंटेशन् (रब्बर्, चा) आनि गणियांत कामकरतले बायलांकयि लागू जाय् शि कमलादेविने पोळोवनु घेतले. हाजेखातिर आसाम् आनि बंगालाकयि ती गेली. आळ खणियांत बायलांक धाडचान ना! म्हळेले शर्त घाले. ते स्वीकृत जाले.

1930 वर्साधरन काजुबी (क्याशुनट्) विदेशाक निर्यात जात्त आसलि. यांत्रिक रूपाने सोलचे, भारतांतु सुरुजाले नाशिले. चाकु वरेक वापरचाक दीनाशिले. भायले देशाक धाडचे काजुबी चे तुरियो मोडल्यारि लुक्सान् जाता! म्हळेले अंश मुख्य जालयान,

बायलानि, बो ानि नाजुक जावन सोलका जाताले. टन्गट्ले काजुबि सोलचे काम अत्यंत कठिण जावन तांका बोटाक सूजि एत्तशिलि. मंगळूर, काजुबी चे केंद्र जावन आसले. कमलादेविन बायले कार्मिकांक संघटन करन, हे अन्याय पद्धति विरुद्ध हरताळ केले. चाकु वापरचाक परवानगि मेळि!

अखिलभारत महिळा परिषत्, राष्ट्रम ाचे बायलांगले समस्या धूरकरचे प्रयत्नांत सक्रियभाग घेत्ताले. बाल्यविवाह चुकोंवचे, हरविलास सार्दा आक्ट्' (शारदा एक्ट बिल्, म्हण आमगेले प्रदेशांत वळखतात!) चल्यांक चौदावर्स पूर्ण जाले शिवाय् वरडीक करचाना! म्हळेलो हे एक्टाचो महत्वाचो मुद्दो आसलो. पार्लिमेंटा मुखार बिल् आयले. सर्व पुढार्यांक मेळनु तांगेले फाटबल, कमलादेवि एकडे करत आयलि. लाला लजपतराय्, एम्.आर्. जयकर्, जिन्ना आसले. सगळ्यानि मनःपूर्वक सहमति दिल्लेलि. एकदीस् ती, मोतिलाल नेहरू लागि गेलि. त्या दीसांत पूतु जवाहरलालाकय्, तागेलि प्रतिष्ठा आनि मान वयर आसले! सगळे ताजेल्यागि उल्लोवचाक भित्तशिले कमलादेवि सगळ्या कडेन गेल्ला वारि ताजलागि वच्चुन तागेले सहमत विचारले. तिक्का वयर धरन तग्गथाय् पोळोवन मोतिलाल म्हणालो, हे, विषयांतु एक चिक् (कुंकडापिल) गेलो अभिप्राय. आमि गंभीर पणान घेवका की कितें?"

कमलादेवि एकनिमिष दिङ्मूढ जालि! तक्षण धैर्य हाडुन घेवन मणालि. तुमका फुरसत आसलार, मांतारे, कुर्टबागुलेले, पिक्के केसाचे, बायलांगले होड टीम् चि. तुमचे मुखार राबयता!" इले सांगुन तीणे फिरन वच्चाक सुरुकेले. मोतिलालले जोर हाशान तागेले आफीस भोरन गेले! नाका बाय्! नाका! हे विषयांत तांचे पेक्षा तुगेलि सांगणि मानता!" हासत मोतिलाल् नेहरु म्हणालो. ताणे एक्ट् पास जांवचाक संपूर्ण सहकाराचो भरवसो दिलो. इत्लेनय्! अल्हाबादचे तागेले स्वंत घर आनंद

भवनाक तिक्का 'यो' म्हण खास आमंत्रण दिले. कमलादेवि थंय् बि पावलि. तागेले कुटुंबाक निकट जालि. तीन दीस तांगेलि अतिथि जाले तेन्ना, बाप्पय् आनि पुताले प्रतिभेचे परिचय तिका जालो. ब्रेक्फास्ट् टेब्लारि तांगेले वाद, तर्क, चर्चा, आयक सरखे उरताले. मोतिलाल नेहरून दोन तीन वेळा, ही "डेंजरस् वुमन्" कमलादेवी आमका आक्ट् पास् करचाक ब्लाक्म्हेल् करचाक आयले आसा! म्हण तिगेला परिचय, विनोद रूपान आपले दोस्तांक करनदिलेले.

कमलादेवि आपले युरोपियन् प्रवासांत तेन्नाचे प्रसिद्ध समाजसेविकांक स्वतः मेळिलि. जेन् एडेम्स् (1860–1935) अमेरिकेंत होड नाव्. सहकारि रूपान बायल–चेर्डुवांक अति गरज आसले शिक्षण, मेडिकल् सहाय तीणे दिवेयले. अमेरिकेक एत्तले, वेगळे देशाचे निराश्रित हांका होड प्रमाणारि, ती पावतालि. प्रीति, दया, शांतिन मात्र लोककल्याण साध्य! म्हळेलो तिगेलो विश्वास. पयलेचे नोबेल् प्रशस्ति प्राप्त जाल्लेलि अमेरिकन् महिळा आसलि ती. तिगेले अभिप्राय गांधिले तत्वाक अगदि लाग्गीचे आसले. कमलादेविलागि, तीणे गांधी तत्वा बद्दल मस्त विचारकळन घेत्तिले. तेन्ना कमलादेविक, स्पष्ट जालेलो विचार म्हळ्यारि, तिगेले अहिंसात्मक, शांतिखातिर लडायिक साथदित्तले तिगेले देशांत कोणी नासले. जाल्यारि, गांधिले उतराक मानदित्तले लोक लक्षलक्षान तागेले देशांत आसले!

बाल्यशिक्षणांत प्रप्रंचांत प्रसिद्धिक पाविलि, मारिया मांटेसरि(1872–1952), कुटुंबयोजना म्हळेलो विचार, पयले खेपेक प्रचाराक हाडिलि मार्गरेट् स्यांगर्, (1883–1966) हांका व कमलादेवि प्रत्यक्ष भेटलि. तांचे बरशि उल्लोवन तांगेले विचार कळन घेत्तिले, तीणे, तिगेले आत्मचरित्रेंतु सांगुनु घेत्तिले आस. कुटुंबयोजनेचे प्रथमरूप, भारतांतु हेचि कालाक रूप घेतले. हे विषयारि उलोंचे टाबू आसले दीसांतु, सौम्यरूपाने महिळा परिषदे

तर्फेन कमलादेविन प्रचोदना दिल्लेलि. बायलांक तांगेले देहारि हक्कु आसलेवारि, कुटुंबेक कितलि चरडुंवजाय्? म्हणु ठरवचो हक्कु तिका आस! म्हणु स्पष्ट सांगतालि. शकुंतला परांजपे, हे विचार मुंबैराज्यांत प्रचार करत आसलि. प्रपंचाचे वेगवेगळे देशाचे बायलाले स्थानमान तीणे लागिचान पळयले निमित्तान स्वंत देशाचे बायलांखातिर कित्ते करचाक फाव आस? म्हण तौलनिक रूपान विचार करन ती कामाक लागतालि. अखिलभारत महिळा परिषत् तर्फेन, तिगेले बायलां खातिरचे प्रगतिपर विचार, प्रचाराक हाडचाक सहाय जाले.

बडोदा महाराणिले अवधी (टर्म्) जालेतशि. भोपाल् चि बेगम् हिका, अखिलभारत महिळा परिषदेचे अध्यक्ष जांवचे खातिर विनंति करचाक कमलादेवि, भोपाल् गेली. ती बेगं बि बायलांगले प्रगतिंत, मुख्यजावनु शिक्षणक्षेत्रांत विशेष लक्षदितालि. तीणे, अध्यक्ष जांवचाक कबूलि दिलि. जाल्यारि समावेश, एक सार्वजनिक कार्यक्रम जालाान, खुद्द बुर्खा घालनु घेवनुचि येत्तलि म्हण तीणे स्पष्ट सांगले!

कमलादेविक शाक् जाले! बायलांक परदांतल्यान, बुरकांतल्यान भायर हाडचोचि, उद्देश प्रथमजावन, ए.ऐ.डब्ल्यु.सि न आपणायिलो! कमलादेविन तिगेले कंडिशन् स्वीकार केले. बेगमाले प्रीतिचे विषय स्त्रीशिक्षणाक, परिषदेन दिल्लेले महत्वाचे परिचय तिका करनदिले. बेगं साहेबान कानफरेन्स् चे सगळे सेशनांत आसक्तिने भाग घेतलो. बायलांले शिक्षण पद्धतिंत विंगड विंगड कलाप्रकार मेळोंवकात, म्हळेले प्रस्ताप आयलेतेना, नृत्य (Dance)यी उरका म्हणचे भितरि, बेगम् चिडलि! हांव अध्यक्ष जावन आसले सभेंत नृत्यचेर खंचेय् चर्चेक आस्पद दीना!" म्हण तीणे घोषणाकेलि. बेंगळूरचि बायलांगले कालेजाचि प्रिन्सिपाल् झीमा लाझरस्ने ही सूचनामांडिलि. तीणे माते हालयत् जायत्! म्हळे. शेवर संगीत हाडचाक अड्डिना म्हळे तेना, तीणे

संगीता आसले कलेचे विधान म्हणत नृत्यचे अभिनय करत जाल्यार ान्स्' म्हळेलो शब्दु हारसुन दिवन, अनुमोदन मेळशि केले! लक्ष दीवन आयकत, पळयतल्यांक, मात्र संदेश पाविलो! ते बायलो हासो दामूनु घेवनु उरलिं! बेगं साहेबाक लक्षायेंवचे पयले ठराव पासजाले!

मंडि प्रांताचि राणि, नंतरचे अधिवेशनाचि अध्यक्ष. कमलादेविन स्वतः वचुन दिल्लेले आमंत्रणाक ती कबूलजालि. इत्ले न्हय! तिगेले सीमित निधी(फंड्स्) हांतुल्यानेची होडेक देणगि परिषदेक दिलि.

बायलांक सर्वोपयोगि आसले एक प्रत्येक गृहविज्ञान कालेज, सबंद देशात नासले! परिषदे वतीन कमलादेविन परत परत सरकारावयर वत्ताय हाडले. सरकारान एक कमिटि नेमसुलि. वायसराणि, लेडि इर्विन् हिका, हे विषयांत विशेष आस्था आसलि. तशिजावन लेडि इर्विन् कालेज आस्तित्वांत आयले. न्यूझिलंडचान एक तज्ञ बायलेक आमंत्रितकेले. तीणे 4–5 भारतीय जनांक तरबेति दिलि. सरकाराक परिषदेची सूचना–सलहा नाकसलि. ताणि प्रति राज्यांत आमिचि बायलांखातिर एकेक पालिटेक्निक् उघडतात!" म्हणु सरकारान आश्वासन दिले.

आश्वासन पेपरारि मात्र उरले! जाल्यारि लेडि इर्विन् कालेज् मात्र पंचाहत्तर(75) वर्स पासुन चांगरीतिने चलन आयलि संस्था जावन आसा.

परिषदेचे स्थान एकपटि घ ि जातेर, महाराणि, गवर्नरालि बायलो असल्यांक अध्यक्ष म्हण आपोवचे बंद् केले, सरोजिनि नायडु पांचवे अधिवेशनाचि अध्यक्ष म्हणु सर्वानुमतान निवडुन आयलि.

कमलादेवि, कार्यदर्शि, रूपान कामकरत उरलि. हे जवाबदारिचे काम, फिरतिचे, पत्रव्यवहाराचे, संघटनेचे काम दुसरे

कोणाचान साध्य आसले? हे कामाशिवाय् तीणे, एजेंडार आहार सामाग्रिचे समर्पक वांटचे, चेरडुवांक दूद पूरैसुवंचे, अनुवंशिक जावनु मेळचे आस्तिरि बायलानि हक्कु घालचे, लग्नाक संबंधित कायदे सुधारचे, असले विचार हाडले. सुमार इतले करपत्र (पांप्लेट्) बरयलिं, वांटालिं. ताक्का यॊग्य प्रतिक्रिया बि आयलि.

चरडुंवागले हिताक Children's charter म्हळलि, सूचना बहुशः जगांतुचि पयले खेपेक परिषदेन मंडनकेले. हांतु चरडुंवाक सांप्रदायिक आहार (नांचण्या कणि, पेज, कषाय) हाजेरि जॊरदिलो. ते कालाक बेबि फुड् विलायतेचान एत्ताले म्हण याद करन घेतलार, कमलादेविले स्वदेशि" प्रेम शिशुलॊकाक वरेक पाविले दिस्ता! आत्ता प्रचाराक आयले चेरडाक आवसुले दूदचि उत्तम्!" म्हळेलो तेनाबि जॊर दिललो विचार आसलो.

असहकार चळवळींत पडुन जैलशिक्षा जालेतेना, परिषदेचान तिक्का दूर जावचे पडले. नंतर 1939-41 ती दुसरे महायुद्ध कालांत, विदेशाचे प्रवासांतु आसलि. येनापडेन क्विट् इंडिया' चळवळिन निमदान जैलाक गेलि. तशिजावन अखिलभारत महिळा परिषदेचे तिगेले अध्यक्षगिरिचो चुनाव जालेतरि कार्यमात्र मुखारि वत्त आसले. आखेरेक 1944 वर्सांत ती अध्यक्ष जालि.

बायलांखातिर कामकरतले बहुतेक बायलो जैलाक गेल्यो. तशि जावन ते अवधित काम स्थगित जाल्लिं. कमलादेविन अध्यक्षपदान परत बायलाले सुधारणेक थोडे क्रम सुचयले. जगभर, बायलाले आर्थिक-सामाजिक स्थिति सुधारचाक प्रयत्न जारि आसताना, भारतान फाटि पडचा ना बायलो दुर्बळ्यो!" म्हळेलो दॊषपूर्णविचार शतमानगट्ले आमगेले रक्तांतु रिज्जुनगेला! हाक्का मानसिक बदलावण पयले जाय्! सामाजिक बद्दल, नंतर येत्ता!" म्हळेलि घॊषणा तिणे केलि.

कार्मिक दारले–बायलांतु वेतनाचो फरक मस्त आस! तें वचका. मध्यम वर्गा बायला बद्धल, त्यो परावलंबि म्हळेलो अभिप्राय घ ि जावनगेला. तिगेले घरगुति कामाचे श्रम, जवाबदारि लक्षांत घेवका! बिन् पगार तीणे घोळचे, ताजे असंख्य त्रास लक्षांत हाडका!" म्हण तीणे सांगले.

युनिसेफ् (UNICEF) ने धावर्स नंतर प्रचाराक हाडिले, बायले आनि चेरडुंवाले आरोग्याक, फंड् नासतानाचि, वकद, आहार, दूद आनि आरोग्य, शिक्षणा व्यवस्था, तीणे सुरुवातकेलि. वैद्यकीय साहायाखातिर स्किप्पो' म्हळेले 4 संचारि व्यान् तीणे इंग्लंडाचान मागोवन हाडयलि. गिफ्ट् म्हणु खर्चुनासतना हाडोवचात ती सफल जालि. दिल्लि आसपास् गांवाक, हाजे मुखांतर आरोग्य व्यवस्था केलि. सान गांवांत क्लिनिक् काडचे खातिर फंड् व ु करन, स्थळीय लोकांक ताज्जि व्व्यस्थेची जवाबदारि वहिसुन दिलि. नौकरि करतले बायलाखातिर होड गांवांत हास्टेल् उगडचाक सहायकेले. राबची, रक्षणेची समचि व्यवस्था ना जालार, आजिक साठ वर्सा पैले शिक्किले, क्वालिफैड् बायलाक नौकरिक वचे कित्ले कठिण आसले म्हळेले, कल्पनेक सोडिले विचार! कमलादेविले हे दृष्टिचि मदत मुख्य आस.

बायलांले सबलीकरण (एंपावरमेंट् आफ् वुवेन्) आतांची होड घोषणा जाला! कमलादेविन हे शब्द वापरना जालेतरि, हेचि विचार आचरणेंत हाडचाक विशेष प्रयत्न केला, मस्त फाटीच! 70 वर्सा फाटि!



अध्याय – 8

# भूलोकाचे भोंवडि : असीम साहस!

(पश्चिमरंग – 1)

देशविदेशांतु प्रवासकरतले पुढारि लोकांक पैशे आशिले नागरिकांक, आजचे दीसांतु कांयि कमिना! सरकारि, बिन् सरकारि कामाक, टूरिस्ट् जावन वत्तल्यांक, फिरतेरि उरचे, जीवनाचो भाग जावन गेला. सुमार सत्तर–अयंशि (70–80) वर्साफाटि, प्रवास म्हळ्यारि संतोषदायक उरनाशिले ट्रेन् आनि बोट प्रवास मुख्य आसले. दूरगामि प्लेन् आनीकय येनी आशिले. असले दीसांतु कमलादेवि, दुसरे जागतिक महायुद्ध सुरुजाले तेन्ना, बांब पडत आसले गांवचान गांव फिरल्या. पास्पोरट् जप्त जावन, गोत्त नासले गांवांत नजरबंद् जाल्या. हिमपात जावनु रस्त बंद् जावन, सैनिकामदे एकळी बायलिमनीस, जावनु सूर्यदेवा कृपेक राकत उरल्या. युद्ध चालू आसताना, ट्रेन्भर चीनि जपानि सैनिका बरोबर लडायिचे जाग्यांतल्यान पार पडुन आयला. असले साहसि बायलो कितले उरतल्यो? तिका प्रवास खूब आवडतलो. साहस आसले. ताजे बरोबर तीणे, समाजसेवा, आनि देशसेवा जोडसुयलि आश्चर्याचि खबर!

नंतरले दीसांतु प्लेनान, एयरकंडिशन्ड बोगिन विदेशांत, ती फिरल्या. जाल्यारि हातकामचे, शिल्पिंगेले शोधांत. रस्तो समनाशिले कडेन, चकडिगाडिरि, चकडिगाडिवारि हाल्लेत, दुक्कैत, वच्चे जीपारि, आनि रस्तो नासले कडेन पायान चमकुनु, दूरदूरचा, हळ्ळिक पावतली. तीणे वचनाशिले जागे नासले. देश, प्रदेश, नासलो म्हळ्यारि अतिशयोक्ति न्हय! सबंध अमेरिका खंड, मध्यपूर्वाचे, पूर्वेचे आनि आफ्रिकेचे सुमार देशाक ती गेल्या. आस्ट्रेलियाक, रशियाकय पावल्या.

तिगेलि भोवंडि, प्रायेंतु बेग्गिचे सुरुजालि. हरिंद्रनाथ च ोपाध्याया बरशि व्हरडिक जाले (1919). थोडे दीसानि तो इंग्लंड उच्चशिक्षणाक गेलो तागेले कुटुंबेचे लोकानि तिकायि ताजे सांगांत पेटोंवचांत उमेद दाकयलना! नंतर ती एकळिचि इंग्लेंड गेलि आनि उच्चशिक्षण घेवन वापास आयिले, आमि पळयले.

दुसरे खेपेक विदेशयात्रेक कमला भायर सरलि, ते 1929 वर्सांत. अखिलभारत बायलांले कान्फरेन्स् तरफेन, दुसदुसरे देशांत जाल्ले अंतराष्ट्रीय सम्मेळनाक ती हाजर उरलि. बर्लिनांतु जमिले बायलांगले हे सम्मेळनांत भाग घेत्तिले प्रतिनिधि व ़ चि यूरोपाचे आनि ब्रिटिशाले वसाहत (कालोनि) प्रदेशाथावन आयिले तरी, तांगेले सार्वभौम राष्ट्राचे तर्फेन आयिले आशिले. फकत् ईजिप्त् आनि भारतचान स्वतंत्र प्रतिनिधी रूपान सरोजिनि नायडु (तेन्ना ए.ऐ.डब्ल्यु.सि चि अध्यक्ष) कमलादेवि (ते संस्थेचि कार्यदर्शि) आनि ईजिप्त् देशाचि म्याडं चारोय पाशा, प्रभुत्वाचे देशाकयि वेगळे जावनु गाजलि! म्याडं चारोय्ने, बुर्खा उडोवन दिल्लेलें. ती देशाचे स्वातंत्र्य लडायिंत आसलि. आनि बायलाले जन्मजात हक्काक लडत आसलि.

इंग्लंड आनि जिनेवांत कमलादेविन पेस्टालाजि प्रयोगाचि स्कूल पळेयलिं. संगीताक ताळ बद्द जावन नांच करचे, अभिनय करचे, सामूहिक रूपांत आसलेतेना, सुंदर आनि शिस्ताचे दृश्य दिसुन येताले. हें ड्रिल्' नमुन्याचे, अ िनय जर्मनित हिट्लराने, जपानाने, आपले प्रचाराक वापरले. नंतर चीनान बि ति पद्धति घेतलि.

प्राग् नगरांतु 1929चे वर्सांत संघटित बायलाले सम्मेळनांत कमलादेविन भाग घेतलो. थंचान फ्रांकफर्ट् ती पावलि. तिगेलो भाय्यो विरेंद्रनाथ ते कालाचे मस्त क्रांतिकारि लोकांक वळखतालो. तांचे व ़ ताणे कमलालि, भेटि करयलि. तांतु प्रमुख आसले

ऐनस्टिन्, रोमें रोलां आनि म्याडं सन्यत्सेन्. एशियाचे इंडोचीन, जावा, अरब् देशाचे आनि आफ्रिकन् देशाचे प्रतिनिधि बि आसले. देशाभायर गेले तेना भारतीयांक चड गौरव प्राप्त जात्ता! म्हळेले सत्य पैले खेपेक कमलादेविले अनुभवाक आयले.

भारताक वापस् आयले कि, ब्रिटिश सरकारान तिगेले पासपोर्ट् सुवादीन (सरेंडर्) करचाक सांगले. नम्र जावनूचि तीणे नकारले. खंचेयि कायदो, देशाचो जावो, परदेशाचो जावो, आपणे भंग केलेना! म्हणालि. तरि सरकाराने सगळे बोरी (शिप्) कंपनिक बरोवन तिक्का प्यासेज दिनाशि प्रतिबंध हाडले. एकळीचि तरुणि खंचे रीतिन क्रांतिक कारण जातलि? म्हण कोणी विचार केलोना! विरेंद्र च ोपाध्याया बरशि तीणे फिरिले, वावरिले, होडेक अपराधाचे विषय जावन उरले! जैलाचान 1931चे वर्स सुटकार जायनापडेन कमलादेवि श्रिलंकाक भायर सरलि. थंचे  युथ् कान्फरेन्सा'क तिक्का अध्यक्ष म्हण आमंत्रण आयिले. तिगेले भाषणाने, तरणे प्रायचे मस्त जन प्रभावित जाले. गांधीजिलो संदेश तीणे तांका समजावन सांगलो. गेले कडेन तिका ब्रिटिश विरोधि सिंहळचे प्रजालोक मेळचाक एत्ताले. ब्रिटिश सत्तेचान भायरपडचें प्रयत्न थंय् बि चालू जालेले. ताजे नंतर आनेकपटि ति लेक्चर् टूराक श्रीलंकाक वचागेलि.

ते वेळारि, तिगेलो पास्पोर्ट्, जप्त जालेलो. तिगेले नाव ब्लाकलिस्टांत आसले. जाल्यारि, थोडे राज्यांतु स्वायत्त सरकार अधिकाराक आयले. मद्रास प्रांताचो मुख्यमंत्रि राजाजि आसलो. तो कमलादेविले कुटुंबाक आप्त जावनु आसलो. एक दीसु ब्रेक्फास्टाक तिगेले घरा आयले तेन्ना तीणे, पासपोर्टाची काणि ताका सांगलि. लगेच तिगेले नवो पास्पोर्ट् तयार जालो.

"1929 सुरुजालेले. चल्याले शिक्षणादिकान लक्ष दी! म्हण गांधीजिन कमलाक सांगिले, तिगेले जैलावचें, येवचें, कायं फिरत संघटन करचे, हे कामांत, चल्याकडे लक्ष दिंवचाक जाले नासले.

भारताचे स्वातंत्र्य चळवळि बद्दल वेगवेगळे देशाचे लोकांक स्पष्ट कल्पना दिंवचे तीणे ठरयले. हाजे पयले ट्रिपांत तिका, सुमार इत्ले प्रदेश आनि व्यक्ति परिचय जालेले. तांगेले मद्दत घेंवचो विचारकेलो. पूतु रामाक तांत्रिक शिक्षणाचि आवड आशिलि. भारताचे क्षोभेचे वातावरणाचान तो, दूर उरों! म्हण पुत्ता बरशि विलायतिक भायर् सरलि. आपले सृजनात्मक विचार आनि बायलांक उपयुक्त सुधारणाचे वेगवेगळे उपाय कळन घेंवचोयि तिगेलो उद्देश आसलो. ईजिप्त, नेपल्स्, रोमाचान ती लंडनाक पावली.

लंडन्चान ति स्कांडिनेवियाक पावलि. डेन्मार्क्चे कोपन हेगन् नगरांतु अंतराष्ट्रीय महिळा कान्फरेन्स् जमिले. दुसरे महायुद्धाचे काळखि, थंय् थंय् देक्कु पडचाक सुरुवात जालेलि. जर्मनिचे फ्यासिजं विरुद्ध प्रतिभटना युरोपाचे वेगळे वेगळे देशांत दिसताले.

थंचान ती स्वीडन् पावलि. थंचे सहकारि संघ आनि ट्रेड् युनियन्चे संघटनेन तिक्का भारतांतु, ते ची लाय्नेरि, संघटना करचे साध्यता आस! म्हण दिसले. थंचे युनियन् बलिष्ठ आस्सून सरकाराचेरि प्रभाव घालताले. थंचे श्रीमंतवयरी सरकार, त्याक्स् समचि घालताले. तशि जावन श्रीमंत गरीबा मद्वेचे अंतर व्हड दिसनासले.

थंचान आर्कटिक् वर्तुळाक आवय् आनि पूत पावले. मध्यरात्ती सूर्याक (मिड्नैट् सन्) तानि पळयले. ट्रेक्किंग् केले. अपरूपाचे रजेचे थोडे दीस, कमलादेविन पुत्ता बरशि काडिले.

युरोपांत युद्ध सुरुजाले. भारत प्रवासाचो रस्तो बंद् जालो! पुत्ताक इंगांडांत सोडचे धौर्यना जाले. अमेरिकाक युद्धाचि हुनसाणि लागलि नासलि. अमेरिकेंतु रामाक उच्च शिक्षणाक दवरचे म्हणु तीणे ठरयले. चल्याक घेवन बोटीन अमेरिकेक गेली.

पास्पोर्टाखातिर परत त्रास सुरुजाले. ब्रिटिशानि तिगेले क्रांतिकारि" फाटभूंय्, अमेरिकन् कान्स्लेटाक कळयिले!

कमलादेविने सोडले ना. हांका-तांका मेळन हजारगट्ले लोकांत एकळि जावन, क्यूंत राबुन आखेरेक एक डच् बोटीन ती अमेरिकेक भायर्सरलि. विमानयान तेन्ना नाशिले.

डच् लोक ब्रिटिशांकय् बगेन जास्ति कठोर! ती बोटर खंय दंगो करेयतकि म्हणु संशयानेचे पळयताले! अमेरिका पावना पडेन खरे प्रीतिचे स्वागत आनि सत्कार तिक्का मेळ्ळो. थंचे प्रेसिडेंट् रूजवेल्टागलि क्याबिनेट् मंत्रिक ती भेटलि. तिगेले वीसा 6 मैन्याक एकपटि नवीन करचि व्यवस्थाजालि.

कमलादेवि, थंयि वेगवेगळे राज्यांत फिरलि. भारताचे स्वातंत्र्य चळवळीचे स्वरुप अमेरिकन् जनांक कळोंवचे प्रयत्न केले. तीनचार रेडियो भाषणदिले. मिसेस् एलिनोर् रुजवेल्टाक भेटलि. ही अमेरिकन् प्रेसिडेंटालि बायल, आप्णाले स्वंत प्रतिभेने सगळ्यांक परिचित आसलि. बायल-चरडुंवागले बरेपणाक मस्त श्रम करतशिलि. कमलादेवि मुखांतर भारता बद्दल मस्त तीणे विचारन कळन घेत्ले. व्हाय्ट् हौसांतु अमेरीकाचे अध्यक्ष (प्रेसिडेंट) बरोबर टी पार्टिक कमलादेविक निमंत्रण आयले!

रूजवेल्टाक इंडियाने स्वतंत्र देश जांवचे मनांत आसले. जाल्यारि ब्रिटिशांक हे विषयांत समझीकाय दिवचाक जालेना! म्हणालो. एलीनेरान तिका व्हाय्ट्हौस् व ॑ फिरावन हाडले.

विल्टाने तिसरे खेपेक अध्यक्ष म्हण शपथ घेंवचे कार्यक्रमाक कमलादेविक आमंत्रण आसले. थंचे बायलांगले संस्था तीणे पळयलि. प्रसिद्ध सिंग्सिंग् जैल् तीणे लक्ष दीवनु पळयले.

वाशिंग्टनांतु ती चीनी राजदूताक भेटलि. हुय्-शी, होड विद्वांस आसलो. आपण्याक चुंकिंग् वच्चे मनांत आसा म्हण ताका कमलादेविन सांगले. त्याकाळाक चीनांत यादवि युद्ध चालू आसले. आनि चियांग्-कै-शेकाले राष्ट्रीय चीन थंचान राज्य करताले. न्यूयार्कचे चीनि कान्सलाक भेटचाक ताणे सांगले.

तीणे तशिचि केले. आनि जायशिलि परवानगि पत्र आनि, चियांग कैशेकाले आमंत्रण हाडोवन घेतले.

तिगेलो चलो, रामकृष्ण न्यूयार्कचे रेडियो टेक्नालाजिकल स्कूलाक भर्तिजालो. रक्तगत जावन आयले संगीत आनि नाटक कलेने ताणे मस्त लोकांक आकर्षित केले. थोडे दीसानिचि ताणे अमेरिकेंत दिल्लेले संगीत कार्यक्रम जनप्रिय जांवचाक लागले.

अमेरिकेंतु चापिले वरदिप्रकार, कमलादेविले अमेरिकेचे 18 मैन्याचे वास्तव्य, विविध कार्यक्रमानि भरन आसले. विकलांग चेरडुंवाक, मानसिक अस्वस्थ चरडुंवाक दिंवचि विशेष तरबेति (भारतांत हे येंवचाक ते नंतर पन्नास वर्सलागलि!) दिंवचे संस्थे तीणे भेटिकेलि. थंचे पत्रिकेंतु तिगेले लेख छापले. कमलाले अमेरिकेचे वास्तव्य अगदि फलप्रदजाले. बायलांखातिर आसले सुमार संस्थाची कार्यवैखरि लागिचान पळयली. वेगवेगळे देशाचे रायभारि आनि अमेरिकन् कांग्रेस् (थंचे संसत्) सदस्यानि तिका जेवण् आनि चा(Tea)क आमंत्रणदिले. सुप्रिम् कोर्टाचे जज्, मिस्टर् ह्यू ब्लक् हाणे लंच् दिलें!

अमेरिकेचे लेबर् (कार्मिक) खातेने, भारताचे बायल कार्मिकाचेरि उलोंवचाक निमंत्रणदिले. थंचे कृषिखातेचे, अत्यंत यशस्वी न्यू–डील् योजनेक संबंधसुन आसले सेमिनाराक आमंत्रण आयले. कन्सास् विश्वाविद्यालयाचे पदवीदान समारंभ तिगेले हातान घडले!

कमलादेवि, अमेरिकेचि काळे लोकाले दक्षिण संस्थानाक बि पावलि. ते दीसांत अमेरिके वत्तले भारतीय बोवची ऊणे आसले. तांतुयि दक्षिणचे कित्येक राज्याक गेल्लेलि ती प्रथम महिळा आसलि. नीग्रो (अत्ताचे ब्ल्याक् अथवा आफ्रिकन् अमेरिकन्) संस्थेन संघटन केल्लेले कार्यक्रम पळयले. ताणि भेटलि पयिलिचि भारतीय व्यक्ति कमलादेवि आसलि! तांका आणे आनि थंय् पाविले

जनांक मेळ्नुचि, हो, खुषि दिलेलो संदर्भजालो. त्या दीसांतु अमेरिकेचे गॉरे आनि काळे लॉकानि मेळ्नु वावर कोरचे भॉचि अपरूप आसले. कमलादेवि काळे अमेरिकना बरॉबर उरलि. तांगेले सुखदःख विचारन घेतले. तेन्नाचि अमेरिकेचे काळे लॉक, शॉषित जनांग आशिले. तांका भारताचे दलित उद्दार खातिर जात्तेरि असले प्रयॉग तीणे समजावन सांगले.

हालिवुड्डांतु प्रिन्सेस् शेरिडा म्हळेलेने तिका दिल्लेले डिन्नर्, ऐतिहासिक जाले. भारतीय पद्धतिचे जमीनिरि बसुन जेवण इत्ले नय्, आयले बायलांतु सुमार जण काप्पड नेसुन आयिल्यो!

अमेरिकेंतु ती कवितावाचन, साहित्यगोष्ठि असले कार्यक्रमांतु भाग घेत्तालि. नाटक चुकनासतना पळेयतालि.

जगत्प्रसिद्ध न्यूयार्कचे सिंग्सिंग् जैल् तीणे पुत्ता बरोबर पळयले. थंचे मरणशिक्षेचे एलेक्ट्रिक् चेर् सुरु करचो विधान पळयले ती कुर्चि कशि आपरेट् जात्ता? म्हणु प्रात्यक्षिता दिंवचाक राम् कडचान थंचे अधिकारिन स्विच् घालयले खंय्!

अमेरिकेचान कमलादेवि केनडाक पावलि. औटावा, क्विबेक्, मांट्रियल् ट्रिप् सुसूत्र जालें. व्हेंकुवर वच्चे वेळारि जालेले केनाडाचे कर्मकांड, तीणे, अपले आत्मचरित्रें‌त वर्णन केला. थंयदेंवचे भितरि, इम्मिग्रेशन् आफ्फ़सराने तिका तेचि विमानान परत वच्याक सांगले. तीणे कारण विचारल्यारि, हांगा तुका भितरि सॉडचाकना! म्हणु वयल्यान हुकुं आयल्या! म्हळले एक्कऽउत्तर! कमलादेवि आपण वापस वचना म्हण हट धर्न थंय आसले बेंचार बसलि. इम्मिग्रेशन् आफिसर आनि दोगांक आपोवुनु घेवन आयलो, कमलान सत्याग्रह मुंदुवरशिलें.

विमानां एत्तालिं, वत्तालिं. सांजजालि, राति आयलि. हांव् क्रिमिनल् नंय्! हांवे कायगुन्हो केल्ना! हांव परत वच्चना!" कमलागेलो एकुचि रागु! अधिकार्यानि आपण्यांतु विमर्शा चलयलि.

कडेरचे प्लेन् येवनु गेल्लेले. आत्त कमलाक तिगेले मित्र मंडळिक फोन करचाक परवानगि मेळ्ळि! थोडे वेळानि ते मित्र, सकाळि एर्पोर्टार येवन वापस गेल्लेले, परत आयले. मेयर्, तागेलि बायल, हॉड हॉड फुल्ला बोके आनि ताजकिंता हॉड क्षमापणा विचारत हाजर जाले! जेवण–विरामाचि व्यवस्थाजालि.

दुसरे दीसु, मेयरान तिगेले गौरवार्थ डिन्नर् दवरले. इम्मिग्रेशन् आफीसराकय् आपयले. कमलादेवि लाग्गिचि तागेलि खुर्चि घालि! तो गौरवपूर्वाक उलयत आखेरेक म्हणालो स्काट्लंड् यार्ड् (इंग्लंड्) चान कमलादेवि बद्दल जागरूक. उरचाक वार्निंग् आयिले" म्हणु! केनडा, तेन्ना इंग्लंडचे डोमिनियन् आसले. तिगेलो देशद्रोहि भाय्यो, विरेंद्रनाथा बरोबर फाटि युरोपांतु फिरिलो गुन्हो तिजे फाटिर आसलो.

कमलादेवि होनोलुलु वयल्यान जपानाकगेलि.



# भूलोका भोवंडि : पूर्वरंग 2

अमेरिकेचान कमलादेवि जपानाक पावलि. थंय् सुद्दा सुखाची संक्रांति' नाशिलि! जपानाने कोरिय आनि चीनाचे सुमार प्रदेश आक्रमण केल्लेले. तांगेले वैरत्व, इंग्लंड आनि साम्राज्यशाहि युरोपाचे देशा विरुद्ध आसले निमित्तान, भारतीयां बद्दल सहानुभूति आसलि. ती सहानुभूति, परस्पर उरतलि, म्हणु जपानचे सरकाराचि समजूत जपानचेयि आक्रमणशील साम्राज्यशाहि आसले तरि, ते, आपणाले न्यू आर्डर्' अथवा नवीन सत्ता' म्हणु प्रचार करताले. थोडे वर्सांतुचि एष्याचे बला राष्ट्र जावनु पाश्चात्य देशांक व चि, कुडकुडो जपानाने हाडिलो! क्रांतिकारि, आनि कलाप्रेमि म्हणु गाजलेले कमलादेविक ताणि, मनापासून स्वागतकेले. तांगेलि साधना, प्रत्यक्ष पोळोवन भारतांत ताज्ने प्रचार ती करतलि, म्हळेले आशयान!

•

जाले ते उल्टा! स्वतंत्र विचाराची, आहिंसेंतु संपूर्ण विश्वास दवरिली, गांधितत्व मानलेलि, कमलादेविन जपानचे, चीन आनि इतर प्रदेशाचे वयर केल्लेले आक्रमणाचे खंडन केल्ले. पश्चिमेचे वसाहतवादाचे हे आनेक विद्रूप!' म्हणालि. जपानची नवे शिस्त' (न्यू आर्डर्), आप्णाले तांत्रिक रूपान प्रबल सत्तो बसोंवचे दिकान आसा एशियाचे वेगळे वेगळे देशाचान कच्च्या सामाग्रि हाडुन, पक्का सामान तयार करन परत तेचि देशाक विकचे आनि प्रबल सैन्य बांदुचांतु जपान मग्न जाला! ब्रिटिशालीचि धोरणा! हो कोणाकय पटचो विचार नंय्!" म्हणु तीणे, सार्वजनिक सभेंत स्पष्ट रूपाने सांगले. जपानचे प्रशासन व्यवस्थेक तिगेले विचार, आवडलना म्हण वेगळे सांगुका म्हण ना!

जाल्यारि, जपानचे कलाप्रिय जनानि, बायलानि, आनि थंय् स्थायि जालेले भारतीयानि, तिक्का हृत्पूर्वक स्वागत केले.

ती भारताचे स्वात्रंत्र्य चळवळिचे स्पष्ट परिचय आपले भाषणांतु दित्त उरलि. चीनाक जपानाने कल्लेले अन्यायाचो उल्लेख बि, करत उरलि.

ताज्जो परिणाम जाल्लोचि! टॊकियोचान जपानि आक्रमणाचा चीनी प्रदेशाक कमलादेवि भायरसरिलि. तीणे वचे चार तासपैले, चीनांतु आक्रमण केल्ले जपानि मिलिटरि सत्तेने तिगेले प्रवासाचेरि प्रतिबंध घालो! टोकियो आफीसाक तीणे संपर्क केलो. ताणि आपणाले हे विषयांत  असहायकता" दाकयलि. चुंकिंग् वच्चे नाका! म्हणु तिका सूचना एक बाथले आफीसरान नम्रतेने सांगले. चुंकिंग् सिटि युद्ध कालाचे चीनि राजधानि जावनु आशिलि. जपानचे मिलिटरि सत्तेन, तिक्का, आपणे आक्रमित केल्ले प्रदेशाक वच्याक विरॊध केल्लेले सहज आसले, म्हणू – कमलादेविकय् दिसले. कित्यामळ्यार ती तांचे आक्रमणाचे विरॊध करतेर आयिलि.

चुंकिंग् वच्याक जायना! म्हणु कळना पडेन, कमलादेवि येचनेपडलि. शांघाय् वच्चे ठरयलें. थंय् चांग–कै–शेक्ले राष्ट्रीय चीनि सरकारांतु समाजकल्याण मंत्रिक तीणे समजूति दिलि. हांव विदेशी (फोरेनर्) नंय्! भारतीय. एक पूर्वदेशाचि नागरिक. माक्का कसल्याक प्रतिबंध घालतात? ताणे नान्किंग् घॊनकरन अनुमति हाडयलि.  केना वता?" म्हणु विचारले.  फाल्याचि" म्हणालि, कमलादेवि. तडवु केल्यारि जांवचि काम जायनात! म्हळेलो तिगेलो अनुभव.

गरज असले ते सरकारि अनुमतिचि कागद पत्र घेवन, शांघाय् रेल्वे स्टेशनाक पावलि. थंय् पळयता शंबरगट्ले जन क्यूंत राबल्याति! चीनी न्हयशिल्याक विंगड गेट म्हणु कळनु थंय्चान गेलि. थोडे वेळान कळे, नानकिंग् वच्चे खंचेय् ट्रेन् ना! म्हण. थोडे तास पैले त्या रूटावयले ट्रेनाक चीनी गेरिल्लाने बांब् घालन स्पोट केल्लेलें. ही गजाल व ु; थंय्  नार्मल्' म्हणयि कळ्ळे. थंय् ति राकत बसलि.

सांजेवेळा, एक स्लो ट्रेन् आयिले. ताज्ने डिझैन् पूरा जपानी आसले, आनि जपानि सैनिकानिचि बोगि भरल्ली. प्लाटफार्मारि सैनिक राकवण करताले. युद्धान हाळपडिले गांव गळयत गेलि. उदाक, पाचवि जमीन देक्कु पडतालि. जाल्यारि जन नासले. नान्किंग् शहराक ट्रेन् पावले तेना, कोणी भेटचाक आयलि नात! एक भी ट्याक्सी मेळ्ळि ना! लोकल् बस् धरन, नांव गोत्तशिले होटेलाक ती, पावलि. सगळि सिटि स्मशानमौनान आसलि! म्हण कमलादेविन बरयला. स्वतंत्र चीनी सरकारचे 'आफीस् खंय् ? म्हणु हाटलचे कोणकयि गोत्तु नासले! सगळे कडेन बांब्आय्टाक् जावनु बिल्लिडिंग्पडिल्लीं. 15 लक्ष जनसंख्या आशिले गांवांत दोनि लाख जनवरेक नासले. थंचान चुंकिंग् वच्चे तिगले सगळे प्रयत्न निश्फलजाले.

हांकांग् वेल्यान चुंकिंग् गेल्यारि कशि? म्हणु कमलादेविक योचना मनांत आयली! हांकांग्, ब्रिटिश् ताब्यांतु आसले. एकदं तीणे हांकांग् वच्चि आगबोट् पकडलि. थंय् आनेक संकट मुखार आयलें.

तिगेलि आगबोट, बंदराकयि मस्त दूर राबलि. एक आफीसरान तिक्का प्रवेश निषेध!" प्रतिबंधाचे पेपर् दाकयले. असले प्रतिबंधक आर्डर् घेत्तचि आयल्या ...... हाज्जो उपयोग इत्लोचि! म्हणत तीणे ते कागद चूर करन उडयलें.

तिका प्रवेश निषेध करचांतु ब्रिटिशांगलो हातु स्पष्ट आसलो! जाल्यारि तीणे आयलि आग्बोटि, युद्धाचे सर्विसाचि आसलि. हांग्कांग् बंदरारि येवनु ते बोटिक प्यासेंजर आनी सामान उतरावचे गरजेचें आसले.

जाल्यारि तिक्का हांग्कांग् शहरांतु वच्चाक प्रतिबंध आशिलोचि! तीणे वळखिचाक फोनकेलो. म्याडं सन्यत्सेन् तिगेलि चीनी आनि भारतीय गुरुताचे लोक तिक्का स्वागत करचाक

आयले. तांणी हॉटेलांतु पुणि तिका राबचाक सोडात! म्हणु समजावन होटेलाक व्हरन राबचि व्यवस्था केलि. भारतीय जेवणा वावस्थाकेलि जाल्यारि कोणाकयि भेटचाक, फोनकरचाक प्रतिबध आसलोचि!

म्याडं सन्यन्सेनाले भावाने चुंकिंग् वच्ची व्यवस्था करचाक धडापड केले. जाल्यारि वचाक खंचेयि वाहन व्यवस्था नाशिलि. ट्रेन चलनासलि. दीसाचे प्लेन् जपानले बोंब भयान वचनासलि. तरि मध्यरात्रि वच्चे प्लेनाने कमलादेवि चुंकिंग् भाय्रसरलि. तिगेले आत्मीय मित्रमंडळिन वचनाका! म्हळेले आग्रह आनि दोळ्या उदकान ती विचलित जालिना! जपानन घाल्ले बांब् चुकवन घेवन, तिगले प्लेनाचे एक्स्पर्ट पायलटान, सुरक्षित चुंकिंग् पावयले.

थंय् ति चियांग् कै शेक् आनि तागेलि बायलेक भेटली. राष्ट्रीय चीनाचो अध्यक्ष चियांग् कैशेक्, सादा, सरळ मनुष. चीनी शैलिचे कप ंतु आसलो. ताका इंग्लिष् येनासले. ताज्जे बरशि संभाषण, इंग्लिष् शिक्किलि म्याडं चियांग् कैशेक्, भाषांतर करन सांगतालि. थोड विषय ताणे सांगिले, ती, आप्णाले दृष्टिकोनान सांगत अस, म्हणु कमलादेविक संशय आयले!

Induscos म्हळेलि 3000 सहकारि संघ, ते प्रदेशांत आसले. बांबिंग् जायत आस्तना हे संघ काम करत आसले. सान प्रमाणांतु उद्योगाचे, हात्कामाचि सहकारिसंघ, चीनांतु कामकरत आशिले. चुंक्किंग् विश्वविद्यलयाक बि कमलादेवि वचगेलि. गांवाभाय्र शेड् शे दिस्तले गुडिसलांतु, क्लासस् चलत आसले. आमगेले तीस शतमानचे शिक्षा संप्रदाय आमि सोंण दीनात!" म्हण ताजे उपकुलपती (वायस् चान्सलर्)ने सांगले. तेचि वेळारि, जोरान सायरिन् वाजले. सगळि तळघरा आश्रयाक धांवले. थंचे तळघरांत वाचनालय आनि प्रायोगशाळा आसलि. बांबिंग् जायत आसले. दोन तासानंतर सर्वजन भायर आयले. बिल्डिंग् कोसळिले. त्या राशिंतूची विद्यार्थिलोक जागो करन घेवन बसले. आनि वापास् क्लास् सुरुजाले! दोग जणाले मात्र मरण जाले! ताणि धावन

आश्रय घेतले ना! म्हण उरलेले म्हणाले. असले बांबिंग्, थंय् नित्याचि घटना आसलि. मारणहोम चालूचि आसले. चीनि बायलो सुमार क्षेत्रांतु मुखारसुलेलो तीणे पळेयले. ते काळाक, तिगेले प्रेस् कान्फरेन्सक, दारलेकय् चड बायलो आयिल्यो आनि पन्नासाकय् चड बायलांगले म्यागझीन् चीनांत आसलि! नाव केल्लेले प्रसिद्ध बिसिनेस् आनि उद्यमि, बायलो आसलो. युद्ध चालू आसतना, एक दिकान जपानाचे आक्रमण नंतर यादवी लडायी (चियांग् कैशेकाले राष्ट्रीय चीन आनि मावोत्से तुंग् हागेले कम्युनिस्ट दळ) हाजे मद्दे, विध्वंसकारी कृत्य चारिकडेन चलतना, चीनी बायलांगले सततोद्योग, धीर आनि सहनशील प्रवृत्ति तीणे प्रत्यक्ष पळयली.

नंतर ती चौ.एन्.लाय् क भेट्लि. रशियन् माडेल घेनास्तना आमगेले कम्यनिस्ट् तत्वाचेरि, चीनदेश वाडोंवचो विचार आस्स!" म्हण ताणे स्पष्ट सांगले. चीनी कृषिक व ु चि आमगेले फाटबलाक आस्सति!" म्हणालो. नंतर चीनि पद्धतिचे कृषि, बिकरिचे. गृह उद्योगाचे, सहकारि संघाचे तीणे निरीक्षण केले. नंतरले वर्सांतु भारतांतु इंडियन् को आपरेटिव् यूनियन् (ऐ.सि.यु) बांदचे दीसांतु ताजान तिक्का मस्त मद्दत जालि.

चुंकिंग्चाने हांगकांगाक ती परत आयलि. भारताक वापास येंवचे तीणे ठरयले. थंय् तिका सद्द पोलिसांक रिपोर्ट करचाक सांगले. तीने केर् केलेना! फ्रेंड्स आनि अधिकारि जनांक भेटत उरलि. हांवु, आनि मगेले पेपर्स हांगा आसता! कित्ते जाय् ते करा" म्हण पोलिसांक सांगचाक विसरलना!

हांगकांग् चान ती भारताक वत्तना मनिला (फिलिपायन्स्) देंवलि. थंचा प्रेसिडेंटान तिका हॉड रिसप्षन् दवरले. (1941) थंचे हातकामाचे केंद्र तीणे पळेयलें. भारतीयांक भेटलि. जाल्यारि सिंगापुर आनि पेनांग् तिक्का देंवचाक परवानगि मेळिना! कोलोंबो (श्रीलंकात) बोटिन राबका पळे. थंचे मित्रमंडळि तिक्का राकात

आशिली. जाल्यारि गांवांत वच्चाक गवर्नरान परवानगि दिले ना! बोटिंतची तिगेलो ते देशाचो, प्रवास संपन्न जालो!

अंतू दोनवर्साचे विश्वपर्यटन पूर्णकरन कमलादेवि माय्भूमिक वापस आयलि. हे अवधिचे तिगेले अनुभव वैविध्यपूर्ण आनि साहसमय आसले. तिगेले सुमार इत्ले लेख प्रकट जाले ते हेची अवधिंतु. समकालीन जगाचे विद्यमान आमका तिगेले बरपांतु मेळता. जपान आनि चीनाचे कित्लेकि घटनावळिक ती प्रत्यक्षदर्शि आसलि. खंचेय् पार्टि अथवा सरकाराचि ती प्रतिनिधि न्हय्शिलि. ते निमित्ताने, पुढारि धरन सामान्य नागरिक थांय्, तिगेल्यागि मुक्त मनाने उलयतासले. तीने भेटिले व्यक्ति पुरायि तेन्नाचे, आनि नंतरले, जगत्प्रसिद्ध व्यक्ति आसले. (रूजवेल्ट्, एलिनोर् रूजवेल्ट्, मार्गरिट् स्यांगर, मांटेसरि, चियांग कैशेक्, ऐन्स्टिन्, रोमेरोलां, म्याडं सनयत्सेन्, चौ.एन्.लाय्, जोमो केन्याट वगैरे).

भारत देशाक स्वातंत्र्या येवचे पयलें आनि नंतर, हातकामा बोर्डाचि अध्यक्ष आसतना, तिगेले बहुमुख प्रतिभेचे कामकरचे दीसांतु, तीणे फिरनातले जागे नात, आसक्ति दाकयनातिले क्षेत्र नाति. 1950–51 वर्सांतु मध्यपूर्व(मिडल् ईस्ट्) देशाक वच्चुन आयलि. आत्ताचे स्पष्टरूप घेनातिले ईजिप्त, इस्रेयल्, इराक्, ट्रान्स्जोर्डान्, पालेस्तैन् राष्ट्राक भेटि दीन्नु थंचे गण्य लोकांक भेटिले, संदर्शन केल्लेले आस्स. 1951 वर्सांतु पूर्व आफ्रिकेक गेले तेन्ना जोमो केन्याटाक भेटिलि. 1953 चे वर्सांतु, ती पश्चिम आफ्रिकेक गेलि. थंचे देशी हातकामाचे अध्ययन केले. मुख्यतः घाना आनि नैजिरीयाचे. तेन्ना प्रेसिडेंट् एन् कृमाले संदर्शन केले.

आफ्रिकेचे निग्रो आर्टफेस्टिवल् जालेले तेन्ना (1967) सेनेगल्चे राजधानिक विशेष आमंत्रित जावनु आयिलि एशिया खंडाचि एकैक प्रतिनिधि कमलादेवि आसलि! थंचे राष्ट्रपतिगेले आतिथ्य तिका मेळ्ळेलें.

आफगानिस्तानाक वच्चुनु, थंचे हातकाम् आनि मात्येचे कलात्मक सामानाक तीणे प्रचार दिलो. तांगेले कारागीरांक भारतांतु तरबेति दिंवचे, आनि दोनि देशाचे करकुशल सामानाचे विनिमयाचि व्यवस्था केलि.

तिगेले निर्भय स्वभावान, स्पष्ट उद्देशान आनि प्रामाणिक उतरान ती प्रसिद्धजालि. कित्लेक त्रासामद्दे, युद्ध चालू आसताना, गोत्तुनाशिले, अति दूरचे, अनिश्चित वातावरणांतु तिगेलि भोवंडि महत्वाचि उरलि. ती, भारताचे राजकीय, सामाजिक, इतिहासाची, प्रत्यक्षदर्शि आनि प्रमुख घटना आसा! तशिचि तिगेले आसीम धैर्याचे, साहासाचे, प्रसांगावधानाचे प्रतीक जावन आसा!

तिगेलि ही एकि भोंवडि, चांग आनि रोचक थ्रिल्लर् मूवि जांवचाक फाव! असले सुमार इत्ले घटना, तीणे आपणाल्या आत्मकथन आनि दुसरे पत्रिकेंतु बरेयिले आस्सा.



# निराश्रितां खातिर; सहकारि संघटन

1947 आगस्ट् म्हैयन्याचे 15 तारीक उदेलि. लागि लागि शंबर वर्साचे स्वातंत्र्या लडायि समाप्त जालि. भारतदेश स्वतंत्र जालो. जाल्यारि, ताजे बरोबर जालेले देशाचे कुडक्याने, ही भूंय्, गुण जायनासले घायान कातरन गेलि! मारणहोम, खूनि, लूटि, हाजान नवो देश पाकिस्तान निर्माण जालो. पोरणे देश, हिंदुस्तान चे राजधानि दिल्लि, हे जगान आजिवरेक पळेयनाशिले घनघोर दृश्याने भरन गेलि. महाभारत युद्ध, तीनि पाणिपत युद्ध, दिल्लि प्रदेशाक परिचित आसचा पुरो! ती प्राचीन काला खब्बरि! हे जीवमानांत, धा लक्ष लोक, घरदार, भूंय, धन–जन–मान–जीवदान, सगळे प्रकारान वंचित जावन भारताक पोळन आयले. दिल्लिचे आसपासचे हळियो, खालि जागे व ुचि, निराश्रिताले शिबिरानी भरन गेलेले. नवीन दोळे उघडत आसले स्वतंत्र भारत सरकाराक 10 लक्ष जनाले पुनर्वसतिची अगाध समस्या, मुखार आयलि.

हे महासंकट कमी करचाक सरकार, बिन् सरकारि, खासगि, वलयाचे जन व ु मेळन कामकरचाक लागले. वालंटियर्, डाक्टर्, समाजसेवक, काम वांटुन घेवन, जनाले महापूरांचे तात्पूर्तिक व्यवस्थेक दीस–रात गुंतुन उरले. कमलादेवि आनि तिजसले थोडे पुढारि, हे जनसमुद्राचे समर्पक नियंत्रण करचांत मग्न आसले. साध्य ते जनबल जुटोवन, हे घोर समस्येची व्यवस्थ करचे बद्दल दीसरात घोळताले.

ताणि, निर्दिष्ट डेर्या गांवचे" मेल्विचार अथवा देखरेख वहिसुन घेत्तिलि. दिल्लि लागचे किंग्स्वे क्यांपाक कमलादेवि, सद्दांय वत्तशिलि. लक्ष्मीचंद जैन् (नंतर तिजे बरोबर 40 वर्स कामकेलेलो कार्यकर्ता; समाजसेवक) तेन्ना उत्साहि तरुण, हे

निराश्रितांचे शिबिर पोळवनु घेत्तालो. सरकाराने फुकट आहाराचि, उचित वैद्यकीयाचे, कपडे, शिक्षणाचि व्यवस्था केल्लेली. जाल्यारि आयचे, फाल्याचे व्यवस्थेक अड्डिना! फाल्याकिंता मुखारि कितें? म्हणु कोणि विचार केलोना! शून्य भविष्य आशिले लक्षलक्ष लोकानि कशि मुखारसुका? म्हळो विषय, कोणाकय् बाधसुयले नाकि किते?

कमलादेविक मात्र, ही समस्या तीव्ररीतिने बाधा दित्तशिलि. संपद्भरित बला राष्ट्रावरेक सोडोवंचाक जायनाशिलि समस्या हे निराश्रितागेलि आसलि. धनबल ना! आशिले जनबलान, समंजन रीतिने श्रम आनि फल वाडयल्यारि मात्र, हे जनाले पुनर्निवेशन स्पष्ट, निश्चित साध्य! म्हणु तिका खचित आसले, जाल्यारि मुखारसुंवचे कशि?

हे वेळाचे तिगले विचारमंथन, समाजवादाने प्रेरित जालेले. जनबलाक संघटित करन, तांचे लागिच काम करोवन, राजकारणांतु ते, जनशक्तिक, वर्चस्वि करचे कडेन आसले. तेना ती, कांग्रेस् सोश्यलिस्ट् पार्टिचि सक्रिय सदस्य बि आसलि. 1934 वर्सा वेळारीचि, राष्ट्रीय कांग्रेस् संस्थेचे थोडे, मुख्य जावन ,युसुफ् मेहर आलि, जयप्रकाश नारायण, राम मनोहर लोहिया, अशोक मेहता, आचार्य् नरेंद्रदेव् हे प्रमुख सोश्यलिस्ट् आसले.

कमलादेवि सहित हे व ़ जनांक, देशांत राजकीय आनि सामाजिक सुधारणे काम कित्ले वेगान जावका ते जात्तना म्हळेलो असंतोष आसलो. सहज जावन तांगेलि सहानुभूति, मार्क्सिसं कडेन वलतलेलि. ते कालाक, तात्विकरूपान कम्युनिसं आनि सोश्यलिसं मदे आत्तावारि, भारी अंतरनासले. जवाहरलाल नेहरुक सुद्दा सोश्यलिसं दिकान वळण असले, आनि थोडे अंश ताणे मुखार प्रधान मंत्रि जायना पडेन स्पष्ट रूपान दाखोवन घेतिले, आमि पळयतात. जाल्यारि स्वातंत्र्य चळवळ जोर आसतना, जास्त लीडरालि दृष्टि, स्वातंत्र्य प्राप्तिचे प्रयत्नात मेळन आसलि.

कमलादेविन सानपणधर्नूची सामाजिक विषमता पळयली. आर्थिक रूपान शोषित जालेले जना व ु ची, ती वावरतालि. गिरिजाबायिले मनाविरुद्ध जैलाचे जीवनांत, चळवळि चे दीसांत, गरीबाले आनि बायलाले, दीनस्थितिक ती प्रत्यक्षदर्शि आसलि. देशी संस्थानाचे गरीबालि स्थिति आनिकय् शोचनीय आसा म्हण ती वळखतालि. गांधीजिले (नंतर विनोबाले), सर्वोदय अथवा समग्र समाजाचे जाग्रति जांवचे कडे प्रयत्न कायिंची ना! म्हण तिका बेजार आसलो. कांग्रेस् वर्किंग् कमिटि (कर्नाटक प्रदेश) चि सदस्य आसल्यान, मैसूर आनि इतर देशि रायांगले अधीन आसले प्रदेशांत तिका फिरन गोत्तसले. ती युथ् कानफरन्स्ची मेंबर आसले वारि, कांग्रेस् सोश्यलिस्ट् पार्टिचे बी सदस्या आसलि.

हे सोश्यालिस्टानि जोर दिलेले अंश म्हळ्यार 1) लिंगभेद काडुन उडोंवचे. सगळे क्षेत्रांत दारले आनि बायलांक समान अधिकार, 2) कार्मिकांक आनि कृषिकांक चड प्रातिनिध्य आनि अधिकार, 3) प्रगति पर योजनेंतु सरकाराचो मुख्यपात्र, 4) सहकारि रूपान जनान करचे सगळे कामात सरकाराचे प्रोत्साह, 5) सगळे कार्मिक आनि कृषिक लोकांक, इन्सुरेन्स् आनि प्राविडेंट् फंडाचे अनुकूल लभ्यकरन दिवचे, 6) अपघात आनि प्राणापाय प्रसंगात तांका आर्थिक सहाय दिंवचे.

हांतुले सुमार अंश भारतान स्वतंत्र जाले हे पन्नास वर्सांत लभ्य जाल्याति. जाल्यार ताजे पयले, हे अनुकूल आयकुवचाक पडनाशिले!

कमलादेविक, सहकाराचे फटिंबान पायारि मस्त इतले जीवनोपयोगि कार्यक्रम करचाक साध्य आस! म्हण दिशिले. तिगेले युरोपियन् प्रवासांतु, नार्वे–स्वीडन्–डेन्मार्कांतु, लोकाले सहकार संघ पळयले. नित्याचे काम व ; कृषिचे, डेरिचे, चिकित्सेचे कामवांटुनु घेवनु, तांगेले कामाक तेचि बाध्यस्थ जावनु, बरे

रीतिन नित्याजीवन चल्लोवचे पळेयले. यादवी युद्ध आनि जपानचे आक्रमणान थक्कुन गेलेले चीनदेशांत, सानसान को–आपरेटीव् संस्था व चि, मेळनु, जुळनु कामकरत, कसले कठिण परिस्थिति वरेक धैर्यान तोंड दिवन मुखारसुवचे पळेयले. सहकारबलार, निराश्रिताले संकट दूर करचो विचार तिका सुचलो. जाल्यारि भारतांत, खंयी सहकारि रूपान आर्थिक समस्या सोडोंवचे प्रयत्न नासले. नावा पूर्ते दिल्लिंत सहकारि संस्थेचे आफीस, उरिले सरकारि खाते वारीचे, सरकारि पोषित, निष्क्रिय, मुंयेने मरनाशिले, कासवा वेगाने चलचे, खाता आसलि. हे क्षेत्रात परिणत जनांक विचारया! म्हळ्यार कोणी तिगेले लक्षात आयलेनात. लोकाले आंतरिक समस्या, लक्ष दीवन पळोवन परिहार सुचयतलो एकमात्र व्यक्ति तिगेले दृष्टिंतु महात्मगांधि. ताकाचि विचारचें तीणे ठरयिले.

आपणे अर्थकरन घेतलेतशि, कृषिचे को–आपरेटिव् संघ रूपित करचे नीलिनकाशो (ब्ल्यूप्रिंट्) तीणे तयारकेलो. कृषिचेरि जोर दिवचाक कारण म्हळ्यारर, तिगेले देखरेखिचे भागांत प्राणवांचुन घेंवचाक आयले पश्चिम पंजाबांत फक्त शेतकरि जन, जांग्(Jhang) म्हळेले, अधिक संख्येंत आसले. तांचलागि तीणे विचार विमर्शाकेलि. मुल्कराज् म्हळेले तांगेले पुढारीन तांकाव समजावन सांगनापडेन. ते सहकारि पांवडारि शेति करचाक तयार जाले.

कमलादेवि आपणे तयार केलो नीलि नकाशो घेवनु बापू कडेन गेलि. ताणे लक्षदीवन ते पळयले. नंतर म्हणालो तुगेलि योजना बरि आस. उपयुक्त आनि व्यावहारिक आस ........ फाल्याक यो! विवर जावन उलोया". दुसरे दीस कमलादेविन पावले तेना, बापुजि चिंतित आनि हताश भावांत आसलो. तुका सहाय दिंवचे प्रयत्न करता. जाल्यारि एक कंडिशन्, तुंवे हाज्जि पूर्ण जवाबदारि घेंवका–सरकारि मदत मेळना जांवचाक पुरो! हे खात्रिजालार मुखारसुय्! तुका मेगेलो आशीर्वाद आस!"

कमलादेवि स्तंभितजालि. निरश्रित ते शेतकरि! जमीन नासताना कसले काम करतले? जमीन व चि सरकाराचे ताब्यांत आसले, हांगचान पाकिस्तानाक गेलेले जनालि आनि खालि भूंय् सरकारान दिल्यार घेतले!" कमलादेवि म्हणालि. स म्हयने ती धावन खेळ्ळी. आखेर हजार जनान वचुन थंय् ठिकाण घालन सोडचे ठरयले. ताणी व वचुनु (4000 लोक!) आक्रमण करचे फुळ्ळे दीसु भूंय् अलाट् जालेले कागद मेळे!

रामचंद्राव् म्हळेलो गांधियन्, तिगेले मदतिक आयलो. दोगानि दिसगट्ले बसुन, पंगड जावन कामकरचाक तयार जालेले निराश्रिताले नांव, नोंदासुवन घेत्ले. बेग्गिचि स ते आट सहकारिसंघ, अस्तित्वांत आयले. ताणि सहकारि पद्धतिरि शेति सुरुवात केलि.

दिल्लिचान 14 मैल दूर, निराश्रिताले होंड एक डेरेचे नगरचि उटायले. एकदीस कमलादेविक खबरि मेळ्ळिकि चंडमारुत येवन तंबू व उडुनगेल्यात! थंय् वचुन पळेयल्यार, असंख्य कुटुंब, एकहोंड डेर्या (तंबू) आश्रयांतु आसले. डेरो पिंदिल्यान रस्त्यारि धूळिमद्दे बशिले हृदय विद्रावक दृश्य! ते व वायुव्य सरहद्द प्रांताचान आयिले निराश्रित पठाण आसले. कमलादेविन वेळ केलोना. सीदा प्रेसिडेंट् राजेंद्र प्रसादालागि गेलि. आपणे परिश्रमान तयार केलेले, योजित नगर (टौन्शिप्) चो नीलि नकासो ताज्ने मुखारि दवरले. सहकारि संघ आनि आत्त सहकारि नगराचि कल्पना राजेंद्र बाबूक पटलि. ताणे लगेच एक बोर्ड् स्थापितकेलो. खुद् ते बोर्डाचो अध्यक्ष (प्रेसिडेंट्) (मुख्य थ) जावन कामकरचाक तो तयार जालो!

जाल्यारि हे निराश्रितालागि काम घेंवचे कठिण आसले. तांतुले 99% लोक दुकानदार, व्यापारि, कंत्राटदार आसले. तांका दुसरि कसलि वृत्ति, येनासलि. हातकामाचि कल्पना नासलि. सरकारान तांका व चि घरबांदुन दिंवचाक कंट्राक्टर् आनि कूलि हाडुन दित्ता म्हणु सांगले. हांगा कमलादेविले कर्तबगारि, आनि

ीटपण कित्ले उन्नत आसले आनि दूरदृष्टि कितलि प्रखर आसलि
ह्मण कळन येता, तीणे निराश्रित पुढार्याले मीटिंग् आपयले.
ांका स्पष्ट सांगले. तुमि स्वाभिमानि जनांग! सगळे तुमिगेले
म्हळेले गेला खरे. जाल्यारि, स्वाभिमान, आनि धैर्याबलारि परत
तुमगेले पायारि तुमि राबचाक साध्य जातले! टेंटान राबुन,
कंत्राटदारान तुमका घरबांदुन दिवचे पळेयत उरतातवे? ........
नाका! तुमगेलि घर तुमिचि बांदा! तुमका फुकट जेवण–तान
मेळतले. एंजिनियराले आनि तांत्रिक जनाले सहाय मेळतले.
तुमिगेलि घर तुमिच बांदा!" तिगेलि उन्ना मोडि तशि आसलि.
5,000 पठाण, ताबडतोब कामाक तयार जाले. हाताने खंचेयि
काम, सहकारि पद्धतिने शेति शिवाय् करचाक साध्य आसले.
कमलादेविन ही परिस्थिति बापुक स्पष्टकेलि. तशि जाल्यारि,
भूंयि भायले कामाक तुमगेले सरकारि अवलंबन अगदि कमि
उरशि पळय्! हे साध्यवे?" बापुजिन विचारले. हांवे मात्ते हालयले.
अगदी होड आह्वान मजे एद्राक येवन राबले!" म्हणु कमलादेविन
सांगुन घेतले आसा.

सरकारा सांगाति कुस्ति करचे ससार नासलि! प्रति एक्काक
आडपाय् घालतलि अधिकारशाहि, ब्रिटिशा कालाधरन पांळ ऊरुन
आसलि. जमीन मेळ्ता–आजिमेळ्ता–फाल्या मेळ्ता म्हणत 6
म्हयने गेले. नंतर कमित कमि रिण मागिले, स्यांक्षन् जावचालक
वेळ केलो. पंजाबाक लागून आसलि भूंय् 4000 एक्रेचि मेळचाफाव!
म्हळेले आशा दाकयत सर्कारान दिवस काडले. बापुजिन ड्राफ्ट्
दवरन घेतले. तो हे बद्दल नेहरूलागि उलयलो. नेहरून मनात
घेतलेना! ते व्यावहारिक ना! सोश्यालिस्टाले सोप्नासृष्टि! म्हणु
व्यंग्य उलयलो.

जाल्यारि गांधिजीन कमलादेविक निराश जावचाक दिलेन.
तुंवे आनि तुगेले सहकारि संघान सरकाराचेरि अवलंबुनु उरनात!
म्हणु निर्धार केलयार वाट दिसता! सहकार म्हळ्यारिचि स्वावलंबनेचा

घ मार्ग!" म्हणु ताणे सांगिले कमलादेविक पटले. सरकाराने ताब्यांत घेत्तिले भूंय् बद्दल गांधिक तीणे सांगले. हांव गोविंदवल्लभ पंतालागि उलयता. तू काम सुरुकर!" म्हणु तो म्हणालो. तेवेळारि गांधिलो वेळ पूराय्, नवीन स्वतंत्र जाल्ले देशाचे, हजार घोटाळ्यानि भरुन गेल्लेलो. तरि कमलादेविक आनि तिगेले यकश्चित् साहसाक ताणे लक्ष दिले बद्दल कमलादेविले दोळे भरन आयले.

थोडे दिसानि गांधीजिलि हत्या जालि.

असिस्टंट् रजिस्ट्रार सहकारि संघ–हाजे आफीस सोड्डुनु काडचाकची वेळगेलो. कोणाकयि ते आफीस आनि ताणि करचे कामाचि कल्पना नासलि! सरकाराचे अजिबात् संबंध नासले सहकारि संघा बदल आजवरेक तांका आयुकुन खबरनासले. कमलान मुंबै राज्यांत प्रचाराक आसले कायद्या नकल तांका दाकयलि. प्रयोजन जालेना. संबंधित सेक्रेटरिक तीन चार पेटि भेटनापडे इंडियन् को–आपरेटिव् युनियनऽऽ (भारतीय सहकारि संघ) करचाक सहमति मेळलि.(1945). हे युनियन् हांतुरि निराश्रिताले प्रतिनिधि, सरकारचे सदस्य आनि वालंटियर्स् आसले. दिल्लिचान 12 मैल दूरचा छतरपुर म्हळेकडे खालि पडिलि जमीन दित्ता मळेले अश्वासनेंत दीसगेले. कमलादेविले सहन मीरुन गेले. तीन दीस भितरि हो जागो सोडोवन आमगेले ताब्यात दीना जालार, आमि हजारान येवन स्थापित जात्तले! म्हण कागदा घोडो धांवडायलो. काम जाले. हातकामा कल्पना नासल्यानि, फात्तर भेच्चे, कूलि कामकरचे, ईट व्हांवचे, किसळ मारचे, लॅथ् चलोवचे, कामसुरुकेले. प्रतिदीस कमलादेवि येवन तांका भेटतशिलि. तिजे बरोबर थोडे उत्साहि तरुणयि येवन सहाय करताले. सरकारान 5 वर्सां लागतलि!" म्हणु एस्टीमेट् केलेले काम ताणि 1,1/2 वर्सांत पूर्णकरन सोडले! 30,000 लोक निराश्रित आसले. झगडि, आक्रोश, राग–रोष नासतना कामकरत आसले. ताणी 4,000 घरबांदलि, 13 शाला बिल्डिंग् बांदलि. 10 आरोग्यदाम

थंय् जालि. सगळेगांवाक उदका व्यवस्था केलि. एक पवर्हौस् बांदले. सगळे सहकारि पद्धतिन!

. फरीदाबाद टौन्शिप् रूपितजाले. सहकारि किराणि, कपडे, तकद हाजे आंगडि येना पडेन बस्सर्विस् सुरुजाले. वाडत गेलेतशि, सेक्टर् आयले. हॊड हास्पिटलाक फ्रांटियर् गांधिले नांव ताणिं दिले. आत्त रेलो स्टेशन् सुद्दा सुरुजले. खेळा मैदानूय जाले.

पंडित नेहरुले कानाररी सहकारि वळारि रूपित जालेले नवे नगराचि यशाचि खब्बर पडलि! ताणे खुद् येवन थंचे काम पळोवचि इच्छा व्यक्त केलि. छतरपुरय् शेतिकामांत सहकारि रूपान यशस्वि कामकरत आसले. तांगेले पैलेचि फसल् नेहरूक दिंवचाक 35 कृषिक लॊक, तागेले तीनमूर्ति घरा आयले. कमलादेविन हो कार्यक्रम निगदि केलेलो. ताणि हाडिलि फळ आनि तरकारि पोळोवन नेहरू खुश जालो. मूलंगि तरि इत्ले हॊड आनिगोड आसले पळोवन हे कशि तुमि वाडयलि?" म्हण अजाप जावन ताणे विचारले. ऐ.एन्.ए.(सुभासचंद्र बॊसाले सैन्यं)तु काम करन आयलो पठाण् सिंग् म्हणालो. आमि लायल्पुर (पाकिस्तानचो तागेलो गांव) चान कसलेय् हाडचाक साध्य जालेना. थोडशे बीं, सानशे कप ंतु बांदुन घेवन आयिले, एकदीस आमका भूंय् मेळ्यार रोवचाक जात्तले म्हण!" पंडितजिक दोळे भरन आयले. ताणे ताबडतोब प्रदाान मंत्रिले फंडाचान तांका घर बांदुचाक पैशे मंजूर केले.

फरीदपुराक (नंतरले फरीदाबाद) बि नेहरु, स्वंत आमंत्रित जावन आयलो. गांवचे वेगवेगळे इमारत, खेळ, आरोग्य व्यवस्था व पोळोवन खुश पावलो. तुंवे फा ी हेचि यॊजनेक सोशयलिस्टालि सोपना सृष्टिचि खब्बर म्हण वाळन घालेले!" म्हण ताका यादकरन दीवन तागेले खुशीरि थंड उदाक लकोवंचे प्रयत्न हांवे केलना! म्हण कमलादेविन सांगिले आस.

फकत् मानवीयते दृष्टिन, पळेयले तरि, कमलादेविन निराश्रितक दिल्लिसेवा, इत्लि–तित्लि म्हण सांगचाक जायना! स्वंत घराक करचे प्रीति–आत्मीयता तीणे निराश्रित कालोनिक पावयलि. पयले फंता फसल आयले तेना, बाजु चे गांवचे लोकाक तीणे चक्कडि, बैल आनि कृषिचे सामान घेवन येवन मदत करचाक विनंति केलि. ओख्लाचान व्हाळनु वोचे गलीज उदाक, लागिचा जैतपुर फार्माक मेळशि, निराश्रिता लागचान केनल् बांदयले. संबंधित अधिकारि लोकाले परवानगि हाडुन दिलि. ते काळाक केमिकल्स् तितले उपयोग करनाशिले. संडासा उदाक, आनि मनुष्य मल, चांग सारे जाता म्हळेले गांधीजिले आनि भारतीय पोरणेतत्व, आचरणेत हाडले. उदकावांट आशिले जमीनिक उदाकय् मेळे, सारेय् मेळे!

छतरपुरांत उदकावांट खुप आसले. आहार आनि कृषि खातेक येराजारि घालन, कमलादेविन कडेरकय् उदकाचे बोरवेल् घालुन घेत्ले. 50 वर्सा फाटि, बोरवेल् काडचे, आतावरि सलीस, अनि सवरग नासले! ते कामजायसरि कमलादेवि, सद्द थंय् वतशिलि. थंय् उदाक मेळना पडेन, पांच होड होड स्टोरेज् व्यांक् बांदलि. 1979 वर्सांत वरेक थंचानच इरिगेशन् जात्तेरि आसले.

पयले वर्सांत वैद्यकीय सवलत नासतना, एक कृषिकाली बायल, दिल्लिक हाडुन आस्पत्रेक भर्ति जायसरि मेलि. ते नंतर रूरल् हेल्त् सर्वीस् करचाक तीने पुष्टिदिलि. प्रतिदीस, डाक्टर् आनि तागेले टीम् हळियाक व्यानारि वचुन वकद, चिकित्सा दिंवचे क्रम सुरजाले. एमर्जन्सिकय् तांगेले सेवा मेळसरि पळयले. भारतांतु मोबैल् मेडिकल् युनिट् पयले खेपेक सुरुकेले ते कमलादेविन.

इंट्रिगेटेड् क्रेडिट् स्कीम् तिगेली योजना. इंडियन् को

आपरेटिव् यूनियन तर्फेन लॉन् घेतले कृषिकान, युनियनाचे तांत्रिक सलहा घेवका आनि थंचान सारे खरीद करकाशिले. गरीब आनि अशिक्षित कृषिकांक हे यॊजनेन बरो फायदो मेळो. फळ, तरकारि, डेरि आनि कोंबियांपालन (पौल्ट्रि) कृषि सांगातिचे सहकारि रूपार करचाक तळपाय् तीणे घालले.

मस्त प्रगतिशील विचार, खंचे आमि आगदि सहज आनि नेत्याचे जीवनाचे भाग म्हण घेत्तति, ते व ु चि अर्धशतमाना फाटि. ट्रयल् एंड् एरर् हाजे रिस्क् घेवनु कमलादेविन पयले कंताक रूढिक हाडिले. तीणे आसक्ति घेत्तिले प्रति एक क्षेत्रांत ती तेगेलि कायमची देणगि सोडुन गेल्या.



अध्याय 10

# हात्कामा आम्मा (हस्तकला मा):अभय् दान

निराश्रितांक पुनर्वसति करचे कामाक चालन दीवन ते यशस्विमार्गार वचाक सुरुवात जालि. आता, कमलादेविन तिक्का मनाक खुप लागिचे, आनि आवडचे हातकाम् (ह्यांडिक्राफ्ट) कडेन लक्षदिले. 1952 सुमाराक स्वयं स्फूर्तिन, सरकाराक सूचन दीवन, अखिल भारत हस्तकला प्रदर्शन तीणे दिल्लिंत संघटित केले, हातकाम् वस्तु, आनि ताक्का संबदित सान सान उद्योगाचे, परिकाराचे, हे, स्वतंत्र भारताचे प्रदर्शन आसले. इतल्यांत होड पंगड, काश्मीरचान आयले. तेन्नाचे काश्मीराचो मुख्यमुंत्रि शेख अब्दुल्ला कडचान तीणे ताचे उग्तावण करयले. काश्मीरि हातकाम्, अति अपरूप आनि चंदायिनि भरिले. जाल्यारि कलाकारालि स्थिति भारी दयनीय आसलि. तांगेले कार्पेट् धरन, केरळचे मांदरी करतले, गुडिगार, शिल्पि, आनि इतर कलाकाराले एकची समस्या देक्कुपडलि. तांगेले कामाक योग्य मार्केट् ना! ताजान तांगेले पोटार फातरपडचे अति सामान्य जावन गेले. हांगेले आर्थिक परिस्थिति सुधारचे बद्दल ती विचार करचाक लागलि. योग्य संधर्भ आपाप आयलो!

आल् इंडिया ह्यांडिक्राफ्ट्स बोर्ड् (अखिलभारत हातकामाचे मंडळ) अस्तित्वांत आयले. प्रधानमंत्रि जवाहरलाल नेहरून तिका हे मंडळचि अध्यक्ष जावचाक सांगले. ते पर्यंत सरकारांत क्याबिनेट् मंत्रि, गवर्नर्, एंबेसेडर्, आनि सर्वपक्षानि सम्मति दिल्लेले भारत देशाचे उपराष्ट्रपति हुद्दो वरेक तीणे नाका! म्हणु स्पष्ट सांगिले. जाल्यारि हे हातकामा बोर्डाचि अध्यक्ष जांवचाक ती कबूल जालि. तिगेलि जन्मतः आयलि सौंदर्य प्रज्ञा आनि ताका मूर्तरूप दिंवचो बरो संदर्भ, सेवारूपान यो"! म्हण आपयत आसलेवारि तिका दिसले. जास्त उत्साहान ती हे कामाक तयार जालि.

तीणे वहिसुन घेतिलि जवाबदारि कितलि होड आसलि, समस्या व चि कितलि जटिल आसलि आनि व्यापक आसलि, म्हण कळन घेवका जाल्यारि हे क्षेत्राचे फाटभूंय् कडेन एक नजर घालचे बरे!

व्यापारि जनांग म्हणुची प्रसिद्ध आसले ब्रिटिशानि भारतार आपणाले प्रभुत्व स्थापन केलतशि, ताणि पळयले की ही भूंय्, आपले देशांत तयार जाल्ले प्रति एक सामन विकचाक आनि ताजान श्रीमंतिकाय् आपणे वाडोन घेंवचाक अत्यंत योग्य आस! इंग्लिष् फ्याक्टरितं तयारजाले सामान, कपडो, आखेरेक मुष्टि मीट वरेक विलायतेचान ब्रिटिशान भारताक केल्ले शोषणेक लेक नासले. ब्रिटिशानि भारतांत पायदवरले तेना, हांगा तयार जावचे सूति आनि रेष्मे कप ाक होड विदेशि मार्केट आसले. डाकामस्लिन् आनि मुद्दे मदेचान व्हरचाक जांवचे रेश्मेचे, मलमल्चे कप ा बद्दल, आनि ते तयार करतले वीणकार् जनांगले बो ; ब्रिटिशानि कापिलि, सत्यकथा आमि जाण! हे सुंदर कलेक आसले राजाश्रय, आनि सार्वजनिक आश्रय कमि जातेरिगेले. कडेर ते अदृश्य जावनगेले. जास्त जावन सान–होड संस्थानाचे राय आनि श्रीमंत लोक, विलायतेक वच्चाक लागले. थंचे सामानाक भुलनपडले. तांचेरि आश्रित जन, मुख्य हातकामा कारागीर, गरीब जात्तेरि गेले; पो ाखातिर दुसरे कामाक लागले, अनुवंशाक जावन एकीचि वृत्ति करत आयले जन, दरिद्रावस्थेचे कडेरचे हंताक पावले.

महात्मगांधिन भारतीयांक जागयले, ते 'स्वदेशि' घोषणेन. विलायति कप ाक बहिष्कार घालचाक, खादि आनि हातानि केल्ले सामान वापरचाक ताणे देशवासींक विनंतिकेल्लि. ती स्वावलंबने खातिर! मस्त होड प्रमाणारि, ब्रिटिश् मिल्लाचान येवचे कपडे वापरचे कमि जाल्यार, आमगेले विलायति अवलंबन कमिजातले. स्वौद्योग वाडतले म्हण. हे आंदोलन बि अत्यंत यशस्वि जालेले, भारताचे स्वातंत्र्य आंदोलनाचे मुख्य अध्याय आस!

बापुजिक खादि फक्त पो ाची वृत्ति न्हय् आसलि. हातकाम् चरडुंवाक शिक्षणाचे माध्यम आस! जावका! हे तागेले आशय आसले. कपडे तयार जावचाक तकलि, राटि, मग्ग जायशिले सामाग्रि. तरकारिचे, फुलाचे, बाग करचाक, मात्ति, उद्दाक बी, सलकि, खोरे, जायसले उपकरण. हे सामान कसले? म्हण विचारत चरडुंवाक गणित, भूगोल, भूमितिचे पाठ कृषिचे, बागकरचे कामा बरोबर, आपाप शिकचाक सहाय जाता! म्हळेलो तागेलो अभिप्राय आसलो. हातकाम्, आपाप रूढ जाता म्हण तो म्हणतालो.

कमलादेविक हे विचार पटले. हाजेकिंता मुखार तिगेले विचार – आसले हातकामांत मनषाले भावनात्मक संबंध गुंतुन आसत, म्हण ती मणतालि. हातकाम म्हळ्ळयरि, देहाचे अंग, मन आनि दोळ्याक दीसनासले अभिव्यक्तिचे वेगवेगळे प्रकार, हातकामांतु मेळन गेलात, म्हण तिगेलो अभिप्राय. यांत्रिक सहाय्, ती नाका म्हणनासलि. आदिमानवा पासुन आत पर्यंत, शोध काडिले कित्लेतरि हत्यार आनि साधन, सादा रूपाचे हत्यारसुदा यंत्रचि नैवे? यंत्राचो यॊग्य उपयॊग घेतल्यारि वेळ उरता तो. वेळ, कामगीराक तागेले कृतिचेरि घालचाक मेळता. तेन्ना, ते काम् चड नाजूक, मजबूत, चंदजाता! म्हणतालि ती.

भारतांत नित्याक वापरचे सामान, अगत्य आसले तितलेचि चंद बी आसत. कृतिंत चंदाय् भरचे कारागीरांक कितले स्वाभाविक की तितले महत्वाचे, ती चंदाय् ग्राहकानि पोळोचांत आस! कलेक 'ललितकला' अथवा 'कुशलकला' म्हणचाक कारण, कलेंतुले लालित्य (चंदाय्) आनि खुशि दिंवचे कुशलता मुख्य आस! आमि संदा वापरचे सादा सामान वरेक रेखीव आनि नाजुक आसतात. लक्षदिवन पळयलार, आमि ताकचाळचे खवले बसचाक फाटि वापरचो माणयो, कालमणय्, पानपेटि, पळेर, आडकात्रि, दवले, दिवलि, आरति–पळेर, त `; देवालागचे उपकरण, कितले रेखिव कामान शोभताले, म्हण दोळे उघडन पळयलार, विचार केल्यार, कमलादेविले अभिप्रय अर्थजाता!

फ्याक्टरिंत तयारजालेले सवरग सामानान हातकामाचे सामानाक मागणि ना जालि. तशि जावन कमलादेवि. हात्–काम् बोर्डाचि अध्यक्ष जाले भितर, मरत आसले सान–होड हातकामाक, आनि ताजे कारागीराक वळखुवचे कामाक लागलि. देशभर भोवलि. हे कामाचि 'साहसयात्रा'! तिगेले जीवनाचो होड अध्याय म्हणयेद. प्रवासाक सवलत नासले दीस. रस्ते, वाहन, गांव, आताकिंता भयंकर हीन स्थितिंत आसले. सरकारि सवलत नासले कडेन अधिकारि लोकाले दिव्य अलक्ष! कमलादेविन हातकाम बोर्डाचे अध्यक्ष जायना पडेन, तिजे बरशि दशकगट्ले काम केलेलो लक्ष्मीचंदजैन् (83) यादकरन घेता. आमि उत्तरप्रदेशांत फिरत गोरखपुर पावले. थंचे डि.सि.क कमलादेविन, ते प्रदेशचे विशिष्ट हातकाम कसले? म्हण विचारले, "हो प्रदेश मस्त माक्षेयला! हांगा खंचेयि हातकाम् नात!" तो म्हणालो. कमलादेविन केर्केल्ना! दुसरे दीस् खुद्द शोधाक भायरसरलि. 'बांकुरा घोडे' म्हळेले ते प्रदेशांत तयार जांवचे लाकडी आनि मातेयचे सुंदर घोडे, तीणे सोदुन हाडले. नंतर हे घो ाचे निषाण (एंब्लेम्), केंद्र गृह हात्काम कार्पोरेशनचे, (सेंट्रल् काटेज् इंडस्ट्रीस् कार्पोरेषन् आफ् इंडिया) सि.सि.ऐ.सि.चे मुख्य चिह्ने (एंब्लेम्) जावन आजिकय शोभता".

कोणाले सहायाक राकचे, सवलता वाट पळयत उरचे, कमलादेविक आवड नासले. सरकारि सहाय मेळवे बरें! नासल्यार स्वंत गाडिकरन, ती भायरसरतालि. तीणे वचे जाग्यार गाडि वचना जाल्यार, गाडितल्यान देवनु पायान चलचाक फाटि–मुखार पळयनासलि. ती आपले हुद्याक, प्रायेक, त्रासाक लक्ष घालनासलि. जाल्यार केंद्र केबिनेट् मंत्रिक समान आसले ह्यांडिक्राफ्ट् बोर्डाचे अध्यक्षाक जिल्ला आनि राज्य अधिकारि जनानि अलक्ष करचाक जातावे ? ते पटालं तिजे फाटी फिरन सुस्त!

चंबा प्रदेशात ह्यान कम्नृतिचे रूमाल प्रसिद्ध आसले. ह नाजुक काम साधसुन घेनिलि एकच्लीचि बाइलमनिस आस्लि.

तिका भेटचाक कमलादेवि स्वतः गेली. तिगेलि भौ सान हळ्ळी! गु ार आस. गाडि वचना! पायवाट बी समना. आगदि गलीज जागो". थंचे अधिकारि वर्गान समजावन सांगले. तीणे आयकलेना. थंय पावलि. ते बायिले गुडिसलाक गेलि. थंय् आसले चार्पायारि बसलि ते बायिन दिलो काळो चा पिली. कमलादेविने, तिगेले हातकामा तारीफ केल्लेले आयकुनु तिगेले दोळे भरन आयले. एकवर्सानंतर तेचि बायिन देशाचे राजधानिचे भव्य सभांगणात राष्ट्रपति हातान, नाजूक कामगिरिक राष्ट्रप्रशस्ति घेंवचे दृष्य देक्कुपडले. आज्ञात हळ्ळिचान ति दिल्लि पाविलि! ताका कमलादेवि कारण जालि.

कलंकारि अथवा कप ारि कुंचान पेंट् करन नाना चित्रावळ आनि दृश्य सुटोंवचि कला, आमगेले देशांत प्राचीन कालाचान चलन आयला. जाल्यार हळुहलु राजाश्रय आनि मागणि (डिम्यांड्) नासतना हे काम नाश जावनगेले. एकचि एक कुटुंब, तिरुपति लागचे काळहस्तिचे सानगांवात आसले, कमलादेविक कळ्ळे. ती यु. श्रीनिवास मल्य, कांग्रेस् पुढारि आनि स्थळीय अधिकारि लोकांक घेवन, तिगेलि आप्त जावन आसलि जसलीन् धमिजाक बि घेवन ते गांवाक गेली. येवचि खबर पयले कळयले तरि, गांवा, तांका स्वागत करचाक कोणी आयलनात! एकपटि कुशलकर्मि जोन्नळगद्दे लक्ष्मय्य हाका भेटलि, कि बेजारलेले कमलादेवि प्रसन्न जालि. ताक्का आनि तागेले कुटुंबेचे जनांक, सरकार' घरा बागलाक आयला म्हळेलो विश्वासूची जालेना! अननसाचे विशेष रसं तयार करचात मगा जाल्यान तिका स्वागत करचाक वच्याक जालेना खंय्! कमलादेविन अननसरसं" चो स्वाद रुचिन घेतिलो. गरीबिन हण्ण जालेले लक्ष्मय्याक परत कलंकारि काम सुरु करचाक आग्रह केले. तो बिल्कुल् तयार नासलो. चल्याकवरेक ताणे हे काम शिकयले नासले. कमलादेविने खूब समजायले. आश्वासन दिले. स्वंत हातान धा हजार रुपयि दिलि. तागेले,

चल्याक आनि गुरुताचे कामगाराकं तरबेत दिंवचाक लक्ष्मय्य तयार जालो! कमलादेविन जायशिलो कपडो, रंग तयारकरचे सामान बि हाडोवन दिले. 1958 वर्साचान कलंकारि कलेचे काम परत सुरुजाले.

*********

पयले पंगडान तयार केलेले कलंकारि कामाचे प्रदर्शन भारि यशस्वि जाले. नंतर ते गांवचे एक एक घरचे लॊक स्वप्रेरणेन हे कामाक लागले! फक्त रामायण, महाभारताचे दृश्य इतले नय्! थोडे नवीन थीम्, (फुलभाग्, खेळ, वृत्तियो, नृत्य), ताणि चित्रण करचाक सुरुवात केलि. आजिक ते आसपासचे गांवचे एक हजाराकिंता जास्त लॊक कलंकारि चित्रण कामांत आसात!

2003 वरस, कमलादेविले जन्मशताब्दि वरस आसले. कलंकारि मास्टर् क्राफ्टस्मन् म्हण ख्यात जालेलो लक्ष्मय्यालो नात्तु, शिल्पि, गुरुप्प चेि न, कमलादेविले स्मरण, उत्सवरूपान जमयले. सुमार इत्ले शिल्पि–हातकामाचे कारागीरांक आपयले. कलंकारी कलाकार आसलेचि. कमलादेविलो नात्तु नील् च ोपाध्यायक विशेष अतिथि म्हण आमंत्रित केले. एक स्मरणीय आनि कृतज्ञता पूर्ण कार्यक्रम संपन्न जालो.

कमलादेविन वेदीर येनासलार, वांचुन उरिले एक्क एक कलंकारि घाराणे नामशेष जावन वसतले. ही कला, पुनश्चेतन जालि. निरीक्षेकिंता जास्तिलोक हे हातकामाक लागले. सांप्रदायिक कला, आधुनिक रूपान वाडोवन हाडेलि. कित्लेक क्लाथ्पेंटिंग्, हॊडहॊड महलांतु, आफीसांतु रिसेप्शन् रूमांतु देशविदेशांतु आजिक विराजमान आसात.

पॊचंपल्लि कापडाचि चंदाय् कोणाक पसंद ना? हॊ कलाप्रकार, कापडा रूपान प्रचलित नासलो. सान सान कप ाविल्यान कापड विणचाक ते कलाकारांक कमलादेविनेचि

तयारकेले. हैदराबादचे चार्मिनार् जाग्यार 'पीलया रुमाल्' म्हळेले हातमग्गार विणीले, मवु आनि हल्के रुमाल् विकतसले. चिराला म्हळेले गांवांत ते तयार जातात! म्हण कळनघेवन, ते विणपीले वीणकारांक भेटचाक कमलादेवि भायरसरलि. हैदराबाद गांव, मे म्हयनो. वत्ताराप, सांगचे नय्! वल्लो टुवालो मात्यार घालन; जीप् गाडिंत उरिल्यां बरोबर कमलादेवि भायरसलि. मात्ते थंड दवरचाक बापूजिलागीं शिकलि!" म्हणालि. वाय्ट्रस्तो. थोडे वेळानि, दोनि दिकान कांट्या रस्तो सुरुजालो. जीप अशितशि पावले जाग्यार पिंवचाक उदाक वरेक नासले! थंय् सहकारिसंघाचे आफीस. ताणीं खंचानकि शियाळ हाडोवन दिले. तेन्ना पळेयलार, कमलादेविले दावे रव्याक कांटे तोप्पुन रगत एत्तसले!

थंय् वीणकार जमिले. तांगेले संकष्ट सांगुन घेवचाकलागले. ताणि विणीले 60 कौंटाचे वस्तराक मागणि नासलि. कमलादेविने तांका नेसचे कापड विणचि सूचना दिलि. तांका ताजो अभ्यास नासलो. थंचे थंय्, तीणे मग्गाचे वार्प् (उबिवीण) सुधार्सुंवचाक सूचना दिलि. स वारि कापड विणचाक सांगले. प्रायोगिक रूपान तीन कापड विणचाक सल्ला दीवन ती वापस आयलि.

ते काम पूराकरन वीणकार तीनी कापड घेवन आयले. ताबडतोब तांगेले कूलि दिंवचि व्यवस्था तीणे केलिलि. एकपटि कापड विणचि व्यवथा जायनापडेन तीणे दोगजण वीणकारांक बनारस धाडले. थंचे 'इकट्' रेष्मे डिझैन् ते शिकुन आयले. धा वरस भितर पोचंपल्लि कापडान इतिहास निर्माण केलो! आजिक तो गांव इत्लो न्हय. सबंद नाल्गोंड जिल्ला, हे अपरूपाचे कलात्मक कापड तयारिचे केंद्रस्थान जावन गाजता!

पैठणि कापडाची हीचि काणि! महाराष्ट्राचे संत ज्ञानेश्वरा निमित्तान आध्यात्मिक, भक्तिचें, संस्कृतिचे, सुंदर प्रतीक जावन आशिल्लो पैठण गांव, तेंचि नावाचे, आपूर्व पक्षि-फूल झरेन [illegible] कापडाक [illegible] कमलादेवि गांवगान [illegible]

थंय् पाविले तेन्ना फक्त दोन कुटुंव कापडाचे वीणकार. थय् देक्कु पडले. उरिले दारले पो ाखातिर कूलिकाम सोदुन घेंवन पुणेक पाविले. तीणे केन्नावारि तांका, वापस आपोवन हाडले. जाय आशिले आर्थिक सहाय दीवन परत कापड विणचाक लायले.

आजिक हजारगट्ले रूपय् किमतिचे पटोला, पोचंपल्लि, पैठणी कापड, पुनश्चेतन पावन, बायलांगले आंगार शोभचाक कारण कोण? म्हण विचार केलार, कमलादेविले कलाप्रेमा बरोबर दूरदर्शित्व आनि कारागीराबद्दल तिका आसले अनुकंप यादेक एत्तात! लग्न किंवा जीवनाचे अत्यंत स्मरणीय प्रसंगावेळारि एकपुणि वयले प्रकाराचि एक साडि घेंवका! म्हण मध्यम वर्गाचे महिळाले आशय उरता! आजिक, तांगेले पर्साक (पैशाक) जमचे सारखे साडियो तयार जात्त आसत ते कमला माय्ले विशेष प्रयत्नान.

पश्मीना, शाल् अत्यंत हलको जाल्यारि चडतेचि बेच्चगदवरचे शालाचो प्रकारजावन आस. हिमालयाचे अति ऊंच शिखाराबी मेळतले बकर्याले तुस्" म्हळेले अगदी नाजूक रोमेन पश्मीनाशाल तयार जाताले. हाजे तयारि कष्टाचि, तयार करतले समचि मार्केट् मेळनाशि, अत्यंत गरीबित दीस काडताले. तांगेले परिस्थितिचि पक्का माहिति खातिर कमलादेवि स्वतः लडाख प्रदेशाक पावलि. त्या दीसांत लडाखाक रस्ते वरेक नासले. विमान वरेक निश्चित वेळेरि वचनासलें. हिमपात आनि बर्फापावस केद्ना येता? हे सांगचाक जायनासले. कमलादेवि, मिलिटरिचे हेलिकाप्टरांतु, हिमशिखराक आपटनाशि, हालतधोलत, भिरांकुळ अपायाचे ते दुर्गम प्रदेशाक पावलि. थंय्गेल्ली प्रप्रथम महिळा ती आसलि. सुखदुःख विचारसुन घेंवचाक आयलि, माताजि" सरकारचि प्रतिनिधि म्हण पश्मीनाशाल वीणकाराक विश्वास जालना! तीणे तांका आर्थिक सहायाचे आनि शालविकोवन दिवचि व्यवस्था तुरंतकेलि. जम्मुकाश्मीर सरकारचान मळकाशिले सहायाचे विळंब चुकयले.

(आजिक पश्मीनाशाल दुर्मिळ जाल्यात, तुस्रोम मेळचेम दुर्लभ जाला. कामगार बि ना जाल्यात. पश्मीना तयारि आनि बिकरिचेरि सरकारान निषेध हाडला).

पिंगाणे (चीनी) मात्तिचे कामाक (पोर्सलिन्) बि तीणे मस्त प्रोत्साह दिलो. जैपुरचे पिंगाणेचे नीलिरंगाचे (पोर्सलेन) सुराय्, फ्लावर पाट्, प्लेट् आनि सान हॉड अर्टिफेक्टानि – बरे नाव केल्लेले. आर्थिकरूपान हे काम लाभदायक करचो विचार कमलादेवीक आयलो. थंचे करपाल्सिंग् शेखावत् म्हळ्ळे युवकाक, तीणे जपानाक धाडुन पेंटिंग् कलेंतु तरबेति दिवयलि. परत येनापडेन ताणे जैपुरांत सुरुकेल्ले केंद्रांत मस्त इत्ले जनांक हे कलेंतु ट्रेनिंग् दिले. विदेशांत हे सामानाक भारि मागणि आयलि. करपालसिंगाने एकपटि थंय् पाविले कमलादेविक आग्रहान घरा व्हरन आपले आवय्लि भेटि करयलि. मेगेले उच्च कुलाचे रजपूत चेरक्याक तुंबे कुंबाराले कामाक लावन, बा ु न वचशि केले!" तागेले आवय्न आक्षेपाचे अवाजांत उद्गार काडलो. रजपूतानि खड्ग फिरांवचे दीस् केन्नाकि माय् जाल्यात! तुगेले चल्यान कुंच फिरावन जग जिकला मांये!" हासत कमलादेवि म्हणालि. म्हांतारि शांत जालि. करपालसिंगा असले मस्त प्रतिभावंताक कमलादेविन मुखारहाडिले आस.

ऊटि अथवा उदकमंडलचे आसपासचे रानांत तोड' म्हळेले आदिवासि जनांलि वसति आस. म्हशी पोसुन दूद आनि ताजे सिद्धपदार्थ विकुन ते जीवन चलयतात ते थंड प्रदेशांत, ताणि खांद्यार वोडुन घेवचे शालाक सुंदर कसूति उरतालि. थंय् मिशनरि लोक कामकरत आसले. ताणि तांगेले सांप्रदायिक कसूतिचे रूपचि बदलावन दिले. ते कमलादेविले लक्षाक आयले. तीणे तोड जनांगाक तांगेले धार्मिक विधि–विधानाक संबंध आशिले डिसैन् व ्चि परत विणचाक आग्रहकेले. शालां शिवाय्, परदे, बेड्स्प्रेड् आदि विणल्यार तांका विकचाक बरे जात्ता म्हण समजूत

दिलि. हे प्रॉत्साहान सुमार इत्ले तॉडा बायलो, हे कसूति कपडो विणचाक तयार जाल्यो. शिक्षण पाविले बायलो ही एक वृत्ति करनघेवन मुखार आयिल्लें. ऊटि आसपास देक्कु पडतात.

देशांत शिल्पकला, मस्त प्राचीन कालाधरन शिखरप्रायेक पाविलि आसलि. उत्तर दक्षिण-पूर्व-पश्चिम भारतांत वेगवेगळे शिल्पकलेचे शैलि अस्तित्वांत येवनु, जास्त कडेन नाश बि जावनगेल्या. दक्षिण भारतांत थोडे कडेन जीव धरन उरल्या. पल्लव, चाळुक्य, होय्सळ आनि चॉळ रायाले आश्रयांत अद्भुत देवळ निर्माण जालिं. राजाश्रय माय जायनापडे, बरेबरे शिल्पि बि, अदृश जाले. जाल्यारि दक्षिण भारतात, तांतु भितरि तमिळनाडांत, मात्र, शिल्पकलेचे भव्यसंप्रयादायाचे राकवण करन घेवन आयले कुटुंब आसले. कमलादेविने ते कुटुंबाचाक वळखुन कामाक लायलें. महाबलिपुरं गांवात एक प्रयॉगशाला निर्माण केलि. वैद्यनाथन् स्थपति म्हळेलो शिल्पाचार्य ताजो मुख्यस्थजालो. हात्ताचि चलाकि आसले उमेदवारांत सोद्दुन काडनु तांका सात वर्साचे देवळाचे वास्तुशास्त्र(टेंपल् आर्किटेक्चर्), प्रतिमा शास्त्र (ऐकानॉग्राफि), आनि शिलेंतु कोरांवचे (कार्विंग्) चे सगळे प्रकारांतु ट्रेनिंग् दिंवचे सुरुजाले. राजाश्रय नाजालतरि, देवळ बांदुचि पद्धति, चालू आसल्यान सानसान शिल्पि वेगवेगळे राज्यांत आसले. जाल्यारि शास्त्रबद्ध, नाजूक देवळं आनि रावळार, दॉनी प्रकारची शिल्पकला पूर्णतः कळन घेवन प्रचाराक हाडचाक तांका जायनासले. क्मलादेवीले प्रयत्नान आत्त साध्य जाले. आजिक देश-विदेशांत, होड देवळ बांदूचाक, मूर्तियो कोरांवचाक, रिपेरि करचाक, महाबलिपुरांत तरबेत जालेले तज्ञ लॉकचि अवश्य कता जायपडता!

कमलादेविन नानाकारणान विनाशाचे तुरियेरि येवन राबिले मस्त इतले हातकाम् वळखलिं. तांका जीवदान दिले. तांगल्यांत चैतन्य भरले. हांगादिलेले थोडशो प्रातिनिधिक उदाहरण मात्र!

भारताचे वेगवेगळे प्रदेशाकचि विशिष्ट जावन चडतेचि हस्तकलेचे प्रकार आसले. तांचे संरक्षणा करचे मुख्य जाले. तितलेचि मुख्य आसले. संघटन आनि भविष्याचि खात्रि. मार्केट् बरशिच ते व परिश्रमि, कुशलकर्मि जनांक वळखुन समाजांत योग्य स्थानमान मेळका! म्हळेले तिगेले मनोगत आसले. ते दृष्टिन तीणे सुमार इत्ले प्रयोग, कार्यरूपाक हाडले. ताजे दिकान एक नजर घालेली बरी!

## हातकाम्: पुनश्चेतनाचे (Revival) प्रयोग

भारत स्वतंत्र जाले तशिच, देशाचे वाडी दृष्टिन होड होड उद्योग सुरुकरचे कडेन नेहरू सरकारान लक्ष घालेले. होड नदियोजना (दामोदर, हिराकुड) बि जारिक आयले. जाल्यारि गांवगांवांत पसरुन आशीले, धा लक्षा किंता जास्त कुटुंब, हातकाम करत आसले. देशाचे आर्थिक प्रगतिंतु तांगेले पात्र बि आसले. जाल्यार वाडचाक वाव् मेळनाशिल्यान ते भरान ना जात्तची आशिले, म्हण पुनश्चेतन दिंवचाक, कमलादेविन सुरुवात केलिलि.

आत्त ताजे राखवण आनि स्थिरता ची जवाबदारि बि कमलादेविने घेतली!

अखिलभारत हात्कामाचे बोर्ड्(ए.ऐ.हेच्.बि)ने 1952 वर्सांत रूप घेतले. पयलेचे 18 म्हयने, तीणे अखिलभारताचे, साध्यतितले गांव फिरन, हातकामा प्रकारचे सर्वेकेले. ताजे नंतर आक्षन् प्लान् अथवा कार्ययोजना तयार जालि. हे योजनेंत, कुशलकर्मि, अधिकारि आनि हे विषयाचि चांग माहिति आसले तज्ञांगलि समिति केलि. नंतर कारभारी (आड्मिनिस्ट्रेषन्) मंडळ, प्रदर्शनचे पाकाटो (कक्ष), आनि बिकरि कडेन लक्ष दिवची कक्षा (Cell) जावका म्हण ठरयले. निर्यात करचे कडेन विशेष लक्ष दिलेले.

ते ते प्रदेशाक अनुकूल आनि साध्य आशिले एंपोरियं

अथवा होड मांड आसचे योग्य! म्हळेले विचाराक सरकारि सहमति वे मेळ्ळि. प्रदर्शना बरशि, विक्रय बि हे मांडाचि जवाबदारि जालि. जाले तित्ले सहकारि संस्थेंक हे काम वहिसुन दिले. ते दीसांत सहकारि संस्थान व ़ आत्तावारि वायट नांव घेतले नासले! सरकारि प्रवेश, कनिष्ट मितिन आसल्यान, कारभारि मंडळि, जास्त जवाबदारिन चलतालि. असले संस्थे चलयतले प्रामाणिक स्वातंत्र्ययोधा आनि स्थळीय पुढारि बि आसले. सरकारि मध्यस्थिका नाका!" म्हळेले गांधि तत्वांत, कमलादेविक बि मस्त विश्वास आसलो.

हळूचि, संशोधन, मार्केटिंग्, नवे डिसैनिंग् आनि तांत्रिक प्रगति दिकान बोर्डान लक्ष घालें. निराश्रिताले पुनर्निवेशन हांतुय मस्त सहाय केलेले, एल्.सि. जैन् हाका तीणे बोर्डाचे कार्यदर्शि केलेले. दोगानि मेळन केलेले सर्वेंत, आनुवंशिक जावन चलेले हातकामाचे प्रसंगचि जास्त देक्कुपडिले. ते चि कुटुंबाचे सदस्यांक आनि तसले काम, रूढ आसले तरणाट्यांक, क्रमबद्द तरबेत दिंवचे उद्देशान 'गुरुकुल' पद्धतिरि, मास्टर् कुशलकर्मिले घरालागि, केंद्र काडचि व्यवस्था जालि. पयले वरसांत फंडाचे मस्त वावंट जात्तशिले. कमलादेवि, सरोजिनि नायडुक बरोबर घेवन नेहरूक भेटतशिलि. नेहरूक सानप्राये पासुन पळेयत आयले, म्हालगडि सरोजिनिक ताजे बरशि भारि सलगि आसलि. "किते जवाहर? फंड्स रिलीस् करचाक तुका अड्डि कसलि रे?" म्हणत तागेले दोनि पोले धरन तीणे विचारिले खंय्!

कमलादेविक बि, नेहरू, जयप्रकाश नारायण, लोहिया हांचे बरोबर दशकगट्ले कामकरत आसल्यान, नावान आपोन, एकवचनान उल्लोवचि सलगि आसलि. कित्लेक जन असलि सलगि चूक समजुन घेतसले. बासाक सहोद्योगि रूपान पळेयल्यार आराधनाभाव येना! एकपटि इंदिरागांधिने हातकाम बोर्डाचे

कार्यवैखरिंतु, हस्तक्षेप केलो. ते कमलादेविक आवडलेना! तीणे तुरंत नेहरूक अधिकृत पत्र बरयले. तुगेलि धूव आपले सीमेभायर हात घालत आस! मेगेले कार्यक्षेत्रांतल्यान भायर उरचाक तिका सांग! ते तिगेले कामनय्! (इट् इस् नन् आफ् हर् बिसेनेस्!)"

हेरदीसु, नेहरूलो सेक्रेटरि ऑ.एम्. मथाय् कमलादेविक भेटचाक आयलो. तुगेले पत्र पळोवन नेहरु साहेबाक भारि बेजार जालो!" म्हणत मुखार उलोवचात आसलो. कमलादेविन आनि इत्ले स्पष्टरूपान आपणालो अभिप्राय सांगुन, तुगेलि वाट पळय्! म्हण ताका वचाक सांगले. एल्.सि जैन्, तिगेलो सहोद्योगि हे घटनेचो प्रत्यक्षदर्शि आसलो! गांधीजि शिवाय् कोणाकय् तीणे माते बगसुयले ना!, म्हण तो भिन्नाभिप्राय विकोपाक गेलेतेन्ना, गांधीजिने मद्दे प्रवेश करका पडिले. गांधीजि, कमलादेविले सामर्थ्य आनि स्वभाव, चांग रीतिने वळखतालो.

हातकामाचे पुनश्चेतन, कमलादेविक तिगेले जीवनाचे मिशन् अथवा ध्येयचि जाले. हाजे स्वरूप कशि उरचाक जाय्? म्हळे विषयांत तिका भारतांतु जावो, जगाचे खंचेय् देशांत जावो, मार्गदर्शन जांवचे एक भि निदर्शन नासले. स्वारस्याचि खबर म्हळ्यारि, भारताचे हातकाम मंडळची, जगाचे दुसदुसरे देशाक आदर्श जालें! 1952 वर्सांत अस्तित्वांत आयले मंडळाक पांचवर्स भितरि अंतराष्ट्रीय ख्याति प्राप्त जालि. फिलिफैन्स, इंडोनेष्या, पाकिस्तान, श्रीलंका, इस्रायल् आनि आफ्रिका खंडाचे नवेचि स्वतंत्र जाल्लेले देशाचे प्रतिनिधि, आपले देशाचे हातकामाचा अभिवृद्धिचे बदल शिकचाक दिल्लिक येंवचाक लागले! ए.ऐ.हेच्.बि चे शे ूल् अध्ययन करचाक लागले. कमलादेवि, मस्त फुडे तिगेले भूलोका भोवंडिंत हांतुले सुमार इत्ले देशाक वचुन आयिलि. आतां युनेस्को तरफेन तिगेले मार्गदर्शनाचो पूर्णफायदो तांका मेळचाक लागलो.

सेंट्रल् काटेज् इंडस्ट्रीज् एंपोरियं म्हळेले कामर्स मंत्रालयाचे मांड् (सि.सि.ऐ) दिल्लिंत 1948 वर्सांतु सुरुजाल्लेले. उरिले

सरकारी आफीसावारि चल्लेली ही संस्था फकत् लुक्सान दाकयतालि! ताजे बाजुक तेचि बिल्डिंगांतु चलेयत आसले निराश्रितांले सहकार संघाचे मांड्, कायम लोकानि भरिले उरनु फायदेशीर चलताले. कमलादेविने स्थापनकेल्ले ऐ.सि.यु. तरफेन ताजी देखरेख जाताली. नेहरूने लुक्सान बाब्त जाले सि.सि.ऐ. चे वहिवाटान बेजारनु ऐ.सि.यु. अथवा भारतीय सहकारि संघाकची ते वहिसुन दिवचाक सांगले. फंड्स मेळे. आनि उत्साहि कार्यकर्तानि ते बरे रीतिने चलोवनव्हेलें. सहकारि रीतिन चल्ले निमित्तान सामूहिक जवाब्दारि आसलि. तरबेतिचे कोर्स सुरुजाले. नवनवे डिजायन्स्, नामांकित आर्टिस्टालागचान करोवन चलावणेंत हाडले. सेल्स् वाडोवचाकय् तरबेति दिलि. थोडे काळांत सि.सि.ऐ. दिल्लिचे स्मारक! सि.सि.ऐ. एंपोरियं आधुनिक दिल्लिचे होड आकर्षक केंद्र जालें. कुतुब मिनार पोरणे दिल्ली स्मारक! म्हणु नेहरु गर्व पावलो.

हातकामा बोर्डाचि चेर्मेन् जाल्या कमलादेविक हे सि.सि.ऐ. चे संपर्क निकट आसल्यान, तांतु निरडलेले कलाकार, सलहाकार समितिचे सहाय तीणे पूर्णपणाने देश बांदत आशिले, आपले संस्थेक उपयोग करन घेतलो. प्रादेशिक डिसैनिंग् सेंटर्स दिल्लि, मुंबै, बेंगळूर आनि कलकत्तेंत सुरुजालि. नवीन टूल्स् हाडुन कुशलकर्मि जनांले श्रम कमी करन, कलात्मकतेक चडलक्ष तांणि दिंवचि व्यवस्था जालि. बांबु चिरचे, लाकुड कापचे यंत्र तयार करचाक जपानाक धाडिले हरिहरन आनि तागेले जपानि बायलेन मस्त सहायकेलेलो.

मार्केटिंग् क्लिनिक्' म्हळेले कक्ष (cell) सुरुजाले. कुशलकर्मि, आनि तांगेले स्थळीय सहकारि संघाचे, ( हे वेळारि देशभरि, कारागीराले सहकारि संघ अस्तित्त्वांत येवनु कामकरचेर वारखे कमलादेविन व्यवस्था केलिलि.), ताणि तयार केलेले सामान हाडताले. क्षेत्राधिकारिक, मेळन ताज्जे सांगाति उत्पादन आनि

बिकरि विभागाचे कार्य्कर्तां बरोबर विचार विमर्शा करतशिले. जायशिले कच्चा सामग्रिचि पुरवट बराबर आसकि? डिसैनिंग् बराबर आनि जनप्रिय जालां कि? तांत्रिक अडथळ आसातकि? रेट वगैरे समचि, तृप्तिकर आसतकि? कुशलकलाकाराले मजूरि वेळार पावत आसकि? संपर्कव्यवस्था–हाडचि–वरचि, समर्पक आसकि? हाजि चर्चा जातालि. असले हातकामाचे क्वालिटि कंट्रोल् (Quality Control), उपकरणाचि मेळामेळ, नवीन सामग्रिचि लभ्यता, हे मार्केटिंग् क्लिनिका निमित्तान सुलभ साध्य जालें.

वयरचे वयरि प्रदर्शन आनि बिकरि (एक्सिबीषन् कम् सेल्) चि परंपरा कमलादेवि निमित्तानेचि सुरुजालि! तीणे कांग्रेस् वर्किंग् कमिटि मेंबर् आसतनाचि, कांग्रेसचे वार्षिक अधिवेशनावेळारि आसले हातकामाचि, मुख्यजावन खादिचे प्रदर्शन संघटित करतकरत – भायर भितरचे अनुभव कमयले. आजिकय् चलन आयले असले प्रदर्शन आनि बिकरि व्यवस्थे निमित्ताने, कलाकारांक कितले प्रोत्साह मेळता आनि जनांक तांगेले गांवात दुसदुसरे प्रदेशाचे सुंदर कलात्मक सामान मेळतात, हे आमि प्रत्यक्ष पन्नास साठ वर्सानंतर पळयत आसात!

आतां आमका नगरवासि जनांक, गांवचे हॉड स्टाल् अथवा एंपोरियं हाका जायशिले तेना वचुन, जायशिलो सामान घेंवचो अभ्यास पडला. काश्मीरि शाल बेंगळूरात मेळतात चंदनाचे मूर्तियो श्रीनगरांत मेळतात. जाल्यार 1960 पर्यंत ही परिस्थिति नासलि. ते ते गांवचे लोकानि थंयचे कपडो घेवन प्रिंटकरोवचि, विणोवचि पद्धति आसलि. धातुचे सामान आर्डर् दीवन करयतासले. राजघराण्याचा लोकांलागि तांगेले प्रिंटिंग् ब्लाक्स् उरतशिले. कमलादेवि, राजस्थानचे सांगानेर, बाडमेर, कोटा, चे हाताने प्रिंट् करचे ब्लाक्स्, महाराणि गायत्रिदेवि कडचान हाडोवन घेंवजात यशस्विजालि. मागीर गायत्रिदेविन खुद् क्राफ्ट् सेंटर् हाडचाक सहाय केलो.

आजिकय हे गांवचे प्रिंटिंग् आनि वीणेचे, ब्लाक् चे डिझैन्स् देशभर प्रसिद्ध जालात. मस्त जनप्रिय जालात! सांगानेरि, संभल्पुर, बालुचेरि साडियो, दक्षिणेक, कांजीवरं साडियो, उत्तरेक पावताति.

कमलादेविन, वेगवेगळे क्राफ्टांतु परिणिति मेळेयले मास्टर् क्राफ्ट्मन् हांका राष्ट्रप्रशस्ति दिंवचाक सुरुवात केलि. राष्ट्रपति हातान, देशाचे राजधानिंत जमिले हॊड कार्यक्रमांक हे प्रशस्ति दिंवचे व्यवस्थेन, अज्ञात जावन सान गांवांत काम करतल्यांक प्रचार आनि प्रसिध्दि मेळि. तांगेले कलाप्रकाराक उन्नत गौरव मेळचाक लागले. बिदरि काम, बेत्ताकाम, चाम ाचे, लॊहाचें, फातराचें, रुप्याचें, चंदनाचें, उलाचें, रेष्मेचें, इन्–ले (एकावैरि आनेकाचे धातु किवा लाकडि काम) खंचेयि कामाचे यॊग्य प्रतिभावंताक प्रशस्ति मेळनाशिले संदर्भ अगदि क्वचित जाले! तसल्यांक वळखुवची पद्धति कमलादेविन पन्नास वर्सा फाटि मजबूत पाटार घालन दिलि.

लॊकांक जमवन, तांचान कामकरोवची खूबि कमलादेविक जमिलि. स्वतः ती असले कामात गुंतुन उरतालि. ते निमित्तान तिगेले संपर्कांत आयले, दारले, बायले, धनवान्, गरीब, धार्मिक शि ले शिकनासले, जन तिगेले उत्राक मानदिताले. वनस्पति रंगाचे प्रयॊगालय एक कमलादेविने सुरुकेलिलि घटना याद करन घेवका! तमिळनाडची कांजीवरं कापडं जगत्प्रसिद्ध आसतालीं. तांका शतमानगट्ले धरन तयारकेले फातर, फुल, मूळ, आनि वनस्पति रंगुचि, रेशिमेचे आनि सूति कापडाक वापरतासले. मद्देची बाजारांत मेळचे कृत्रिम केमिकल् रंग वापरचाक सुरुवात केल्यान चंदाय् बि कमिजालि. रंगु वचुन मार्केट् पडचाक लागलें. कमलादेविन, प्रसिद्ध नृत्यकार आनि कलाक्षेत्राचि संस्थापक रुक्मिणिदेवि अरुंडेल् हिका विनंतिकरन, तिगेले कलाक्षेत्रांत पारंपरिक रीतिने रंग तयारकरचे एक प्रयॊगालय (ल्यब्) उघडले! एक प्रतिभावंत युवक चंद्रमौळि म्हळेल्याक मुख्यस्थ करन कांजीवरं

कापडाचे फुड्ले गौरव वापस हाडोवन दिलें. नंतर हें ल्याब् बेंगळूराक व्हेलें.

कमलादेविलो आनररि (गौरवचो) हुद्दो जावन आसलो, ह्यांडिक्राफ्ट्स बोर्डाचे चेर्मन्गिरि, प्रधानमंत्रि इंदिरागंधिले अवकृपेन सोडकापडली! तीणे सुरुकेले कित्लेक महत्वाचे केंद्र बंदपडचाक लागले. हे नैसर्गिक रंगाचे ल्याबान, कांय् प्रयोजन ना! बंद करका म्हण हुकुं आयलि. जाल्यार हेच वेळार बंग्ला देशाचे प्रसिद्ध डाका सारिचे सुधारणा करचे प्रयत्न सुरुजालेले. चंद्रमौळिक आनि तागेले निरडलेले सहायकांक बंग्लादेश सरकारान, स्पेशल् आमंत्रण दिवन आपोवन व्हरयेले. तानि थंय् केल्ले अद्भुत कामान ढाका सारिची बिकरि, धापि न वाडतगेलि!.

आत्त अमेरिक धर्न सगळे पाश्चात्य देशांत कृत्रिम रंगान, मनशाले चाम रि जांवचे अनिष्ट परिणामा विरुद्ध जागृति आनि चळवळ सुरुजाला. परिसर रक्षणेक आनि निसर्गाचे रक्षणेक चडतेचि क्रम घेंवचाक प्रारंभ जाला. आमगेले देशंत मात्र कमलादेविन दूरदृष्टिन सुरुकेलेले नैसर्गिक रंगाचे उपयोगाक संचकार आयलो.

हात्कामय् तशीच! होड प्रमाणारि औद्योगीकरण करन, हातान, स्वंतश्रमान तयार करचे विधान वु नाश करना पडेन इंडस्ट्रियल् वेस्ट् अथवा फ्याक्टरिचे निरुपयोगी गलीजान मानव जातिचे आरोग्याक कितले होड कंटक आयला! म्हळेले जाणीव पाश्चात्य लोकांक येवचाक लागला. आमका ती काणघेतिलि प्रज्ञा परत येवचाक आनि पन्नास वर्स वचकात कोण जाण! युगाक एकळि जावन जल्माक आयलि कमलामाय्ले, प्रयत्नांतु सुमार इत्ले प्रयोग तीणे दोळे धांपचे पयलेचि बंद् पडिले आमगेले दुर्दैव!



अध्याय 11

# कलारंग : अभिनय, नाटक, सिनेमा

सानपणधरन संगीत आनि नाटकाची प्रीति, कमलादेविंत ्क्तगत जावन आयलि. तिगेलि आवय् गिरिजाबाय्क बि नाटक, खेळ, कीर्तन आनि यक्षगान, खूब आवडतसले. कमलान शाळेवच्चाक सुरुकेले लागायत्, तिगेले कान्वेंट् स्कूलांत पियानो आनि पाश्चात्य संगीताचे पाठ तिक्का मेळे. डा। आनिबेसेंट् आनि मार्गरेट् कसिन्स् हानि मेळनु वुमेन्स् इंडिया आसोसियेषन्' म्हळेलि संस्था 1917 इत्लाक सुरु केल्लिलि. बायलांक शिक्षण दीवन स्वावलंबि करचो उद्देश आसलो. मंगळूरांत बि हे संस्थेची शाळा सुरुजालि. गिरिजाबायिन आपले व्हडले घरांतच शाळा सुरुकरचाक, जागो दिल्लेलो. ग्रेटा (मार्गरेट् कसिन्स्) ताजि मुख्यस्थ म्हण मंगळूराक आयलि. संगीतांत परिणत आसलि ग्रेटा, पियानो लायक् कर्न वाजयतालि. संगीतप्रिय आवय्–धुवेक घरांतुचि संगीत सरिता व्हांवचाक लागलि! एकदीस ग्रेटान कमलाक जनगणमन' पियानोरि वाजयत मणचाक शिकयलें. तीणे कवि रवींद्रनाथ टागोराचान ताज्जि चाल शिकिलि आसलि. एकदीस तिगेले आवडिचे हे गीत, राष्ट्रगीत जात्तले म्हळलि कल्पना वरेक कमलाक तेना आयलिना!.

थंचान ग्रेटाक मद्रास वचका पडले. स्कूलाचे फेर्वेल् कार्यक्रम रूपित जालो. भक्त मीरा' नाटक करचे ठरयले. ताजे स्क्रिप्ट्, ग्रेटालो बाम्मण, जेम्स् कसिन् हाने बरयले. बरो अवाज आनि अभिनय साधसुनु घेतिले कमलाक मीरालो पार्ट् दिलो. कमलान म्हणचि पद व ु चाल लावनु, बरे प्याक्टिस् केले. हीरोलो पार्ट् वळखिचे सान तरुणाक दिलो. ग्रेटा आनि कमलाले उत्साहांतु, उरिले पात्रधारि कांय् उत्साह दाखयनाती म्हळेलो विचार तांगेले लक्षांत गेलेना!

मंगळूरचे 'सभ्य' नागरिकांक विच्चु चाबिल्या वारि जाले! एक कुलीन घराण्याचे चलियेन सार्वजनिक रूपान, एकदारले मनशा सांगाति, नाटक करचे 'अनागरिक आनि अश्लील!' म्हळेले सिद्धांताक ते आयले. सर्वांनि नाटक बाय्कोट् (बहिष्कार) केले. पत्रिकेंतु हे विषयार टीका जालि. सगळ्यानि 'गुजुगुजु' उल्लोवन आसंतोष व्यक्त केलो. नाटक केन्सल् करचाक दबाव हाडलो.

ग्रेटा, धैरवान बाय् आसलि. हे वेळार, जनांक भीवन नाटक केन्सल् केल्यार, आमि 'कसलोकि होड अपराध केला, आनि आतां तो कबूल करत आसत" म्हळो अभिप्राय घ जाता! आनि तो अभिप्राय, नानारूपान पसरता. असले निष्कारण सामाजिक निंदेक भिवचाक ना! म्हणत तीणे नाटका प्रयोग करचेचि ठरयले. ही खब्बरि,अनिबेसेंटा वरेक कोणकि पावयलि. जनाभिप्राया विरुद्ध गेल्यारि, शाळेक वायट् नाव एत्तले म्हण दिसुनु तीणे भी, शो करचो नाका! म्हण निरोप धाडलो.

हाजान ग्रेटा विचलित जालि. कोणाक ती आप्त आनि मित्र म्हण समजतालि, ताणीचि बेसेंट् बायिक नाकशिले विचार पावयले, कळ्ळे! आप्णाले दृष्टिकोन आनि समर्थन तिका कळोवचाक वेळ नासलो. तीणे आपले घरांतुचि चारचौगा मुखारि, प्रयोग करचे ठरयले. सार्वजनिक प्रयोग रद्द केले. जालतरि जनानि जोर प्रतिभटना केलि. गिररजाबायि भिलि. तीणे कमलाक खोलिंत कोंडुन बीगघाले. प्रदर्शनाचे दीस, हीरो जाले पात्रधारिक 'किड्नेप्' करन व्हेल्ले-गांवचे विरोधि दळान. कमला बंधमुक्त जालि.

भयंकर हताश जाल्लि कमला धांवत ग्रेटाले घरा वचुन तिक्का अप्प घालन रडलि. ग्रेटान समाधान सांगले. आखेर ताणि शो केल्लोचि! मीराने तयार केल्लेलि पदं व ुं, सुंदर रुपान म्हळि. दारले पात्राचे उत्र पुरै ग्रेटान वाचलि. जमीले सान मंडळिक संभाषण आनि पदाचि प्रस्तुति बरि आवडलि.

आजिकालि, मंगळूरचे नागरिक सामाजिक दृष्टिन मस्तसुधारिले आसति. तेन्नाचि अन्नेक घटना, ते कालाचे संप्रदायवंत कशि विचार करताले म्हण सांगुका. हे वेळारी कमलाले लग्न हरींद्रनाथा बरोबर जालिले. तो उच्च शिक्षणाक विलायतेक गेलिलो. गांवात जाल्ले उस्ताद अब्दुल् करीं खानाले गायन कचेरिक कमला, आपणाले संबंधिकालेची तिगेले प्रायेचि चलियेक आपोन घेवन वचगेलिलि. दुसरे दीसु, ते चलियेलि आवय् रडत हात्तात एक पत्रिका घेवन गिरिजाबायिलागि आयलि, 'पळेय्!तुगेले धुवेने कित्ते केला पळे! हे चित्र पोळोवन मेगेले धुवेक, तिगेले बामणाघरचानि सोडचे ठरयला! तांगेलो भर्ति अपमान जाला खंय्!' ति खळस काडुन रडलि. 'तुगेले धुवेन मेगेले धुवेक मारन घाले!"

गिरिजाबायि हे आघाताक तयार नासलि. बायलांक विनाकारण जावचे अन्याया विरुद्ध ती लडत आयिलि. जाल्यारि एक मुग्ध चलियेरि, विनाकारण एक होंड अपवाद, आप्लाले धुवे मिति येद्! म्हण तीणे कल्पना वरेक केलेली नाशिली. तीणे कमलादेविक बामणान आसले कडे (विलायतेक) धाडुन दिवचे ठरयले. कमलादेविय्, संगीत-नाटकांत चांग तरबेति मेळता! म्हण उत्साहानेचि विलायतिक वच्चाक तयारजालि.

इंग्लंडांतु नाटका तरबेति बदलाक, समाजसेवेचे क्षेत्रांतु मदत जांवचे डिप्लोमा तीणे केले. ते वेळारि ती लंडन् आनि आसपास् जांवची नाटक चुकनास्तना पळयतालि. स्वतः हरींद्रनाथाक आनि तिक्का हाडिलेचि हे नाटकप्रेमान आसले. तांगेले आसक्तीक लंडनांतु मस्त वाव मेळ्ळो. चेकाव्गेले 'चेरि आर्चर्ड्' रशियन् नाटय प्रयोगान दोग्गय् प्रभावित जालेलीं. इंग्लिष् रंगभूमि, नाटकतंत्र, आनि रंगपरिकराचे अध्ययन, थंय् कमलादेविन केले. नाटकाचे कलेन समाजसुधारणा साध्य आस! म्हण दोगालोय् विश्वास आसलो.

ताणि विलायतेचान वापस येनापडेन एक नाटक वृंद (रिपर्टरि) बांदलि. आपले मनपसंदि आसक्तीक रूपदिंवचाक ही रिपर्टरि सहाय करतलि, म्हण कमलाक दिसले. आपले उरिले जीवन नाटक क्षेत्राक अर्पण करचें ठरयलें.

हरींद्रनाथ स्वतः उत्तम नाटककार. बरयतालो बसयतालो. पद बरयतालो, चंद जावन पद म्हणतालो (तागेले पद बरोंवचे आनि म्हणचे कलेक कमलादेवि भूलनगेलि म्हणतात!) हरींद्रनाथ– कमलादेविलि जॊडि गॊल्डन् कपल् म्हणुचि प्रसिद्ध जालि.

बायलानि आमेच्यूर् (हव्यासि) नाटक प्रयॊग हांतुय भाग घेंवचि पद्धति अजुन सुरु जालनासलि! म्हण आमि पळयला. वृत्ति नाटकांत वरेक बायले पार्ट, दारलेचि करताले. तशि जावन सुंदर, सुशिक्षित, सुश्राव्य जावन पदम्हणतले, तरुणदंपति नाटक क्षेत्रांतु प्रताक्ष जालि खबर, आता चारिदिकान पसरलि. बेग्गिची तांगेलि नाटका टॊळि, प्रसिद्ध जालि.

हरींद्रनाथाले नाटकांत दॊन मुख्यपात्र उरताले. उरलेले व ँ सानसान पात्र. तांणी प्रयॊग करचाक ठरलेले गांवचेचि, उमेदिचे कलाकाराक घेवन, तांका रिहर्सल् दीवन, नाटका दीस, स्टेजारि हाडचे सामर्थ्य हरींद्रनाथ आनि कमलादेविक आसले. रिपर्टरि रूपान दोगानि मेळन दुसदुसरे नगरांत नाटक प्रदर्शन दिंवचाक सुरुवात केलि. ऐतिहासिक घटनेक वर्तमानाचे रूप दिले. जातिपद्धतिचे दुरवस्था, बाल्यविवाहाचे अनिष्ट, अस्पृश्यतेचे विद्रूप, असले भारतीय समाजाक पीडासत दीत आसले विषयार ताणि नाटक बरयले, आनि प्रस्तुतकेले. फकत् पौराणिक नाटक पोळोवन बेजारिले जनांक ही नवीन नमून्या नाटकं, मस्त आवडलिं.

इंग्लिष् आनि हिंदि भाषेंतु ते नाटक खेळताले. दिल्लि, मुंबयि, आनि दक्षिण भारताचे अनेक नगरांत तांगेले नाटक प्रयॊगजाले. जायते सीनरि, फरदे, रंगभूमि सजावट, तेचि पेंट्

करन रचयताले. तांगेलो सुपुत्र राम् हाका गिरिजाबायिले ताब्यादिवन, तेगाले रंगप्रयोगा जीवन सुरुजाले. सगळे भारतचि तांका भूमिका ज़ालि! बगेन हॊडजातरि, राम् बि नाटकांत काम करचाक लागलो.

हरींद्रनाथान सुमार इत्ले आपेरा बरयले. संत तुकाराम, जयदेव, संतसखु, एकनाथ, पुंडलीक वगैरे. विनोदि नाटकय् ताणे बरयलि. ती खुप जनप्रिय जालि. मुंबै, पुणे, बेंगळूर, मद्रास्, कोलंबो(श्रीलंका)वरेक वचुन ताणि, इंग्लिष् भाषेंत नाटक खेळ्ळि. जाम्–प्याक् प्रेक्षक उरताले. मुंबैंत एक्सेलशर् थेटर् भरगच्चभरन, तिकीट मेळनाशि, शंबरान जन निराश जावन वापस गेले आस!

जाल्यारि भारतमातेलो आर्त अवाज, तिगेले सुंदर आवजकय् माक्षि घालनु, कमलादेविले कानार पडचाक लागलो! स्वातंत्र्य चळवळ, तीव्रस्वरूप घेत्त आसलि.

हरींद्रनाथ परत विलायतेक गेलो. आतां कमलादेविले पुराय् लक्ष सत्याग्रह कडेन गेले.

********

स्वातंत्र्य चळवळ, आनि सेवादलाचे वालंटियर्, नंतर अखिलभारत महिळा परीषदेचे कामात गुंतुन उरले तशीय, कमलादेविले संगीत आनि नाटकाछंदि चालूचि आसलि. आता तीणे, स्वतः नाटकांत करचे बदलाक नाटक करोंवचांत आनि नाटकरंग, संघटित रूपान वाडोवच कडेन लक्ष घाले. 1944 चे वर्स तीणे मुंबैतु इंडियन् न्याषनल् थियेटर् (ऐ.एन्.टि) भारतीय राष्ट्रीय रंग' म्हळेलि संस्था स्थापनकेलि. वेगवेगळे वृत्तिंतु उरनुय् नाटक क्षेत्रंतु आवड आसले लोक ताका एवनु मेळे. ते कालाचो भारतीय रंग म्हळ्यारि भारतीय आनि पाश्चात्यरंग भूमिचे मिश्र संतान जावन आसले. दोनिंतुले बरे अंश घेंवचे बदलाक, अल्प मोलाचे मनरंजनेचे हास्य, लेवडि, आनि स्टंट् सीनाक महत्व दीवन नाटक खेळताले.

कमलादेविक सांप्रदायिक रंगभूमि बद्दल आदर आनि गौरव आसलेवारि, आधुनिक रंगभूमिचे तंत्र, लैटिंग् आनि इफेक्ट् बदल सुद्दा आसक्ती आसलि. दोनयि प्रयोग समर्पक मेळवन नवीन नाट्यरंग हाडचाक साध्य आस! म्हळेलो तिगेलो विश्वास. सांप्रदायिक नाटक कलेक आधुनिक रूप दिंवचाक ती विशेष घोळ्ळि!. भारतीय नाट्यप्रयोग, संगीत, जानपद रंग (हांतु यक्षगान, रास्, दांडियारास्, नौटंकि, तमाषा, कठपुतळि गोंब्याखेळ, बंगालि जात्रा असले प्रकार येत्तात) हाजे प्रयोग हितमितान नाटकरूपांत जोडसुयलार, मनरंजने सांगाति सामाजिक जागृतियि हाडचाक साध्य आस! म्हणु तिगेलो विश्वास आसलो.

हे दृष्टिन, तीणे सुचयलो नवो प्रयोग म्हळ्यारि जवाहरलाल नेहरूगले ऐतिहासिक डिस्कवरि आफ् इंडिया'(भारत शोध), पुस्तक हाजेरी आधारित ताचें नाट्यरूप. स्वतंत्र भारताचे प्रप्रथम एषियन् राष्ट्राचे कान्फरन्स् दिल्लिंतु 1942 वर्साचे आखेरेक संघटित जालेले. तेन्ना पुस्तकांतुले थोडि माहिति ब्याले (ब्यालेट्) रूपान, जमिले प्रतिनिधिजना मुखार प्रस्तुत केली. तो एक प्रचंड यशस्वि प्रयोग जालो. प्रयोगानंतर लेखकाक स्टेजारि येंवचाक सगळ्यानि आग्रह केले. नेहरु येवनु म्हणालो, मगेले बूकाकय् हो रंग प्रयोग, चड सुंदर आनि परिणामकारि आस. माका चडच खुशी जांवचाक कारण म्हळ्यार, प्राचीन भारताचि भव्य परंपरा, सद्याक तुमचे दोळ्या मुखारी कलामाध्यमाने प्रत्यक्ष हाडल्या! तांतु भविष्य कालाचि झळकय् तुमका दिल्या!" हे कार्यक्रमाचे निर्देशन शांति बर्धान हिका, बगेन माकषेयत वहिसुन दिलेले. जाल्यार आत्त कमलादेविक बद्दचि खुशी जालि.!

आय्.एन्.टि.न हळुहळुचि विंगविंगड प्रांतांत 15 शाखा उघडल्यो. ताजान ते ते प्रदेशाचे जानपद रंगभूमिक पुनश्चेतन जावचाक, वाडचाक वाव मेळो. थंयचान एक रंगचळवळ सुरुजालि. तेंचि वर्सगेले तशि, प्रदर्शन कला' (परफोर्मिंग् आट्र्स्) म्हळेले जीवंत रंगभूमिचे रूप घेतले.

हबीब् तन्वीर् हागेले आधुनिक थियेटरांत होडनाव. ताणे रफोर्मिंग् आर्ट्स् हाका भारतीय रूप दिंवचांत कमलादेविले ़यत्न पायोनियरिंग् (प्रारंभिक) रूपाचे म्हण स्मरण केला. आत्त आमका परिचित आसले, चंद्रशेखर कंबार, गिरीश कार्नाड. विजय तेंडुलकर, असले प्रसिद्ध कलाकाराले सामाजिक, पौराणिक, ऐतिहासिक वस्तु आसले नाटकांतु, तानि जानपद अंश धाराळ जावनु हाडलात (जोकुमार स्वामि हयवदन, नागमंडल इत्यादि). उरिले राज्यांत बि, असले प्रयोग यशस्वी जालात. मनुष्य जीवनाचे दुर्बल आनि बलिष्ठ अंश, आनि तानि ते मीरुवचाक जावो, साधसुवचाक जावो, करचे प्रयत्न, मनरंजने सांगाति, जीवनदर्शनाची झळक बि असल्यांत उरता. कमलादेविन मूलतः घालन दिलेले विचारांक, असले प्रयोगांत, मूर्तरूप मेळिले आस.

लोकवेद (जानपद) अथवा लोकसंस्कृतिचे प्रतीक जावन आसले रंगप्रयोग, महानगरचे इंग्लीष् पद्धतिन शिक्किले जनांक परिचित नासले. ते बद्दल एक तिरस्कार भावचि आसलो, म्हणयेद. पयलेचो जानपद नाटकोत्सव फोक् ड्रामा फेस्टिवल्, 1950 चे दशकांत तीणे दिल्लिंत संघटना केलो, तेना रसिक लोकानि नांक कवळिले, जन आयलेनात! कमलादेवि अधीर जालिना! खासगि बस्, भा ा घेवन दिल्लि आसपासचे हळ्ळिचान, लोकाक भरन हाडले. तो प्रयोग पोळोवन तांका जालि खुशी, इत्ली तित्ली नय्! हाजो प्रचार जास्त जातेर सप्ताह भर उत्सव, भारी यशस्वि जालो. शिष्ट् म्हण घेत्तिले जनांकयि पळयत पळयत, असले मिश्र प्रयोग आवडचाक लागले.

पर्फोर्मिंग् आर्ट्स् अथवा प्रदर्शन कलेन, आजि भारताचे प्रगतिक्षेत्रांत महत्वाचो स्थान घेतला. कुटुंब योजना, मालक-नौकर शोषण, कौटुंबिक घर्षण, एड्स् वारि, भयानक रोगनियंत्रण, असले पूराय् जनजागृतिचे कार्यक्रमांत, कमलादेविन पन्नास वर्सा फाटि, घालन दिल्लेले मूलतत्व, आमकां मेळता. सांप्रदायिक आनि जानपद रंगाचे कलात्मक अंश वळखुन आधुनिक प्रयोगांत,

जोडसुवंचि खुबि कळन घेवन ,ते घोळयिले यशस्वि नाटककार जालात.

नंतर 1990 चे दशकांत पाश्चात्य देशांत फेस्टिवल् आफ् इंडिया चे प्रयोग जाले. ग्रामीण कलाविद, विश्वरंगार शोभले. हे कलाविदांक वळखुवचि प्रक्रिया, तेन्नाचे सरकारान एकदं कायं सुरुकेल्लि नय्! ग्रामीण कला प्रयोग महानगरांत सुरुजालेले केदना? म्हण निरखुन विचाक केल्यार, कमलादेविले खुब फाटलें प्रयत्न उठुन दिसता!

युनेस्को सहायान बांदिले ऐ.एन्.टि.न कमलादेविले सक्रिय प्रयत्नान न्याशनल् स्कूल् आफ् ड्रामा (एन्.एस्.डि) चे रूप घेतले. (1954) इब्राहिं आलकाझि, ताज्जो पयलेचो आनि प्रसिद्ध डैरेक्टर् जावन गाजलो. विदेशिय असलो तरि ताणे, पुरातन रंगभूमिचे पुनश्चेतन नानारूपान केले. आजिक ते संस्थेत तरबेत जालेले, कलाकार देशभर मेळतात. (दि) बि.वि. कारंत, प्रेमा कारंत, आत्त प्रसिद्धिक पाविलि बि. जयश्री, कासरवळ्ळि दंपति कर्नाटकांत आसात.

अखेरचे वर्स पर्यंत, नाटकाचि प्रीति कमलादेविन राकुन घेतलि. दिल्लिंत आससरि, भाषा भेद नासतना विंगविंगड भाषेचे प्रयोग पळयत उरतालि. वय जायना पडेन सुद्दा, लिफ्ट् नासले कडे, स माळियो चडुन थंचे सभांगणांत नाटक पळयले इब्राहिं अलकाझिन, यादकरन घेतिले आस. कडेर पर्यंत बसुन पळयतालि, प्रयोगानंतर पात्रधारिक भेटतालि. विमर्शाकरन, तांका प्रोत्साह दित्तशिलि. खंचेयि इसम्" (न्याषनलिसम्, सोषलिसम्, कम्यूनिसम्) असल्यांतु, कलेचे म ाक तिक्का विश्वास नासलो! खंचेय् नवी प्रयोगशीलता तिका आवडतालि. खरे कलाविदांक थ ने वळखतशिलि आनि तांका उत्तेजन दित्तशिलि.

विश्व थियेटराचे चांग अध्ययन तीणे केल्लिलें. तशिजावन, थियेटर् आट्‌र्स् आनि क्राफ्ट्स म्यूझियं तीणे दिल्लिलागि मेहरौलिंत स्थापन केले. रंगभूमिक संबंधसुन आसले, वेषभूषण, मुखवाड, आभरण, आयुध, वाद्यवादन, मेकप् विधान, इतर रंग परिकर,

व चि थंय् देक्कु पडतात. खुद तीणे, संग्रह केलेले वेगवेगळे देशाचे असले सामान आनि चित्र थंय् आसत. तिक्का मेळिले म्यागसेसे प्रशस्तिचे क्याश् जास्तचि हे म्यूझियं हाजेरि घाले. तिगेले काअमात सक्रिय सहायक जावन, अकस्मात निधन पाविलो तिगेलो अत्यंत आप्त, यु. श्रीनिवास मल्य हागेले नाव तीणे म्यूझियंमाक दिले.

तीणे, रंगाध्ययनाक सुरुकरन वरय वयर संघटन करत आसले, उत्सव, विचारसंकिरण, आनि कम्मट आजिकय चलन आयलात. तिगेले साठवर्सार आकाशवाणिन प्रसार केलेले – हांव परत वीस वरसाचि जाल्यार ......! भाषणांतु तिगेले नाटक आनि अभ्भिनय कलेचि प्रीति, उठुन दिसता. थियेटर् (रंगभूमि) म्हळ्यार सगळे कला-प्रकाराचे संगम जावन आस! हांव परत तरणी जाल्यार, मजसले, मस्त हाबिचे व्यक्तिक सांगुन आशिलें योग्य माध्यम जात्तशिलें! हांव तांतुच गुंतुन उरतशिलि!" म्हण सांगला.

थियेटर् अथवा कमलादेविले रंगप्रेम याद करन घेत्तना, तीणे कामकेल्ले सिनेरंगाचो उडगास जात्ता. तीणे एक मूक (सैलेंट् मूवी) सिनेमांत कामकेला. वसंतसेना' म्हळेलि कन्नड मूकमूवि, 1931 वर्सांत तयार जालेलि. तीनि, हिंदि पिक्चरांत तीणे कामकेला. तानसेन्, शंकर पार्वति, धन्नाभगत्, ही तीनि वर्स 1940-42 अवधिंत तयारजाल्लि. तिगेले सहजसौंदर्य, भावपूर्ण अभिनय आनि मोहक अवाज (ते काळाक प्लेब्याक् सिंगर् नासले. पार्ट केल्यानिचि पद म्हणका पडताले), सिनेमाध्यमाक सांगुन करयल्यावरि आसले. तीणे तरि अभिनयकलेंत पूरा मन घाले आसल्यारि, ती ख्यात अभिनेत्रि जातसलि. जाल्यारि त्यागानि भरिले देशसेवेचे क्षेत्र तीणे वेंचुन घेत्ले. आनि बहुरूपानि ती असंख्य देशवासि लोकाक पावलि.



अध्याय 12

# कर्नाटकाक देणगि

चारिटि बिगिन्स् एट् होम्' (दान म्हळेले घरचान सुरुजाता!) म्हण इंग्लिषांत आदगत आस. मनेगेद्दु मार्रुगेदे! (घर जिकुन, दार जिक!) म्हणुयि कन्नडांत गादे आस. सुर्वेधरनूचि, कमलादेवि राष्ट्रम ारि कामकरत उरलि; अंतर्राष्ट्रीय स्तरारि प्रसिद्धिक पावलि. जाल्यार आपणालिं मूळं-पाळं, तीणे केद्नाकय् विसरलेना! सर्वप्रदेशाचे कारागीरांक पावचे सवलत, कर्नाटक चे कुशलकर्मि जनाक मेळकाति. हातकामाक मेळचि श्रेष्ठ प्रशस्ति, कर्नाटकचे क्राफ्ट्स्मेनांक फावजाला, हे राज्याचे कामगार, कच्चासामाग्रि मेळनासतना, तांगेले सामान खपनासतना, कामकरतले उमेदवारांक सहाय मेळनासतना, तरबेतिक सवलत मेळनासतना, उरिले कन्नड लोक (तीणे अधिकारात उरतनाजावो, नंतर सरचे पयले जावो), भोचि उणे म्हणयेद्! बिदरि कलाकार, गुडिकार, फातराचे शिल्पि, गोंबे तयार करतले, मोळकाल्मुरु इळकल् रेश्मे, वसूति विणकार्, गोंबे कठपुतलि खेळ करतले कलाकार, स्वातंत्र्य प्राप्तिचे तीन दशकांत सुस्थितिंत उरले. कमलादेविन, तांका आर्थिक, साय् आनि प्रशस्ति मेळचाक वाव् करन दिल्ले. वयर चे - वयर हातकामा सामानाचे प्रदर्शन आनि बिकरि दवरन, हस्तकले बदल जनगागृति केलेलें अंश तांगेले सुस्थितिक मस्त कारण जाले.

भास, प्रदेश, जात-प्रांत, खंचेय लक्षांत हाडनासतना, कमलादेवि, खूब असले सकडांक प्रोत्त .ह दित्तशिलि. आदिवासि धरन नगरवासि जनांत, तीणे प्रतिभा, वळखलेलि आस्स. प्रतिभावंतांक उज्वाडाक हाडिले आसा. आमका लागीचे जालेले, कलाकारां थोडे निदर्शन पळेयलार हे सत्य लक्षाक येता.

प्रपंचांतले वेगवेगळे देशांतु कठपुतळि नांच (पपेट् शो) जनप्रिय आसा. भारतय् अपवाद ना! आमगेले कर्नाटकांतुचि,

चाम । गोंबे, लाकडागोंबे, मात्ये गोंबे, नांचोवन जनरंजना दिंवचे प्रकार खूब फाटि धरन प्रचारांत आसत. उप्पिन कुद्रुचे कोग्ग .कामत कुटुंब, यक्षगान गोंब्या खेळ करोवन आद्वीतिय! म्हणु नांव कमयले कुटुंब आसले. सुमार पन्नास वर्सा फाटि, तांका खंचेय् फाटबल् नासतना, राजाश्रय मेळनास्तना, संघ-संस्थेचे सहाय नासतना, सार्वजनिकाले प्रोत्साह, बि दिसनासतना, मस्त वाय्ट दिस आयले. हताश जावन ताणि खेळ बंद् करचे ठरययले. खेळा मंडळी बर्खास्त केलि. गांव सोडून मुंबै वच्चे निश्चय केलेतेना, अर्धवाटेरि कमलादेवि भेटलि. तीणे तांचांत धैर्य भरन, आर्थिक मद्दतिचो भरवसो दिलो. परत गांवा वचुन खेळ मांडचि व्यवस्था जालि. गोंब्या यक्षगान खेळ परत विराजमान जालो. **Performing Art** प्रदर्शनकला-प्रोत्साह" योजनेन देशभरि कार्यक्रम जाले. यक्षगान आधारित हे एकमात्र गोंबेयाट, पुनश्चेतन जांवचाक कमलादेविचि कारण! म्हण काम्ति, दरप्रदर्शनांत चुकनाशि सांगतशिलो. ताजे नंतर पूतु भास्कर काम्तिन तो संप्रदाय चलोवन व्हेलो. फेस्टिवल् आफ् इंडिया कार्यक्रमांत देशविदेशाक ते मेळ, वचुन आयले. हल्लि, तल्लूर गांवात यक्षगान गोंबेयाटाची शाळा जालया. ऐन वेळार कमलादेविमाय्लो साय् ना जाल्यार ही अपूर्व कला नामशेष जावन वत्तशिलि!

बेंगळूर लाग्गिचे देवनहळ्ळिचो, हनुमंताचार् प्रसिद्धशिल्पि. आर्थिक सहाय नासतान तांगेले कुटुंबाचे शतमानगट्ले करत आयले शिल्पकाम बंद् जावचे स्थिति आयलि. क्राफ्ट् कौन्सिल् आफ् कर्नाटकाचान ताका जायशिले सहायदिले. हे मास्टर् शिल्पि मुखांतर प्रायेचे उमेदुवारांक, तागेले घरांतुचि तरबेति मेळसरि व्यवस्था जावनु ग्रांटयि मेळे. तागेलि बायल सरोजम्माले हातकौशल वळखुन-तिज्जे मुखांतर शाळा आनि तरबेतिचे काम चालु वरले. इतले नय्! थंय् मुस्लिं बायलो तरबेत पावनु, विंगविंगड मूर्ति करतात म्हळेले, राज्याचे लोकांकचि अभिमानाचो विषय!

दिवंगत रंजाळ गोपालकृष्ण शेणै, अत्यंत प्रतिभान्वित शिल्पि. प्रारंभिक वर्सांतक खूब कष्टकाडिले. राष्ट्रप्रशस्ति दिंवचाक सुरुवात जाले वर्सांतु तांगेलि श्रेष्ठ कृति, स्पर्धेक धाडिलि ामेज् जावन तांका प्रशस्ति चुकलि. भारि लुक्सान बि जालि. कमलादेविन तुरंत अन्याय सम केलो. ताजे नंतर भारि शिल्प कलाकृति भायर धाडचा ना! निर्णयकानि, ते, ते गांवाक वचुन, कृति परीक्षा करचे म्हण नियम केलो.

प्रपंचाक ती कमलादेवि उरचाक पुरो! आमका ती, साक्षात् कलादेवि!" आशि म्हळेलो गोंबे खेळयतलो होंबय्य. तो दिल्लि गेले तेन्ना कमलादेविक भेटचाक गेलो. ताका सकल बसचाक तीणे सोडले ना! आपण्या बरशि, सोफार बसयले. बादामि दूद हाडोवन दिले. कन्नडांतु उलोवन सुखदुःख विचारन घेतले. दुसदुसरे देशाचे गोंबे खेळा बदल माहिति दिलि. वच्चे वेळारि पाय धरचाक वरेक सोडलेना. परत वचाक चमकुन गेलेले, अमका पावोचाक तिगेलि गाडि तयार आसलि! एक लकोटो, तीणे हातात दिलो. आमि देवले कडेन येनापडेन पळेयता, लकोव्यांत शंबशंबराचे धा नोट! मजसले गरीबाक ती होंड निधि. माय्ती, आमगेलि धणी!" म्हळेलो उद्गार ताणे काडलो.

हे दृष्य, अनुभवसुयले कलाकार सुमार जन आसले. खूब खेपेक दुर्बळ्यांक स्वंत हातांतल्यान तीणे पैशे दिल्यात. प्रीति–विश्वास दाकयलाक, स्थानमानविसरन, तांचे बरशि मेळन गेल्या. आपयल्याले घारा जेवण खाण केला.

तीणे केंद्र संगीत नाटक आकाडेमिचे अध्यक्ष आसतना, राष्ट्रम ाचे कठपुतळि (गोंबेयाट) खेळाचे सम्मेळन बेंगळूरांत संघटित केलेले. ओरिसा, आंध्र, तमिळनाड, केरळ आनि कर्नाटकाचे बाराटीमा ने भाग घेत्तिले. फिलिपैन्स् ट्रिनिदाद, इंडोनेशिया देशाचान, हे कलेचे निष्णात आनि विमर्शक, आमंत्रित जावन आयिले. तीन दीसाचो खर्च व ु कर्नाटक राज्य सरकाराने पोळोवन घेवचे म्हणु

कमलादेविन व्यवस्था केलि. तीनि दीस पैलेंची ती, बेंगळूराक आयलि. कलाकारा सांगति मेळजुळन, तांचे बरशि एकजावनु उरतालि. कलामेळ जायना पडेन, धावीस हजार रुपये खर्चांत उरिले. ते पयशे वापस करचे ना! म्हण तीणे ठरयले. ते पैशाचे कापड आनि पंचे हाडवन जमिले कलाकारांक वांटले. अयाचित जावन आयले हे उडगेरेन ते गरीब लोकाले खुशीक पार नासले. तीणे, नाका! नाका! म्हळेतेकय् तिगेले पाय् ताणि व चि घ धरिले तेना, तिगेले दोळे भरन आयिल्ले, सुमार जनानि पळेयला. दिसचाक कठिण आसले चेहर्या फाटि, आवयले मोवाळ मन तिगेले आसले.

तीणे प्रोत्साह दिवन मुखार हाडिले बायलो सुमार आसाती. कलेंत, बरपांत, संघटनेंत मुखार आयल्यानि अवकाश मेळिलेतेना, तिगेले ऋण मानिले आस. हांतु कमला डोंगरकेरि एकळि (1909–1992). हिजे निमित्ताने, उत्तर कर्नाटकचे घरगुत्ति बायलांत मात्र प्रचलित आसले कसूति हातकलेचे प्रकार उज्वाडाक आयले. ताका कमलादेवि कारणजालि. आजिक कापडारि, कुर्तारि टापा (टाप्)रि, कमिजारि, ओढणिरि, उरिले कप । नमुन्यारि, धारवाड कसूति मस्त जनप्रिय जाल्या. बेंगळूर धरन, कर्नाटकाचे सुमार गांवांक कसूति कापड, विकचे आंग ो आसत.

कमला डोंगरकेरि, कलातज्ञ आनि समाजसेविका आसलि. 9 वर्सारि लग्न जालेले तीणे घरा वाचुन इंग्लिष् आणि दुसरे विषयांत परिणति मेळेयलि. तिगेलो बाम्मण, प्रोफेसर सुंदरराव्, एन्. डोंगरकेरि, मुंबै विश्वविद्यालयाचो रजिस्ट्रार्, रेक्टर् आनि औरंगाबाद विश्वविद्यालयाचो कुलपति जावन निवृत्त जालेलो. ताजे बरशि ती जगाचे मस्त देशांत भोविलि. कमलादेविले परिचय पयले पासून कमला डोंगरकेरिक आसलो. जैलाचान कमलादेवि 1944 वर्सांत सुटकारो जावन भायर आयली. ती अखिलभारत महिळा परिषदेची ते वर्साचे सम्मेळनाचि अध्यक्ष म्हण चुनायित

जालिलि. कमला डोंगरकेरिन परिषदेचे बुलेटिन् चे संपादन करचाक आनि सम्मेळनाचे सांस्कृतिक आनि मनोरंजन कार्यक्रम विभागाचि जवाबदारि घेतलि.

कमला डोंगरकेरिक कलेचि चंदाय्, पयले पासुन मनाक लाग्गिची आसलि. ती धारवाडांत सान होंड जालिल्यान ते प्रदेशाचे कसूति कलेन आकर्षित आसुन ताजे मस्त इतले प्रकार, एकडे केलेले. दुसदुसरे गांवाक एक प्रश्नावळ तयार करुन धाडुन माहिति एकडे केलेलि. कमलादेविक तीणे हे व ़ दाकयले अनि एक मोनोग्राफ् (monograph, निबंध) हाडलार कशि? म्हणु विचारिले. कमलादेविने तुरंत तो विचार पसंदकेलो. ते बरप भायर हाडचाक कमला धडपडलि. चार जणांक तीणे विचारले. एकळि मात्र कबूलजालि. जाल्यारि तिगेलि दृष्टि, एक सांस्कृतिक विचार आनि हातकामा प्रकार, भायर हाडचांत नासलि. व्यापारि मजलारि हो कलाप्रकार वाडोवन पैसो कमोवचे कडेन आसलि! (हल्लि तेचि जात्तेर आस!) कमला डोंगरकेरि निराश जालि.

परत कमलादेविक भेटिले तेन्ना, तीणे आपणाले प्रयत्न, निष्फल जालेले सांगले. कमलादेवि म्हणालि, तूंची कित्याक बरयना? दुसर्याले मात्यांत तुगेले विचार भरन, तांका जायशिलि माहिति तुंवे दिवन, बरप जायना! तुंवेचि बरयलार तुका किते सांगचे आस ते स्पष्ट जाता. कसल्यार जोर दिवका ते बि सुचता!"

कमलादेविले विचार अनि उत्रं स्पष्ट उरतालीं, तिजलागि तर्क, वाद असल्याक वेळ उरनासलो. हाज्जे फुडेयि तीणे योग्य सल्ला दिल्यान, फाटबल दिल्यान, कमला बरपा कामाक लागलि. Romance of Indian Embroidery पुस्तकान रूप घेतले. ताजे नंतर तीणे पित्तळे कामाचे (Brassware) कलाकृतिरि पुस्तक बरेयले. उपरांते खेळणिचेरि, A Journey through Toyland आयले. राष्ट्रपति डा। राधाकृष्णन् हाणे ताका प्रस्तावना बरयलि. ताका प्रेसिडेंट्स् प्लेक्' प्रशस्ति बि आयलि. नंतर कमलादेविन चि मुखार हाडिले,

अखिलभारत महिळा परिषद् वतिन अति सुंदर पोषाक" म्हण जगात गाझले कापडार, The Indian Saree पुस्तकय् उज्वाडले. हीं पुस्तकं व चे भायर् येंवचाक मूलतः कमलादेविले फाटबलचि कारण! म्हण कमला डोंगरकेरिन तिगेले आत्मकथन 'On the Wings of Time' हांतु सांगुन घेतला. कोणांत खंचि प्रतिभा आसा, ते तीणे थ ने वळखुन मुकार हाडिले आसा.

हातकामा बोर्डाचान भायर येनापडेन सुद्दा, आपणाले वैयक्तिक रीतिन तीणे मदत जारि दवरिलि. तशिचि तिगेले प्रीतिचे भोवंडियि जग्री दवरिलि! 1974 वर्सा सुमाराक तीणे कन्नड लेखक आनि तरंग' वारपत्रिकेचो माजि संपादक, संतोषकुमार गुलवाडि बरशि, करावळि प्रदेशांत सांत (संते= Market Day), जात्तेरि आसले सान सान गांवांत फिरचि उमेद दाकयलि. तेन्ना आपणाले सानपणाचे दीस, उडगास करन घेतालि खंय्! उडपीचे बुधबार ची, कुंदापुरचि शनिवारची, शिरालि–चित्रापुरची आय्तारचि जमत आसले सांतेक ती वचगेलि. तेन्ना ग्रामीण कलाप्रकाराक व चि आयलि दुर्गति पोळोवन, तिगेले दोळे भरन आयले, म्हण गुलवाडि बरयता.

चित्रापुर मठाचे स्टोर् हांतु पोरणे, कांशे, पित्तळ आनि तांब्याचे कलात्मक सामाग्री आनि मोडिले मूर्ति आशिल्यो. कमलादेविन मठांतुचि एक कलालय (म्युझियं) करचाक तेन्नाचे मठाधीशांक सल्लादिलि. ते प्रकार थंय्, सान जाल्यारि सुंदर आनि प्रेक्षणीय म्यूझियं रूपित जालां.

1950 वर्स पर्यंत, उत्तर आनि दक्षिणकन्नड जिल्ले चे सांतेंतु मात्तिचे नमनमूनदार मडकी, कडिके उदका हूजे, होड प्रमाणारि विकचाक येत्तशिले. उडुपिचे काशाचे सामान प्रसिद्ध आसले. गिंडि, मिळ्ळे, पेले, लोटा, जेवणा वा – वा ळेळी, प्रवासाक व्हरचे उदकाचे तिरगणि चंबु, उगात असले सामान तयार जात्ताले. आजिक हाजे नामो–निशान ना! फ्याक्टरिंत तयार जाले स्टील् सामानानि, आयदानाचे साम्राज्य, आपणाले करन

घेतला! कुंदापुरचे सांतेंतु मेळचे पोंयांचे मु ाळे' (टोपि) कमलादेविक खूब आवडताली. तीणे तांतुतले चंद आसले विंचुन मेहरोलिंत सुरुकेल्लेले रंगसज्जिकेचे म्यूझियं खातिर खरीदि केले. तशिचि मात्येचे, धातुचे सुमार इत्ले सामानयि व ु ˙ केले. अंकोलेचे हालक्कि गौडत्यानि, घालन घेवचे काळे मणिया सर, रंगरंगित मणिया हार व ू चि एकडे केले.

शिरालिंतु मठालागचे हित्लांतु, हिलालाचे उज्वाडांतु प्रस्तुत केल्लेलो यक्षगान प्रसंग, फाले जायसरि बसुन पळोवन खुष् पावलि. एक काळाक काविकला, कर्नाटकचे करावळि प्रदेशाचि विषिष्ट आनि रेखीव कलाप्रकार जावन वाडुन आयलि. आधुनिकतेचे भरभराव्यांतु, ती कला नामशेष जावन गेलि. कमलादेविले, ताजे पयलेचे भौवंडिंत, कुमटेचे वेंकटरमण देवळांतु, पुरातन, अपूर्वाची काविचित्र पळयले. हे व ु ˙ उरोंवचाक प्रयत्न कराति!" म्हण देवळा कारभार्यांक तीणे सांगिले खंय्! तिगेले उत्राक मान दिवन, काविकलेचे एक–दोन पेनल् ताणि राकुन दवरल्याति. तीणे थंय् आयले तारीक (1960) बि बरोवन दवरला.

न्यूयार्कचे स्मित्सोनियन् संस्थेने जागतिक कठपुतलि (गोंबे नांचोवचो खेळ) सम्मेळन जमले. कमलादेविन इतर प्रांताचे श्रेष्ठ टीमा बरोबर कर्नाटकचे कलाविदाक बि वेंचुन धाडिले. तेन्ना चित्रकलापरिषत्ताचो संस्थापक, आनि मुख्यस्थ बेंगळूरचो (दि) एं.एस्. नंजुंडराव्, तंडाचो लीडर् जावन न्यूयार्काक पाविलो. हे निमित्तान ताक्का आनि तागेले टीमाक, विंगविंगड देशाचे टीमाक भेटचो संदर्भ आयलो. नंतर प्यारिस्चे उत्सवाक वच्चाक बि कमलादेवि, कारण जालि.

कलाकारालि हाता खुबिक पुनश्चेतन मेळ्ळे व्हय! जाल्यारि ते कलाकृति ामेज जायनाशि, भायले देशाक धाडचेय् तित्ले मुख्य आसले. प्याकिंग् कला, शिकचाक मैसूरचे वीरप्प म्हळेले कलाकाराक तीणे फा चि, जपानाक धाडिलें. ताज्जान ताणे स्वतः

असले ट्रेनिंग् सेंटर्, मैसूरांत सुरुकेल्यान, कर्नाटकचे मस्त इतले हातकामाचे सूक्ष्म सामान भायर वच्याक लागले.

आमगेलेचि जनान तिका केलेले अपचारचो उल्लेख हांगा करुका! तिका चाळीसेक वर्षान वळखतले. तिगेले निस्वार्थ आनि जनोपयोगि काम, प्रत्यक्ष पळयले जन तिजे विरुद्द फितुर जाले. हेंडिक्राफ्ट् बोर्डाचि चेर्मन् आसताना, तीणे सुमार इत्ले दक्षिणकन्नड जिल्लेचि, ऊनजावन, पूजेक योग्यनय्! म्हण ठरलेले, मस्त इत्ले भूताराधनेचे, लाकडि विग्रह भायर् उडयिले पळयिलें. ते व ची वारो आनि पावसाक नाश जात्तेरि पडिलें. सुंदर कलेन शोबचे मूर्तियो, 800 ते 1000 वर्सा फाटले म्हणु निष्णात लोकानि अभिप्राय दिलेलो. अशी नासाड जावचे बदलाक दिल्लिचे कलाकृति खातिर स्थापन केल्लेले मेहरोलिचे क्राफ्ट् म्यूजियं' हाका धाडचि व्यवस्था तीणे केलि.

दुर्दैवान तिका हेचि वेळार, इंदिरागांधिन हातकामचे बोर्डाचे उन्नत पदवींतल्यान काडले. हे विचाराची वेवस्था, केंद्रसरकारान वहिसुन घेत्ली. आडिट् पार्टिने, कामायेनातिले, जळोवन उडोवकासले लाकडि सामान खरीदि करन, बोर्डाक लक्षग ले रूपायाचि भयंकर लुक्सान" (माजि चेर्मन्नान) केला!" म्हळेलो रिपोर्ट् दिलो. कमलादेविन ऊनजाल्लेले विग्रहाचे जाग्यार, तित्ले नवीन मूर्ति करोवन ते, ते, देवळाक पावयल्यो, (तसले कलाकार तेन्ना आशिले) ताजे पैशे सुद्दा कलाकारांक पाविले.

कमलादेवि विरुद्ध अपप्रचार सुरुजालो. स्थळीय राजकारणि जनान ताक साथ दिलो. देवळाचे पवित्र' सामान व चि ब्लफ्" करन व्हरयला. विदेशाक धाडुन पयशे करचाक सुरुवात जाला!" म्हळे. संबंधित देवळाचे कारभारि जनांक व चि, तुमका होड प्रमाणार फसयला!" म्हण खबर घाल्यान, ताणि नवीन मूर्ति कब्जांत घेतले. तरि, मोडिले मूर्ति (थोडे उरिले) व्हरचाक सोडलेना!

देवानचि राकले. (दि) स्टेला क्रामरिश् भारतीय कलेचेरि अंतर्राष्टीय ख्यातिचि कलातज्ञ आसलि. तीणे अमेरिकेंत जावचे प्रदर्शनाक ते डेमेज् जालेले, दोन हॊड भूताचे विग्रह, एकेक 10,000 डालराक इनशुर् करोवन बॊटीन व्हरयले. हे सत्यान आडिट् पार्टिचे तोंड बंद् केले. आपणार आयिले क्रिमिनल् आपादनेक मुक्त जावचाक कमलादेविन मस्त लडकापळ्ळे. फाटि तिज्ने बरशि स्वातंत्र्य लडायिंत कामकेलेले एक पुढारिन तिका सहायकेलो.

कमलादेविन आपणाले आत्मकथेंत खंयी बि आपणाक त्रास दिल्याले, राजकीय रूपान सतायसुल्याले, नांव घेतलेना, जाल्यार हे एकची घटनेंचे उल्लेख केला. निर्लिप्त पणाने उल्लेख केला. काया, वाचा, मनसा, तिगेले विशाल व्यक्तित्व आसले. राजकारण्यांचान देशाक स्वांतंत्र्य मेळ्ळे क्षणाक, भायर पडिले व्यक्तिक, सगळे क्षेत्रांत राजकारणान प्रवेश केल्लिले, परिस्थिती विरुद्ध लडका पडलें. हे विधिले वैचित्र्य!



अध्याय 13

# काम जावका; प्रतिष्ठा नाका!"
# (सेवा जीवना ची झळक)

1947 आगस्ट् 15 तारिकेक देश स्वतंत्र जालो. कमलादेवि बी स्वतंत्र जालि! अर्थाच् तीणे तीस वर्साचो कांग्रेस् संस्थे बरोबरचो अविना संबंध तुटुन घेतलो. देशाक स्वातंत्र्य मेळसरि, कांग्रेसांतु उरन कामकरता!" म्हळेलि प्रतिज्ञा, पूर्ण जाल्यान, तीणे पार्टि सदस्य म्हण त्यागपत्र दिले हे विषयांत सुद्दा ति बापुजीलि निष्ठावंत अनुयायि आसलि. देश स्वतंत्र जायना पडेन कांग्रेस् संस्था विसर्जन जावका! म्हण तो म्हणतसलो. तशि कांय्जालना! कमलादेवि मात्र आपण जावन भायर आयलि.

आमि पळयल्यावारि कमलादेवि, अग्रश्रेणिचि स्वातंत्र्या यॊधा आसलि. स वर्सालागलागि, तीणे चार पावटि जैलाचे सुख पळयले. लाठि मार खालेले. आरॊग्य वाय्ट जावन गेलेले. खासगि जीवन नष्ट जालेले. आमि आत त्यागि" जनांक पळेयत आसत. फाल्स सर्टिफिकेट् दीव्न स्वातंत्र्य यॊधा' म्हण साधसुन, सरकाराचान मेळचे सर्व सवलत, पेन्शन्, पर्क्स्, सै ; नातरांक कालेजांत सीट्, गि सुयतले हजारगट्ले जन कर्नाटकांत, मेळतात. लक्षगट्ले जन, संबंध देशात मेलतात! ही गांधिभक्त कमलादेवि, घराबागला आयिले हुद्दो सॊडुन दीवन उरलि. केबिनेट् मंत्रि, गवर्नर्, एंबेसेडर्, उपराष्ट्रपति पदाक वरेक इनकार केलो. आखेरचो, हो हुद्दो सर्वपार्टिचे जनान मेळनु सुचयलो आनि सर्वानुमतान स्वीकृत जालेलो. असले अवकाश धिक्कारन आपले विवेकाक सुचिले वारि वागतले व्यक्ती क्वचितचि मेळतले!

कित्याक कमलादेविन खंचोय् प्रतिष्ठित हुद्दो नाका! म्हळे ?

सुमार पंचांशि (85) वर्सा फाटि तीणे राजकीय रंगात

प्रवेश केलेतेना, देशसेवा करचाक हे एकचि माध्यम, सर्वप्रायेचे, सर्वकार्यरंगाचे जनाक आकर्षक आसलें. देशा खातिर लडचे म्हळ्यार होड सदावकाश! राजकारण एकमात्र मार्ग! म्हण तरणाट्यांक दिसताले. स्वातंत्र्य मेळ्ळे. दीस गेलेतशि, राजकीय संपर्क आसले व्यक्तीक ते पूर्ण प्रमाणाचे आर्थिक आनि लौकिक सौकर्य घेवचे राजमार्ग जाले! (अजुनि जात्तेर आस!) ताजान कमलादेवि, कंठाळलि. पयले पासून प्रचार आनि प्रतिष्ठेन ती दूर आसलि. वालंटियर् म्हणु राजकारणांत प्रवेश केल्लेले तीणे कडेर पर्यंत खंचेय् रीतिचे सेवा मात्र आपणाले उद्देश म्हण स्पष्ट रीतिन मानलेले. ती सुखांत वाडिलि. तरि, नंतरले स्वातंत्र्याचे दीर्घावधि लडायिंत, दुर्बळ्याले कठिण जीवन, जैलाचे दुःखद अनुभव, मुख्य जावन अंत्य नातिले, कारागीराले, बायलाले शोषण, पळेयत तिगेले जीवनान, आनि विचारान दुसरोचि मोड घेतलो.

आत हे मुद्यरि तिगेलोचि अभिप्राय कळन घेवया. राजकारणांत हांवे सुमार वरस कामकेले. मेगेलोचि म्हळेलो स्वंत स्थान–मानाचो जागो, माका प्राप्त जालेलो. खंचोय् पुढारि अथवा पक्ष हाजि गरज माका नासलि. ...... खंचे दळ अथवा पार्टिक एकपटि शमिल जाले, म्हळ्यार, व्यक्तिले स्वतंत्र विचार अथवा चिंतनेक अवकाश उरना! पार्टिचे ध्येय अथवा पुढारिले वर्चस्, मुख्य जातातितिइ. समूह शिस्ताक ताजि गरजबि आसता. ....... पार्टिंत पुढारि जांवका. नैवे अनुयायि जावका!"

म्हाका जीवनांत वैविध्य आवडता. नवेनवे प्रयोग आवडतात. तुका कारभाराचि खूबि (आड्मिनिस्ट्रेटिव् स्किल्) जमना! म्हण मगेले आप्त आनि मित्र म्हणताले. राजकारण्यानि उल्लोवचे आदर्श, आनि तांगेलि जीवन शैलि, हांतुरि आकाश–पाताळाचे आंतर हांवे पळयले. थोडे मुखंड, जातिवाद, खंडन करतात. जाल्यार चुनावणेंत, जातिचे बलारिची जिकुन एतात! भाषेचे, जातिचे, प्रादेशिक निष्ठेचे, फाटबलारि पुढारि जातात. भाषावार प्रांतजाले.

ताजान राज्यांक किते लाभ जाले? शंबरगट्ले वरसथरन एक महानगरांत विंगड विंगड भाषेचे जन, मेळनजुळन नासलेवे? आत्त परिस्थिति कसलि? एकळो आनेकळ्याक संदेहान पळयता! कोण, पयले, जाति–पंथ–भास–धर्म हाजे भेद विरोध करताले, ते नेता, सत्तेचे मोहान असलेच मुद्दे तरफेनची उलोवचाक लागले!" तीणे उदास जावन नंतरले वर्सांतले राजकारणा बद्दल सांगिले विचार हे!

कमलादेविक सत्तेची जावो, प्रतिष्ठेचि जावो, पदवि–प्रचाराची जावो आवड अजिबात नासलि. कलाप्रेम मात्र भरपुर आसलो. सानपणथरन इष्टपाविले कलाप्रकाराक चैतन्य भरन नवीन रंग, रूप दिवचो अधिकार तिका आपोआप मेळलो. अखिलभारत हस्तकला बोर्डाचि चेयरमन् जावचाक निमंत्रण आयलेतेना! तांका संजीविनि रूपान ती पावलि! ताजान तिका सार्थकता बी मेळलि.

किशोरि आसतना कमलान गांधीजिक पयले फंता पळयले (1919). कडेर पर्यंत तीचि, पूज्य भावना ताजे बदल तिका उरलि.

मानवीयतेंतुलि तागेलि निष्ठा, आनि जनाले बरेपणाक ताणे घेत्तिले अपारश्रमान हांव गांधिप्रणालि कडेन आकर्षित जालिं. सामान्यजना खातिर, गरीब, असहाय नागरिकां खातिर, तागेलो हुसको अनन्य आसलो. तागेले विधायक कार्यक्रम, मजबूत आसले. बायलांक दारल्यां बरोबर समानता ताणे हाडलि. सगळ्याकिंता जास्त जावन. हरेक मनशाक समाजांतु, स्वंत आनि प्रत्येक स्थान आस्सा ! म्हण दाकवनदिले. विषिष्टस्थान निर्माण करनदिले! हांवे सक्रिय राजकारणांत उरचाक बापुजिले पुढारपण कारणजाले. चळवळिचे कामान माका विशिष्ट तरबेत, मेळी. संघटना शक्ती वाडलि! ते दिसाचे. आशावादि, स्वार्थरहित, सर्वसमानतेचे श्रमान, माक्का सशक्त केलें. खंचेय् कष्ट होड दिसले ना! मज्जांत आसले थोडे बरे अंश भायर एंवचाक हो एक अवकाश मेळो! मेगेले जीवन सार्थक जाले! म्हण स्वातंत्र्य प्राप्त जालेतेना दिसले".

कमलादेविन निस्पृरीतिन देशसेवेंत गुंतुन वच्चाक कारण तिगेलि अपार त्याग बुद्धी समकालीन राजकारणी पसी ती कितली वेगळी आशिली म्हळेले परिचय मेळचे खातीर मिगेले विचार विस्तार रूपान हांगा दिल्लेले आसात. सत्तेक, प्रतिष्ठेक हपपेतले राजकारणि जनालि संख्या, कमलादेविन सकयले अभिप्राय व्यक्त केलेले (1966) चाळीस वर्सानंतर वाडतेरि गेला!

आजिक सत्तात्मक राजकारण, जास्तच अधोगतिक येवनु पावलां. मेगेले कित्लेककि निकटवर्ति लोकानि स्वातंत्र्य मेळोवचाक केल्लेलो त्याग, तांगेलि निष्ठा आनि अचल देशप्रेमाचि कल्पना माका आस. दीस् गेलेतशि, राजकारण मळ्यार एकि वृत्ति! म्हण जन नंबुवचाक लागले. खुर्चि खातिर स्पर्धा सुरुजालि. सत्तो(पवर्), आनि ताजे बरशि वाडत आयले जाळ आनि आत्मोद्धारा'चे तत्वान, हे क्षेत्र मेगेल् खातिर न्हय्! म्हण स्पष्ट जातेरगेले. पवर् पोलिटिक्स् म्हळेले दीव्या सुत्त घुंवचे रातकीडे जाल्यात!"

गांधीजिन रचनात्मक कामार जोरदिल्लेलो. रचनात्मक काम करतल्यान राजकारणाक वच्चाक ना! म्हळेले होड आदर्शाचे तत्व ताणे मांडिले. स्वतंत्रभारतांत हे तत्व पाळतल्या किंता मोडतले जास्त जास्त देक्कु पडचाक लागले. हांवे, राजकारणाचे राजमार्ग सोडुन दिले. रचनात्मक कामाचि ओणि धग्लि. हे ओणिची पायवाट माका सुंदर आनि आपुलकीचि दिसलि".

उलयले तशि वागतलि अपरूप व्यक्ती कमलादेवि आसलि.

कमलादेवि प्रसिद्ध आनि प्रतिष्ठेचे हुद्यान कितलेय् दूर उरिल् तरि, सुमार राष्ट्रीय आनि अंतराष्ट्रीय प्रशस्ति तिक्का सोद्दुन घेवन आयलि. भारत सरकारान ताम्रपत्र, पद्मभूषण (1955) आनि, पद्मविभूषण(1986) दिले. सामाजिक-आर्थिक क्षेत्रांत केल्लेले सेवे खातिर अमेरिकेचि वाटुमल्' प्रशस्ति (1962), देशाचे सांस्कृतिक राखणण केल्लो खातिर विश्वभारतिचि, देशिकोत्तम'(1972), समुदाय सेवे खातिर, एशियाचे नोबेल् प्राय्झ्

हणघेत्तले. रेमोन् म्यागसेसे'(1972), संगीतनाटक अकाडेमिचे
न सदस्य'(1974) हातकामाचे पुनश्चेतन केल्याक युनेस्को
शस्ति, तिक्का मेळेले थोडे पुरस्कार. हिंदु विश्वविद्यालय, बनारस्
ाणि गौरव डाक्टरेट् (1986) दिलयार तेचि वर्स, आंध्रप्रदेश
कलावेदिकेचान तिका कलासरस्वति' प्रशस्ति फावजालि.

हाजे शिवाय्, झेकोस्लामिकया पिलिफैन्स्, इराण देशाचे,
वेशेष प्रशस्ति प्रदान जालाात. 1967 वर्सांत आफ्रिकेचे सेनेगल्
देशांत जमिले डकार् कलाप्रदर्शनात एशिया खंडाचि एकमात्र
प्रतिनिधि कमलादेवि आसलि! तिगेलो सन्मान जालो.

असले महत्वाचे प्रशसि प्राप्त जालेतरि कमलादेवि निर्लिप्त
उरतालि. म्यागसेसे अंतराष्ट्रीय प्रशस्ति घोषण जालेतेन्ना, तिगेले
वळखिचा पत्रिकोद्यमिन पयले फोन्करन तिका कळयले. तिगेले
लगेच् प्रतिक्रिया आसलि. छे! छे! खंय्कि चुकामुक जाले
असचा फाव्! कित्यामळ्यार इत्लि श्रेष्ठ प्रशस्ति होड लोकाक
मात्र मेळता!"

ही प्रतिष्टित प्रशस्ति घेवचे वेळार तिगेले अंतरंगाचीं दोन
उत्रं सभेक तीणे सांगलि, हो माका मेळिलो गौरव, समूह
साधनेक मेळलो गौरव! ताजे पुढार पणाक नय् म्हण हांव लेकता"
म्हणालि. प्रशस्ति प्राप्त जावचि लोकाले विश्वसान! पुढारपण
(लीडर्शिप) एक वज्जेसे जावन खांद्यार बस़ता! समूहांत मेळन
काम करचाक ताजान अढथळ जाता! कित्या म्हळ्यार, व्यक्तीले
फाल्स पडबिंब (इमेज्), पुढारि' म्हळेले रूपान उरता! पुढारि
आसले समाज सेवकानि सगळय़ाकिंता फाटि उरन, मार्गदर्शन
दिवका पडता. हें कठिणकाम! सेवा म्हळ्यारि कर्तव्य! म्हळेले
भाव वाडुन घेतल्यारि मात्र लोकालो विश्वास मेळता! लोकाले
प्रीति आनि विश्वास मात्र अमूल्य देणगि जावन कडेर पर्यंत
उरतात!"



अध्याय 14

# कशि, आशिली, कमला माय्?

कमलादेवि बरशि कामकेलेले, तिगेले मदतिन मुखार आयले, तिगेले सलहा, सूचनेने लाभ पाविले, जन देशभर पसरसुन आसले. तांचांतु जास्त लोकांक ती शिस्ताचि सिपाय्, तिजलागि मस्का लांवचे, जास्त उलोंवचे, नेव सांगचि, कामचोर्पण असलि चलनासलि! हे कळन घेत्तिले तिका भित्तशिले. स्वभावाने ती कमी उत्रा बायि. चर्चा, तर्क, हाका ती अवकाश दीनाशिलि. कोणाले काम अथवा वर्तन मना वचनि जाल्यारि, एक फंता, तांका निरखुन पळयतसलि खंय्! संबंधित व्यक्तीक ती चिडल्या! म्हळेले एकदम् कळतसले खंय्! थोडक्यांत सांगचे जाल्यार, गौरव विश्वास बरोबर, तिजे बद्दल भय पावतले जन जास्त आसले.

जाल्यारि, सलगि आनि सवय् आसले जन तिका लायक रीतीन वळखतसले. तिगेले गंभीर आनि मितभाषेचे मुखवटा फाटि मोवाळ, मायामोगाचे मन आसले. सदा सरळ सामानांतु चंदाय् पोळोवन, खुश पांवचे मुग्ध हृदय आसले. जेवण–खाण वेषभूषण, सजावट हांतु तिगलि आवडि, वैविध्यपूर्ण आसलि. तरि, सादा सहज आनि सवरगाय्चे सामानांतु सुंदर अंश तिका दिसत आसताले. ताजान ती संतोष पावतालि.

खंचोय् सामान नासाड जावचाक ती दीनासलि. एक सुत्ताचो, कप ाचो कुडको ती उडयनाशिलि. पोरणे सामान तशीच! एक दिकान खालि आसले कागदार नोटिंग बरोवचे, वापरिले लकोटे उलटाकरन परत वापरचे, तिगेलि सवय् आसलि! ही बारीकसाणि, तीणे तिगेलो गुरु बापूजिलागि शिकुन आसचाक पुरो! तिका फुरसति मेळचि ऊणे! मेळेतेन्ना ती आपणाले शिवोंचे पाय् मशीनार, एक पोलक्याचे बार्डर् काडुन, आनेक जाकेटाक लावचे, पोरणे,

कापडाचे घि बार्डर् काडुन, ती देग नवे प्लेन् कापडाक लावचे करतालि, म्हण हे कामांत तिका पळयलो एल्.सि. जैन् याद करन घेता. पुरसत ना जाल्यारि, उजवे ब्लौज्जा हातारि मात्र नवीन बार्डर् डिसैन् शोभताले. आनेक भुज शेरगान धांपुन उरताले! असले सादा रिपेरिचे घरगुति कामांत ती खुष् पावतालि.

आत्ताकालाचे आधुनिक रीतिन पळयल्यार बि ती, बेस्ट् ड्रेस्ड् वुमेन् म्हणुचि प्रसिद्ध आसलि. सदा म्याचिंग कापड, चोळि, हातकामा ब्याग् आनि अभरण! जाल्यार ती खंचियी म्हारगायिचे अथवा उंची मोलाचि नंय्. सादा काटन् अथवा हातमगाचि सारि, उरतालि. चड म्हळ्यारि मोळकाल्मूरु गांवचि रेश्मेचि. जाल्यारि ते कपडे, रंग आनि डिसैनान अपरूपाचे उरतशिले. तिगेले गोरे, सुंदर व्यक्तित्वाक ते उठुनदिसचाक पुरो! तांतुलि कलात्मक अभिरुचि मुख्य आसलि.

दागिन्या दृष्टिन एक खबर सांगुका! ती रुप्याचि, मणिचि, काचेचि, लाखाचि गळ्याचे सर, आनि कांकण घालतसलि. आत व चि एथ्निक् ज्युवेलरि" म्हणगेवचे असलेची नम नमुनदार सवरग आनि म्याचिंग् दागीने पेंटांत आयलात. तरणे पोरि मस्त उमेदिन ते घालुन खुशि पावताति. थोडे जन खुद घरात लाकडाचे, मणियाचे अलंकार, डिझैन करतात! कमलादेविन आसले आत फ्यशनेबल् म्हण घेवचे दागीने, चाळीस वर्सा फाटि स्वतः घालचाक सुरुवात केलेले म्हळेले आमि लक्षा हाडचाक जाय्! ती पायोनीर् याने अग्रेसर आसलि. एथ्निक् अथवा विविध जनांगात प्रचलित आसलि दागीने शिष्ट म्हण घेवचे समाजांत प्रचाराक हाडचांत.

कमलादेविक पुल्ला आवड खूब आसलि. तिगेले मात्ते केसाचे आंबा ंत फुल चुकनासले. तांतुले तांतु मोगरे फुलाप्रकार, जायिकळे, तिगेले आवडिचे. फिल्टर् काफि भारि इष्ट आसलि खंय!! कोंकणी रांदपा प्रकार, मेत्ये पोळे, पोंगल्, इड्लि चाकलि

आसलि खाणा तिका आवडताले. शुद्ध शाकाहा आसल्यान तिगेले भोलोकाचे बोवंडिंत कित्लकि फंता पौष्टिक आहार मेळनासलो. ब्रेड्–जाम्–लोणि आनि फळां खांवन ती आठवाडगट्ले राब्बुक शकतालि.

तिगेले वैयक्तिक जीवन पळयल्यारि, सांसारिक सुख म्हळ्ळे तिगेले नशीबांत नासले म्हण स्पष्ट दिसुन येता. सानप्रायेरि बापय्गेलो. बाल्य विवाह जाले. वरस भितरि बामण सरलो. प्रीतिचि भयण बि, विषम संसाराक बळि जालि. एकमेकळ्याक पसंद करन जाल्लेले हरींद्रनाथ च ोपाध्याया बरशिचे लग्न जास्त दीस टिकले ना. गांधीजिले प्रभावंत सानप्रायेरिचि आयिले. कमलादेविक मद्यपान, स्वच्छंद जीवन हाजे बद्दल तिरस्कार आसलो. तिगेलि भयण सगुणा, तिगेले बामणाले हे दौर्बल्यान कायम दुःखि जालेले तीणे पळेयले. एकदीस स्वतः कमलादेविन आपणाले खास जीवनांत बि, इत्ले न्हय्, सार्वजनिक रूपान दुःख, अपमान भोगचे संदर्भ एतले, म्हण सपनांत वरेक येवजलेले ना आसनाक पुरो!

हरींद्रनाथ प्रतिभान्वित नाटककार, कवि, विद्वांस आसलो. जाल्यार गृहस्थ जीवनाक जायसलो सादा दर्जेचो शिस्तु ताजलागि नासलो! पिंवचे ताका आवडताले. बायलांले दौर्बल्य आसले. आपली म्हळेलि वृत्ति अथवा नौकरि नासलि. हे सगळे कमलादेवि संभाळन वरतशिलि कोण! जाल्यारि बेग्गिचि सार्वजनिक जीवनांत पुढारि जालि. संसरिक जीवन दुर्भर जाल्ने. लाहोर कांग्रेस् (जून् 1930) कमलादेविले विजयाचे क्षण आसले. अध्यक्ष जावन युथ् अधिवेशनात घोषणा तीणे युसुफ मेहर आलि बरोबर मेळन केलेले "पूर्णस्वराज्!" ड्राफ्ट्, कांग्रेसान स्वीकार केल्लेले. जाल्यारि प्रवासांतु हरींद्रनाथा बरोबर आसतना, ताणे पीवन केलेले धांदल आणि ताजे राजकीय प्रतिक्रियेन तीणे अधिवेशनांत भाग घेतलना! तिका सेवादलाची महिळा ब्रिगेडाचि मुखेल घोषित केले. ते

ार्यक्रमात बि भाग घेतलना! ते बद्दल अपप्रचार जायनाशि तीणे, ावंटकाडले.

· पूतु राम्, आज्जि गिरिजाबायिलागि वाडत आशिलो. जाल्यारि कमलादेविन जैला भायर आसतना बी, तागेल् बापय् येवन ताका आनि तिका पोळोवन घेवचा आशिलि, सीताक घेंवन खंय् तरि त्तेरि उरतालो! तांका सोदुन हांडुन परत पुत्ताले शाळाजीवन ुरुकरचाक कमलादेविक पुरपुरो जात्तसले! असलि परिस्थिति ायर् वयर6 एत्तालि, रामाक दूरचे ग्वाल्हेरचे बोर्डिंग् स्कूलाक ाखल केलो. थंय्वरेक तागेल् बापय् वत्तशिलो. आपणे जैलाक ेलयार सार्वजनिक जीवनांत बुडुन उरल्यार. हरींद्रनाथ पुत्ताले भविष्य पोळोवन घेत्तलो म्हळेली दूरचि कमलादेविगेलि आशा भग्न जालि. उल्टा परिणाम जातालो.

मद्दे हरींद्रनाथ अमेरिकेक पावलो. थंय् एक प्रसिद्ध नर्तकि बरोबर तागेलो प्रेम संबंध जालो. नंतर तो भारताक वापस आयलो. जाल्यार ताजे मिति पोट आयलि, ती ान्सर् भारताक आयलेतेना, कमलादेवि जैलांत आसलि. हरींद्रनाथान, प्रेमसंबंध कबूल केले ना! अदृश जावनु गेलो! ही खबरि कळन, अनाथ जावनु भारताक येवनु देंविले ान्सरागलि, राबचि आणि भविष्याचि व्यवस्था तिगेले आप्तबांधवा लागचान करयले, जैलवासिन कमलादेवीन!

तिगेले मनुष्यत्व कितलें उच्च म ाचे आसले, म्हळेले हे निदर्शन दाकयता.

आखेरेक बापुजिलागि उलोवन, कमलादेविन लग्न, विच्छेदन करन घेंवचे ठरयले. हो विचार मस्त कष्टाचो जालो. स्वतः हरींद्रनाथाक डाय्वोर्स घेंवचे मनांत नासले. तागेले दौर्बल्य सोडल्यार, कमलादेवि बद्दल ताका प्रीति आसलि, गौरव आस्लो. तांगेले दोगालो स्नेहसंबंध समान्य दंपतिले विवाह संबंधाकयि

मस्त वेगळे आनि उन्नत म ाचे आशिले. सामान्यांक हे अर्थ करन घेंवचे कष्ट जाता! कित्लेकि वर्सानंतर सुद्दा हरींद्रनाथ कमलादेविक भेटचाक येत्तशिलो. ताका आवडिले खाण–जेवण तयार करन ती खावयताशिलि. विराम करचाक सांगतशिलि! म्हणु, प्रत्यक्षदर्शि जावनु आसलो. एल्.सि. जैन् सांगता. एकपटि अपघात जावन कमलादेविलो हात मोडिलो. हरींद्रनाथ तिका भेटचाक आयलेतेना, तिका जाल्लेलि खुषि सांगुन सरलेना खंय्!

बाप्पयले गुण आनि दोष, होड जालतशि रामाक कळचाक लागले. ताज्ने खातिर कमलादेविन डैवोर्स् घेंवचे ठरयले. कोर्टान डैवोर्स डिक्लेर् जायना पडेन पुतालि कस्टडि आवय् कमलादेविक दिल्लेलि. जाल्यारि तागेले शिक्षण मुख्य जाल्यान रेसिडेन्शिल् शळेक घालका पडले. आवय्लागि बि राबचाक रामाक जालेना! कमलादेविले आग्रहान हरींद्रनाथाने, पैलेचान संबंध दवरिले सीता बरशि लग्न केले, जाल्यारि भायले आकर्षण बि कमि जालेना! हे हंतार रामाक बाप्पयले दुर्बल व्यक्तित्वाचे परिचय जावचाक सुरुजाली.

रामान सीनियर् केंब्रिज् परीक्षा पासकेलि. नंतर तागेले आवडिचे रेडियो इंजिनियरिंग् क्षेत्रांत उच्चशिक्षणाक कमलादेविन, अमेरिकेंत व्यवस्थाकेलि, हें आमि पळयला. तेना सुद्दा हरींद्रनाथा बरशि तीणे विचार विनिमय, केलेले.

राम्, अमेरिकेंत डोरिस् म्हळेले चरडवाळी, डैवोर्सिक लग्नजालो. तांका नील् (नीलकंठ) म्हळेलो चलो, निना म्हळेली चलि जालि. थोडेवर्सान हे लग्न मोडले. तागेले बापय्क परिचित कुटुंबाची विवाहित महिळाक, विच्छेदन करोवन राम् लग्न जालो! ही घटना व चि कमलादेविक कित्ले दुःखाचि जावन उरचापुरो! तीणे आत्मचरित्रेंत हे खंचेयि विचार बरयले नात.

एक विचार कळन आयलो म्हल्यार, तिगेलि पयले सून डोरिस् आनि दुसरि सून माया दोगय् कमलादेवीक लाग्गिचो

आसल्यो. वेगळे जालेले कित्लेकि वर्सान, होळ्ळेने, कमलादेवीले घरा राबचाक आयले, एल्.सि जैन् हाणे पळयले. वैयक्तिक आवड, नावडा कय कमलादेवीले मानवीय गुण आमका उठुन दिसतात. आपुलकिन, आवय्लो मोग तीणे सुनेक दिलि.

कमलादेवि साठ वर्साचि जालि तेन्ना, एक रेडियो भाषण प्रसारकरचाक विनंति आयलि. ताजे शिर्षक, Ah! If I were 21 again! हांव् परत एकविस् वर्साचि जालयार!" म्हण आसले. ते वाचल्यार, सामान्य जनाक सहज जावनु मेळचे विराम, सांगात अथवा सानसान खुशिचे क्षण सुद्दा तिका जिवनांत मेळनात! म्हण कळन येता. मनाक बेजार जाता. ते भाषणाचे सार आशि आस.

हांव एकविस वर्साचि जाल्यार, सान सान खबरे मिं मारन धरताशिलिं. होड होडा घटनाक तांचितल्याक तांका वचाक सोडतशिलि. रश् आनि धावपळ जीवनाताकुनु दूर उरतशिलि!

आता, मनशाले जीवनाचे पांच स दशक लोळत वचना पडेन, ताज्ने मद्येंतल्यान थोड अमूल्य क्षण, कळनाशि निसरन गेलेलो अनुभव स्पष्ट जाता! तरिसुद्दा, फाटि फिरन पळयल्यार, मेगेले ध्येय आनि दृष्टिकोन, बदलले नात, म्हण दिसता. धडपड, आनि गडबडि, माक्का जमनात. परत एकविस वर्सा युवति जाल्यार, प्रति एकदिस, आरामान, अर्थपूर्ण जावन, वच्च सारखे हांव, येवजण करन घेतसलि.

आरामशीर नाश्ता, जेवण करचि व्यवस्था घडोवन घेत्तशिलि. टेलिफोनाचो त्रास आनि दुसरे तोंद्रे जायनाशि पोळोवन घेतशिलि. हांव जेवण नासतना राबुक शकता. जाल्यार गडबडिन गपगप गिळचाक मात्र माक जायना!

वाजुचाक, बरोवचाक, जास्तोन जास्त वेळ उरयतशिलि. चल्याबरशि, कुटुंबेचे, मित्रलोकावु आरामान गप्पे, खुशाल आनि

उन्नांक, वेळ दवरन घेत्तशिलि! आप्त जनांक लांबलांब पत्र बरोंवचाक, मनांतुले विचार, तांका सांगुन घेंवचाक, समय उरसारखे पोळोवन घेत्ताशिलि.

घराचे बाल्कनिंतु बसुन, सूर्योदय आनि चंद्रोदय पळयतशिलि. मेगेले प्रितिचे गायन आयकतशिलि. सांजेचे, एकदोन टेनिस् अथवा शटल्काक् गेम् खेळतशिलि. शक्य तितले संगीतप्रकार आयकत, नाटक पळयत, नाटक निर्देशन करत, तांतु भाग बि घेत्तरि उरतशिलि. कित्या मळ्यार, थियेटर् अथवा नाटकाचो कलाप्रकार आसलो कि, मजसले, अनेक आवडिचे मनशाक, अभिव्यक्तिचे मस्त इतले आयाम, हे माध्यम सुचयता! मगेले मनाक अत्यंत लागिचे माध्यम म्हळ्यारि नाटक!

सांजेचे गांवा भायर, शांत प्रदेशांत फिरचाक, दोणिरि बसुन हालत धोलत वच्चाक, दूरप्रवास करचाक, हांव अनुकूल करन घेंत्तशिलि!

हे आशय सानसान खरे! जाल्यारि सान आशय व ुचि कोमल, नाजुक, पक्षिवारि उरताचि! तांका, नाजूकसाणीनचि पाळका! जाल्यारि जीवनाचे कठिण, कर्कश जावन आसले मागणि आनि कर्त्यव्य (डिम्यांड् आंड्  ूटि) चे धावपळांत, हे नाजूक पक्षिक उब्बुन वचुन नाजायनाशि, हातान अप्पो घालन धरतशिलि!"

हे भाषणान, कमलादेविले मन कितले सरळ आनि तिगेले मनाचे आशय कितले सादा आसले म्हळेलि कप्लना येता. आत ते प्रायेचाक सुलभजावन मेळचो विरामचो वेळ, तिका, केद्नाय् मेळना! वाच्चाक, पत्र बरोवचाक, एक, दोन डाव् टेनिस् खेळचाक, वाक् करचाक, फुरसत नासतना तिगेलि प्रायगेलि! तिगेलि राजकीय, सामाजिक जीवन, एकुणीस वर्सार (19) सुरुजाले. एक दोन नय्, साठ वर्स मीरुन तीणे क्रियात्मक रूपान जीवन चलयले. जेवण खाणा वेळार सुद्दा टेलिफोन येत्ताले. आनि ते तिन्नेची घेवचो रिवाज आसलो. सेक्रेटरि, किंवा पर्सनल् असिस्टेंट् तीणे दवरिलो

नासलो. पत्रवरेक हातान बरोबन धाडतशिलि. अतिमुख्य विचार म्हळ्यार कोणी बरयले पत्राक चुकनाशि, उत्तर बरयतशिलि.

तिगेले सेवाक्षेत्र भोंचि विशाल आसुन, जाल्ले तित्ले खुद्द कामकरतालि. तिगेले सार्वजनिक जीवन आसले. जाल्यार अंतरंगांत ती एकळीची! एकांतातु कडेरचे, दीस काडचे संदर्भ खूब आयले. स्वारस्याची खबर म्हळ्यारि, तीणे आत्मचरित्र, तिगेले आखेरचे दीसांत बरेयले. ताजेनांव Inner Recesses And Outer Spaces – अगदि सरळ अनुवाद केल्यार भितरले मुल्ले, आनि भायले जागे" (अंतरिक्ष) म्हळेशे जात्ता. कमलादेविले व्यक्तित्वाचे परस्पर विरोधि दोनि तोंड पळयतात अशि भास जात्ता! मनाचे मुल्यांत आसले, आजवरेक तीणे सांगचाक साध्य जायनासले खबर्यो आनि, तीणे पावकाजाले तित्ले ऊंचायि पाविले. अंतरिक्ष (स्पेस्) चे चित्रण तिगेले बूकांत मेळता! म्हण अर्थ करन घेवयेद्. 'Sky is the limit' म्हण इंग्लिषात आद्गति आस. मनुषाले परिश्रमाक; आक्लसाक, शोधाक, आनि दुसरे गुणाकय् आकाशचि मिति! सीमा (लिमिट्) ना! स्पेस् आनि आकाश एक अर्थांत घेतले जाल्यार कमलादेवीन कायम आपले मुखार अगदि ऊंच आदर्श दवरिले; ते पावचाक ती शकलि म्हण दिसता!

निस्संदेह जावन ती चंदायीचि, अथवा सौंदर्याचि आराधना करतशिलि. मनशाले मनाचे आनि करणीचे गोमटेपण तिका खूब आवडतशिले. दोनी गुण ती दुसर्यांत वळखु शकतालि. तशेच वाडचाक प्रोत्साह दित्तशिलि. खुद्द बि तीणे, सानप्रायेताकुनु हे गुण प्रयत्नान वाडोवन घेतिले. हरींद्रनाथालि बि आंतरिक प्रतिभा तीणे बरे रीतिन वळखली. अपरूपाचे तागेले हुशारकायिन ती आकर्षित जालेलि, हे तीणे कबूल केलेले आनि कडेर पर्यंत ताका ति गौरायतालि.

कमलादेविलि सेवा, देशाक मस्त रूपान पावलया. मुख्य जावन पांचक्षेत्रांत वळखुयेद्. 1) स्वातंत्र्य चळवळ 2) बायलाले

बरेपण 3) निराश्रिताले पुनर्निवेशन 4) सहकारि संघ-संस्था बांदुन 5) ललितकलेंत 6) हातकामांत. तरि उरिले राजकारणांत गाजिले तिगेले समकालीन व्यक्तित्वा इतलि प्रसिद्धद्ध तिका मेळिना! सर्वक्षेत्रांत तिगेले प्रयत्न प्रप्रथम आसले, यशस्वि जालेले. तरि जन, तिगेलि योग्यता समचि वळखलनांत! हाक्का कारण आमगेले देशांत राजकारण क्षेत्राक अकारण जावन दिल्लेले महत्व! राजकारणांत मुखार असल्याक मात्र आमि पुढारि म्हण समजताति. कमलादेविन राजकारण आनि ताजान मेळचि प्रतिष्ठा, प्रसिद्धि आनि पैसो मनःपूर्वक धूर दवरिले. तशि जावन तिगेलो योगदान वळखुवका जाल्यार विशेष प्रयत्न करका पडता.

तीणे सुरुकेलेले सुमार काम, आर्दार बंद पडलें. थियेटर् क्राफ्टम्युझियं, जीवधरन घेवन मात्र आस! सहकारि संस्थे पूराय् विकृतरूप घेवन, सरकारचे सहायान, मूल उद्देश माय्जावन, जनाले जवाबदारि विसरचाक कारण जाल्यात. प्रति एक जीवनोपयोगि कार्यक्रम, सरकारची जवाबदारि! म्हळेले विकृत समाजवादि आदर्श, जनानि हे पन्नास वर्सांत रूढसुन घेतला. प्रति एक व्यक्तिले आनि संघटित रूपान जनाले प्रयत्न, पूरा विसरन गेलात. प्रति क्षेत्रांत लंच आनि रुश्वत वाडचाक कोण? कित्याक ? कशि? कारणजाले? म्हण विचार केलयार, कमलादेविन सुरुकेल्ले कृषि, हातकाम्, समाजकल्याणाचे इतर प्रकार, फा ि पडचाक कारण कळता. जाल्यार तळपाय् घ ि पडचाक कारण कळता. जाल्यार तळपाय् घ ि जावन उरन आयिले, तिगेले देणगि बि आसत! ताजो विचार करया!



अध्याय 15

# कमल बावले: दायज उरले

## (निधन 29-10-1988)

कमलादेवि असले सतत परिश्रमि जनांक वेळ कशि काडचे?" म्हळेलि समस्या, केद्नाय् येना! जाल्यारि देह दुर्बल जातेरि वत्ता. एकेक अवयव, दोळे, हात-पाय, कान, जीर्णशक्ति, प्रायजाले तशि कुंठित जावचे सामान्य. कमलादेवि आपणाले 85 वर्स पर्यंत सक्रिय आसलि, लोकांक पावतालि, बरयत उरतालि, म्हळेले आश्चर्याचे विचार! डा ॥ शकुंतला नरसिंहन्, इंग्लिषांतु बरेयतलि ख्यात पत्रकर्ता, स्त्रीवदी, बरौपि, कमलादेविन सरचे थोडे दीस पयले तिगेले मैत्रिणिले घरा, कमलादेविक भेटलि. कमलादेविक बगेने कान दूर जाल्यात! म्हणु तिका खब्बरि पाविलि. सहज उलयतना, तू वेळ कशि काडता मायें?" म्हण बगेने ताळो होड करन, कमलादेविक विचारले. गंभीर जावन एकपटि निरखुन तीणे शकुंतलाक पळयले. करचे सारखे काम कित्लिकि बाकि आसत. वेळ पावना!" ती म्हणालि. बगेने राबुन, इत्ले होडान उलोवका म्हण ना! माका कान स्पष्ट आयकतात!" कमलावाणि भायर पडलि! डा । शकुंतला अजप्जालि. आपणे (तिजवारि असल्यारि!) आनि वीस वर्स पर्यंत, निर्मळ जावन कामकरचाक हरकतना! म्हण तिका दिसले खयं!

कमलादेवीन आत्मकथा, तीणे सरचे फक्त दोन वर्स पयले आयल्या. ताजे विस्तार पळयल्यार, तिगेले अगाध स्मरणशक्तिची कल्पना येता. तिका अगदि प्रीतिचे हातकामाचे पुनश्चेतन कामाचान, विनाकारण इंदिरागांधिन दूरकेले. तिगेलो हातकाम बोर्डाचो अध्यक्षालो हुद्दो बिन्पगारि (गौरवाचो Honorary) आसलो, राजकीय न्हय् आसलो. तरि, इंदिरागांधिन आपले अधिकारचे अवधिंत, तिक्का अगदि लाग्गिचे, दोनचार बायलांक सोडल्यार, समर्थ

आनि बुदवंत बायलांक, कामकरचाक वाव् दिलेले भोचि ऊणे! तिगेले सकत् आवड आनि नावड् सर्वांक परिचित. कमलादेवि आसले स्वतंत्र विचाराचे महिळाक तीणे कशि सहन करचाक साध्य? तुर्तपरिस्थितिंत तिका जैला धाडलना तेचि होड! ताका कारण, कमलादेविन राजकारणाचान दूरजावन वीस वर्स दांटुन गेलेले! तरि, ते अवधिंत सरकारि किरिकिरि' तिका चुकलि ना! जाल्यारि कमलादेविन आपले आत्मचरित्रेंत कोणाबद्दलय् खंचेयी नमून्याचे बेजार, आक्षेप, कडवेपण, दाखोवन घेत्लेना. देशाचे, विदेशाचे कित्लेक पुढार्या बद्दल तीणे उल्लेख केला. निर्लिप्त पणान, केला. उदार चरितानां तु वसुधैव कुटुंबकम्". हे विश्वसंचारिक, सबंध जगची कुटुंबशे दिसल्यांत आश्चर्य ना!

हातकाम बोर्डाचान दूर जाले तरि, प्रति राज्यांत तीणे सुरकेल्लेले क्राफ्ट् कौन्सिल्स् बरशि, तिगेलो संबंध मुखारसुलो. पगार नासतना कामकरतले समर्थ गृहिणि जनांक तीणे सोदुन काडिले. ती अध्यक्ष जालि. हे बायलांले घरांत अथवा संबंधित संस्थेत मीटिंग्, अनौपचारिक रीतिन चलतालि. कमलादेवि हे मीटिगांक एत्तशिलि. निश्चितकाम जातालें. चेन्नैचि सीता कृष्णन्, अनसूया पावंजे, मुंबैचि होमि तल्येर्खान्, विजया राजन्, बेंगळूरचि विमला रंगाचार्, आसल्यानि कमलादेविन सुरुकेल्लेले काम मुखारसुन व्हेले. जगाचे दुसदुसरे देशाचे, तिका आमंत्रण दीवन, तिगेलि सल्ला घेतशिले. World Craft Council ची ति उपाध्यक्ष असल्यान, युनेस्को तर्फेन तिगेलो विश्वसंचार चालू असलो!

शेवटाचे दीसांत दिल्लि–मुंबै, थोडे पटि बेंगळूर, गांवाक तिगेलि भोवंडि, सीमित जालि. कायम जनामद्दे सक्रिय उरतलेक, एकाकि जावन, चड दीस काडकाजाले. जाल्यारर बरोंवचांत वेळ घालतालि. कोणि, सहाय करता म्हळार, नम्र जावन नाका! म्हणतशिलि.

असले बायिले, अंत्य प्रत्यक्ष पळयलो, आत्त कर्नाटक क्राफ्ट् कौन्सिलाचो उपाध्यक्ष जावन आसलो, एम्.वि. नारायणराव्, यादकरन घेता. तेना तो, यु.एस्.एस्.आर्.चे हातकामाचे प्रदर्शन संघटित करचाक मद्रास गेल्लेलो. दिल्लिचान कमलादेवि, मुंबैचे शिल्प केंद्राक आयिलि. ताका खबरमेळ्ळि, कि कमलादेविक एकदं हुशार नाजाले, आनि ती हास्पिटल्याइझ् जालया! एकदं तो मुंबै पावलो. तिका ऐ.सि.युंत दवरिले. एक मिनिटाकिंता जास्त कोणाकय् भितर सोणाशिले. सकाळ–सांजे, तो एकमिनिटा खातिर वचुन, तिगेले आरॊग्य खबर, उरिले शिल्पकेंद्राक (क्राफ्ट् कौन्सिल्) कळयत उरतालो. 29, अक्टोबर 1988 चे, सकाळि केन्नावारि आस्पत्रेक वचगेलो. ताका भीतर सोडिले डाक्टरान सांगिले फकत् 1 मिनीट! बिल्कुल् उलोवचाक नज!" आस्पत्रेचे धंवे कप ांत, तिगेले भाग्गिले–थक्किले आवळले, देह ताणे पळयलें. ताणे रूमात वचे भितरि, तीणे दोळे उघडले. ते दोळे, केन्नावारीच चकचकीत, तीक्ष्ण आसले! आम्मा, तू आजि केद्नाकय् ब्रैट् दिसता!" तागेलो उद्गार भायर पडलो. आयचे इत्लि निश्शिक्त माका केद्नाय् दिसलि ना!" कमलादेविन तुरंत जापदिलि. डाक्टर् भितर आयलो. रागान, नारायणरावाक, भायर् तांडुन घेवन गेलो. ते तिगेले आखेरचे शब्द आसले. दोनपार दोन घंटे इतल्याक कमलादेविन कायम दोळे धांपले.

कमलादेवि सरलि, जाल्यारि तीणे सोडुन गेले दायज होड प्रमाणाचे उरला. तांतुले थोडे नमूने पळोवया!

हातकामा बद्दल तीणे साधसुयलि जनजागृति हॊड. वर्स वर्साक गणतंत्र दीसाक कमितकमि 15 जन उत्तम काम केले कुशलकर्मि कलाविदांक राष्ट्रप्रशस्ति फावजाता. नासाड जाले हातकाम परत जीवंत जाले. तांगेले कृतिक मागणि आयलि. कलाकारांक गौरव प्राप्त जालो. सुमार इत्ले घरा, पोरणी कलावस्तु पोलिश् जावन, ड्रायिंग् रूमांत शोभतात! कांशाचे, पित्तिचे,

तांब्याचे. कलात्मक वस्तुचे मोल, मध्यम वर्गचाक कळचाक लागले.

कित्लेक गृहकाम (काटेज् इंडस्ट्रीस्), कात्याकाम (कायर्), मांद्रि, कार्पेट्, जमखान विणचो, कसूति, वीणकाम् सानसान गांवांत जातेरि आसत, लक्षगट्ले बायलो–दारले देशभरि, कामकरत उरतात. तांगेले वृत्तिचे पुनश्चेतनाक ती कारण जालि. प्रादेशिक केंद्राचान तांचे देखरेख कच्चा सामाग्रिचि पुरवट आनि प्रशस्तिचि व्यवस्था तिजे निमित्ताने जाले.

बायलांले जन्मजात हक्का बद्दल, तांचांतु जागृति हाडिलि, पयलेचि बाय्लमनुष, कमलादेवि आसलि. प्रसूतिरजा, सीक रजा कामकरचाक जायशिले सवलतेचे निर्माण पयले खेपेक आयले. नंतर ते वाडले.

Performing Art चे, प्रदर्शन कलाचे, प्रकार, भारतांत सुरु जांवचाक, वाडचाक कमलादेवि कारण जालि. आजिकय ते जन जीवनाचे भाग जालात. कालेज–युनिवर्सिटित, शिकचे, शिकोवचे विषय जालात.

एसेंब्लि इलेक्ष्नाक राबिलि, मि ा सत्याग्रहांत अरेस्ट जालेलि, सानप्रायेर अखिलभारत युथ् अधिवेशनाचि अध्यक्षजालेलि, तीर अपरिचित देशांत बांब् पडतेर आसतना भोंविलि, कुटुंब योजनेचे संघटित रूपाचे परिचय पयले खेपेक करन दिलेलि, सहकारि रूपान कृषि, उद्योग, शाळा, व्यापार, आस्पत्री चलोवचाक साध्य! म्हण दाखोवन दिलेलि, तरणे कारागीराले, तांगेले चरडुंवाले भविष्य रूपित केलिलि, प्रथम महिळा कमलादेवि! म्हण आमि यादकरन घेवका.

तीणे मन केल्यार, राष्ट्राचि प्रप्रथम महिळा अध्यक्ष बि जात्तशिलि. पन्नास वर्सा फुडेचि!

Pioneer अथवा साहसि कामात मूलपुरष/महिळा, एकळेच

उरतात! ताणि दिल्लेले मार्गदर्शनांत तीं तीं काम चलोवन व्हरचे दुसर्यालि जवाबदारि उरता. दुर्दैवान आमगेले देशांत कमलादेविले वारि निस्वार्थ, निस्पृह कामकरचे आदर्श आपणायिले, भोंचि उणे! जाल्यार कमलादेविले कार्यक्षेत्र विशाल आनि वैविध्यपूर्ण उरिल्यान सुमार ताजे संप्रदाय चलन आयले आसत.

कमलादेविले दायज् (Legacy) मुखारसुला अशि दिसताकि?" म्हण तिजे बरशि चाळीसवर्स कामकेल्ले गांधियन् अर्थशास्त्रज्ञ, एल्.सि जैनाक हांवे विचारले. फुळ्ळे दीसुचि तो, बेंगळूरांत जमिले बोडोल्यंड" हात्कामा प्रदर्शनाक वचुन आयलो. बोडोलाांड्, आस्साम् आनि म्यान्मार् प्रदेशा मद्दे अत्यंत शोषित जनांगाचि भूंय् जावन उरल्या! थंचे निरुद्योगि तरुण जनांक, बेंगळूरचे एक दंपतिन मार्गदर्शन दीवन, तांगेलेचि हातकामांत बरी तरबेति मेळसरि पळयले. ताणि विळ्ळेले एक बेड्स्प्रेड्, जैनान दाकयले. हाताने कातलेले मवु मवु सूताचे, गुलाबि, तांबडे, नीळे रंगाचे, आह्लाद दिंवचे डिझैनाचे, हाताने विळ्ळेले, ते वस्तर पळोवन हांव अजाप्जालिं! एकचि प्रत्यक्ष उदाहरणेन एल्.सि जैन् हाणे, मगेले प्रश्नाक उत्तर दिलेले.

कमलादेवि एक Visionary (दार्शनिक) आसलि. गांधीक देशाचि नाडि वळखुवचाक साध्य जालेवारि, कमलादेविक आपले समाजाचे नाडि अवाज, आयकतसलो! तीणे, बायलाले, निराश्रिताले, कूलिकाराले, कुशलकर्मि जनाले, संकष्ट लागिचान पळयले. ते दूर करचे उपाय् ती वग्गिचि सोदुन काडतसलि ........ बरे रीतिन ते उपाय कार्यरूपात हाडतशिलि. आता तशि सुधारणा येवचि शासन व्यवस्था आमचांत नामु?" श्रीजैन् म्हणालो.

गांधितत्व पाळत–प्रचार करत आयले एल्.सि. जैन् हाका, समुदाय सेवेक 1989 वर्साचे म्याग्सेसे प्रशस्ति फावजाला. ताणे सांगिले म्हळ्यार कमलादेविले सल्ला–सूचना केद्नाय् मौलिक जावन उरतशिलि ........ ती मेगेलि लीडर्, तीणे घालन

दिले सूचनेरि हांव काम करत उरलो. हांव तिगेलो एक अनुयायि मात्र! खंचेय् समस्येक ती परिहार सुचयतालि. जनशक्तींत तिका खूब विश्वास आसलो".

आपले म्हळेले कमलादेविन पैसो, आस्ति, कांयिचि दवरिले ना! म्यागसेसे प्रैझाचे पैशे आनि एकडे केलेले देश-विदेशाचे कलात्मक सामान व ु; मेहरौलिचे म्युझियं हाका तीणे दान दिले. तीणे खरीद केलेले, निसले कापड सुंदर आनि, विशिष्ट डिसैन्चि आसलि, आत देशाचे वेगवेगळे हातकामा चे म्युझियं भितरि वांटुन गेल्यात!

तिगेले मंगळूरचे व्हडले घर सुदा विक्कुनगेलेलो पैसो दानारूपान समाजाक पावलो.

स्वातंत्र्यचळवळिंत दारले-बायले म्हळेले अंतर नासतना पुढारीजन कामकरताले. गांधीजिन बि मेळन कामकरचाक जासा प्रोत्साह दिलेले. जाल्यार भारतीय़ समाज लिंगसमानतेन वावुरचे, सहन करचाक तयार नासले. (थोडे विषयांत आजिक बि ना!) सुंदर आनि आकर्षक व्यक्तित्वाचि कमलादेविन देशाचे मुखेल आसले, तरुण, विधुर, हांचे बरोबर कामकरचे चुकले नासले. जनानि तांचे बद्दल रंजक खबरि सांगचाक सुरुवात केलि. पत्र बरोवन गांधीजिक कळेयले बी! गांधीजि कमलादेविक वळखतालो. ताणे ते पत्र तिका वाचाक दिले. ते वेळार कमलादेवि हरींद्रनाथाचान वेगळि जाल्लि. ते बद्दल गांधीजि बरोबर उल्लोवनुची ति, विच्छेदन निर्धाराक अयलि. तीणे म्हळे, ते मुखेला बरोबर लग्न जावचाक, हांवे विच्छेदन करन घेतले म्हणतात. समय (टैम्) म्हळेलोचि हे वदंतिचे खरे-फाल्स निर्धार करतलो!"

तिजे बद्दल असले वार्या-खबर्यो आनिकय् असल्यो. आपणाले अंतरात्माले अवाजाक लक्षदित्तलो व्यक्ती, जागृत उरता. चूकि करना! म्हळेले महात्माले उतरांत तीणे विश्वास दवरिलो. तशिचि ती वागलि.

बायलाले बरेपणाक निरंतर श्रम केलेले, दारले-बायलाले समानतेक, कामकेलेले हे म्हालगडी बायलेले एक मुख्य अभिप्राय हांगा सांगुका! ती बायलांगले Reservation पालिसि विरुद्ध आसलि! ही आताचि ज्वलंत समस्या आस. 33% बायलां खातिर असेंब्लि व पार्लिमेंटात रिसर्वेषन्" जाय्, म्हण चळवळ (!) सुरुआस, ते बद्दल कमलादेविले विचार पोळोंया. तीणे बेंगळूराचे एन्.एम्.के.आर्.वि कालेजाचि प्रिन्सिपाल जावन आसलि (दि). चि.न. मंगळाक बरयले 4.09.1987 चे पत्र, ते कालेजाचे समन्विता' पत्रिकेंत छापला.

राजकारणांत गरजनाशि लिंगभेदार जोरदिला. हाजान चिंतेक कारणजाला. स्वातंत्र्यालडायि दीसांत, चुकुन सुद्दा हो भेद लक्षात येनासलो ........ फाटि बायलो, दारले बरोबर, फक्त नागरिक हक्काक लडतशिलो. ताणि आमि बायलो! म्हण विशेषस्थान – मान मागले नासले. आत्त मागत आसति! हाजो आर्थ, आमि बायलो. म्हण आमि, दुर्बल. आमि दुर्बल म्हण सार्वजनिक जावन वळखया!" म्हण घोषणा केलेवारि जाता ....... बायला वारिचि, अवकाश वंचित जनांग, आमगेले देशांत सुमार आसत. तांगेले प्रगतिकडेन बि लक्ष दिवचा जाय् ........ आमगेलि दोषपूर्ण समाज व्यवस्था हाका कारण आस! ताजे निर्मूलन पयलेंजावका ....... थोडे बायलो उच्चपदविक पावलात, हाजो अर्थ, सर्वबायलाले स्थानमान बरे सुधारले म्हणचाक जायना ........ स्वातंत्र्य आंदोलना वेळारचे महिळा आंदोलन, विशाल तळपायारि रूपित जालेले. ते पासिटिव् आसले. ते चि दृष्टिकोन आनि ध्येय मुखारसुन घेवन वचका. हाक विशेष, माहिति-शिक्षणाचि गरज आसा"

भारतीय बायलाले सर्वतोमुख अभिवृद्धि जालिना! म्हळेलो कळवळ, कमलादेवीक कडेर पर्यंत आसलो.

कमलादवीले बहुमुख प्रतिभेंतु, तिगेले लेखन-सामर्थ्य बि एता. तीणे 18 बूक बरयिलिं. शंबरान लेख, करपत्र पांफलेट्

(पुस्तिका) बरयले; तिगेले आत्मचरित्रेक प्रस्तावन बरयलो, प्रसिद्ध इंग्लिष् लेखक राजाराव्ने, तिगेले बरपाची तारीफ केला.

इंग्लीष् प्रोफेसर कुलपति आनि ज्ञानपीठ प्रशस्ति विजेता. डा. वि.के. गोकाक हाणे, दोनिचि वाक्यांत तिगेले व्यक्तित्व निरूपित केला. तिगेले आत्मकथन, तिगेले जीवन, वीर, करुण, आनि शांतरसान भरन आसले म्हण कळन एता! राष्ट्राचे स्तरारि, कीर्तिपाविलि, कर्नाटकाचि बायलं भोचि ऊणे. असलि विरळ व्यक्ति कमलादेवि".

तिक्का अगदि प्रीतिचे नाटकरंगाचे नवरसांतल्यान तिका शोभचे रसाचे उल्लेखान, गोकाक बाबान तिका सखत् कांप्लिमेंट् दिला! तिगेले राष्ट्रम ाचे पात्र बि समर्पक जावन वळखला. आमचीच जावन, आमचे भूंयिचे विशेष प्रीत उरवन घेवन, अंतराष्ट्रीय स्तराक पाविलि ही म्हालगडि माय, मस्त विषयांत मुखावेले पिळगिक आदर्श सोडुन गेला. तीणे एक, एक क्षेत्रांत पाविले उंचायि, फकत् एकचे क्षेत्रांत, कांयपुणि, साधसुवंका! म्हणतल्यांक बि, रोल् माडेल् जावन आस. कोंकण्याक एकळीचि कमलामाय्" जावन ति तीणे कामकेलेले सर्वक्षेत्रांत शिखराक पावलि म्हळेले सत्य, दायजा रूपान सोडुन गेला!



## कमलादेविगले जीवनांतुले महत्वाचे महलो

1. 1903 एप्रिल् 3 : मंगळूरांत जन्म घेतलो; आवय् गिरिजाबायि, बापय् अनंतय्य धारेश्वर.

2. 1910 : बापयले निधन

3. 1917 : नायंपळ्ळि कृष्णराव् बरोबर वरडीक

4. 1918 : कृष्णराव् निधन

5. 1919 : शिक्षण मुंदरसुले. सत्याग्रह सभेंतु भाग घेवची सुरुवात. सीनियर् केंब्रिज् परीक्षा पासकेलि.

6. 1920 : मद्रासांतु शिक्षण, हरींद्रनाथ चट्टोपाध्याय बरशि लग्न. युरोपाचो प्रवास.

7. 1923 : खण, . Hon. श्रीनिवास शास्त्रिगले मार्गदर्शनांतु, पयले खेपेक राजकीय भाषण.

   Women's Conference अथवा अखिलभारत महिळा परिषद् परिचय संघटना : जिनेवा, प्राग्, जिनेवा अंतराष्ट्रीय सम्मेळनांत भारताचे प्रतिनिधित्व.

   चलो राम् चट्टोपाध्याय् जल्मलो.

8. 1924 : हिंदुस्थान सेवादळांतु स्वयं सेविका. बेळगांव कांग्रेस् अधिवेशनांतु सक्रिय काम्.

9. 1926 : मद्रास लेजिस्लेटिव् असेंब्लिचे चुनावणेक राबिलि पयलेची महिळा.

10.1927 : कांग्रेस् पार्टिची सदस्य: मद्रास अधिवेशनांत स्वयं सेवकाले कोर् अथवा दळ संघटित करचाक पार्टिन जवाबदारि दिलि.

11. 1928 : अखिलभारत युवकांग्रेस् कमिटिक निवडुन आयलि.

12. 1929 : अखिलभारत युथ्लीग् चि अध्यक्ष जालि.

13. 1930 : मि I सत्याग्रहांतु अरेस ˙ जावन जैलवास; यरवडा जैलांत भर्तिजालि.

14. 1931 : सुटकार; राष्ट्रीय देशसेविका वालंटियर्; हिंदुस्तान सेवादळाची जनरल् कमांडिंग् आफिसर' म्हणु नेमक

15. 1932 : दिल्लिचे लेडि इर्विन् कालेजांतु गृहविज्ञान शाखा स्थापसुवचाक सहाय.

16. 1933 : दुसरे खेपेक् अरेस्ट आनि जैलवास.

17. 1936 : मीरत् शहरांत जमिले कांग्रेस् सोश्यलिस्ट पार्टिचो वार्षिक अधिवेशनाची अध्यक्ष.

18. 1939–41 : इंग्लंड् – अमेरिकेंतु प्रवास; भारताचे स्वातंत्र्य संग्रमाचि वळख सामान्य जनांक करन दिली.

19. 1941–44 : अखिलभारत महिळा परिषद् (कान्फरेन्स्) ची अध्यक्ष म्हण चुनायित. जैल्वास; वेल्लोर जैलांत कठिणशिक्षा.

20. 1944 : जैलाचान सुटकार. अखिल भारत महिळा परिषद् (AIWC) अध्यक्ष

21. 1947–52 : निराश्रिता खातिर, तांगेले सहकारि संघटन करचांत दीस–रात श्रम, एंपोरियं संघटन.

22. 1952–67 : अखिलभारत हातकाम् बोर्डाचि अध्यक्ष (Chairman, All India Handicrafts Board)

23. 1953 : एडन् नगरांत जमिले अंतराष्ट्रीय सभेंत बायलांगले अभिवृद्धि बदल भाषण.

24. 1955 : भारत सरकारान पदभूषण प्रशस्ति दिलि.

25. 1962 : वाटुमल् प्रतिष्ठान प्रशस्ति; सामाजिक, आर्थिक क्षेत्रांतु केल्लेले सेवे खातिर.

26. 1964 : इराण देशाचे हातकाम सुधारचे खातिर आमंत्रण.

27. 1967 : सेनेगल् देशाचे अध्यक्षाले निमंत्रण. डकार् राजधानिंत जमिलो कलाप्रदर्शनाचि मुख्य अतिथि, (एशिया खंडाचि एकमात्र प्रतिनिधि!)

28. 1970 : देशाचे सांस्कृतिक राखवण केल्ले बद्दल शांतिनिकेतनचे देशिकोत्तम प्रशस्ति.

29. 1972 : स्वातंत्र्य योधा जावनु पुढार पणान सेवे दिल्लेले वळखुन भारत सरकारान ताम्रपत्र प्रशस्ती. पद्मभूषण प्रशस्ति.

| | | |
|---|---|---|
| 30. 1972 | : | समुदाय सेवे खातिर रेमोन् म्याग्सेसे ल्प्रशस्ति. |
| 31. 1974 | : | संगीत नाटक आकाडेमि तर्फेन रत्न सदस्य प्रशस्ति. |
| 32. 1977 | : | हातकामाचे पुनश्चेतन केल्ले बद्दल युनेस्को (UNESCO) पुरस्कार. |
| 33. 1986 | : | भारत सरकाराचे पद्मविभूषण प्रशस्ति. बनारस हिंदु विश्वविद्यालयचे गौरव डि.लिट्. आंद्रप्रदेश कलावेदिकेचान कलासरस्वति' प्रशस्ति. |
| 34. 1988 | : | अक्टोबर् 29 तारीकेक मुंबै महानगरांत निधन. |

# आधार साहित्य


1 Inner Recesses and Outer Spaces; Memoirs of Kamaladevi Chattopadhyay (Navrang NewDelhi. 1986)

2 Carpets and Floor Coverings Of India

By Kamaladevi Chattopadhyay. Taraporewala. II Edition. Bombay 1976.

3 Kamaladevi Chattopadhyay – A true Karmayogi

A tribute to the mother of Handicrafts Craft Council of Karnataka-Bangalore 2003.

4 Kamaladevi Chattopadhyay

A biography byJamila Brijbhushan – Abhinav, New Delhi – 1976.

5 Women Pioneers – In India's Renaissance

Edited by Sushila Nayar & Kamala Mankikar National Book Trust, New Delhi – 2002.

6 Kamaladevi Chattopadhyay – A Biography

Jasleen Dhamija–National Book Trust, New Delhi–2007.

7 Women In Modern India – Geraldine Forbes(The New Cambridge History of India)

Cambridge University Press – Asian Edition – 1998.

8 100 Most Important Women of the 20th Century.

Ladies Home Journal – Books –Meredith Books Des Moines IOWA (USA) 1998.

9 On the Wings of Time – An autobiography

By Kamala Dongerkery, Bharatiya Vidyabhavan Bombay – 1968.

10 Umabai Kundapur – Diamond Jublilee Sauvenir

Bhagini Mandal Hubli – 1952.

11 भारतीय महिळेयर स्वातंत्र्य होराट –कमलादेवि च ोपाध्याय अनुवादः वैदेहि, अक्षर प्रकाषन, सागर – 1984.

12 करावळि जानपद कलेगे कमलादेवियवर कोडुगे क्राफ्ट् कौन्सिल् आफ् कर्नाटक – बेंगळूरु – 2004.

13 नेनपिनलि निंतवरु (साधकियर परिचय) डा । ज्योत्स्ना कामत्, महिळा साहित्यिका हुब्बळ्ळि – 2000.

14 नम्म वीरवनितेयरु : कमला संपळ्ळि (खुद उज्वाडिले) – 1992 बेंगळूर् – 24.

15 नानोंदु कनसकंडे (कमलादेवि च ोपाध्यायर जीवन चरित्रे) बेळ्ळि बि ुं बळ्ळी (4) कन्नड साहित्य परिषत्तु, बेंगलूरु 1981.

16 कमलादेवि : एक समर्पित व्यक्तित्व ( हिंदी) कमला रत्नं : आलेख प्रकाशन ,दिल्लि – 1990.

कमलादेवि बरोबर चाळीस वर्स् काम केलेलो, माग्सेस्से प्रशस्ति विजेत श्री एल्.सि.जैन्, कर्नाटक क्राफ्ट् कौन्सिल् हाजो, उपाध्याक्ष श्री एं.वि. नारायण राव्, कन्नड वारपत्रिका तरंग' हाजो, माजि संपादक श्री संतोष् कुमार् गुल्वाडि, हांक कमलादेवि बद्दल, जायशिलि माहिति दिले खातिर लेखकि तांका ऋणि आस.



## लेखकीले परिचय

| | | |
|---|---|---|
| पूरा नांव | : | डा. ज्योत्स्ना कृष्णानंद कामत |
| शिक्षण | : | एम.ए., डि.एड., पि.एच.डि, कर्नाटक विश्वविद्यालय, धारवाड |
| वृत्ती | : | थोडे काळ टीचर, संशोधकी, र.ठ.दइ न.<br>आकाशवाणिंत आफीसर म्हण वेंचणी (१९६४), धारवाड, जयपुर, मंगळूर, कोल्कत्ता, मुंबई, मैसूर आनी बेंगळूराक नौकरी, आकाशवाणि बेंगळूर केंद्राची डायरेक्टर म्हण निवृत्त |
| कळची भाषा | : | कोंकणी, कन्नड, इंग्लीष, हिंदी, संस्कृत, बेंगली, मराठी |
| कुटुंब | : | (दि) डा. कृष्णानंद कामत, एम.ए., डि.एड., पि.एच.डि.(न्युयोर्क),<br>पूत विकास कृष्णानंद कामत, |
| प्रकटित पुस्तक | : | कोंकणी २, कन्नड आठ, इंग्लीष दोन –१२ |
| प्रशस्ती | : | कर्नाटक राज्य साहित्य अकाडेमीन 'कर्नाटक शिक्षण परंपरे'<br>१९८८ वर्साचे श्रेष्ठ संशोधना कृति म्हण<br>२००८ ऑज्ल्ल ऑब्ध्ङ अष्यछ २००८ फक्अ ठग्त<br>ऊब्ध्फ्छग्ल्ब्फ हाजे. 'सुरग्यासर' कोंकणी पुस्तकाक (कोंकणी लग्नपदाचे संग्रहाक)<br>कर्नाटक राज्योत्सव प्रशस्ती १९९१ वर्सांची विद्युन्मान<br>माध्यमान कन्नड भाषेचे सेने खातिर |
| इंटरनेट सेवा | : | १९९७ वर्सापासुन कामत कुटुंबाने चलयात आसले<br>ष्ठ.ध्प्ळ.च्छ वेब सैटान भारत, कर्नाटक कोंकणी संस्कृतीर सतत जावन साचित्र कार्यक्रम प्रसार जातर आसा. दर म्हैनाक चाळीस लाक जन पळयतात. |
| कोंकणी संस्कृती सेवा | : | स्वर्गस्थ डा. कृषानांद कामतीले स्मृतिक होन्नावर गांवांत<br>कृष्णकल्प म्हळेले उचित समुदाय भावन आनि वाचनालय २००७ वे वर्सांत सुरु केला. कोंकणी आनी कन्नड भाषेचे कार्यक्रम जावचाक अवकाश केलां. |

रू - २००.००